# म्हजो दिस्टावो

फिलोमीना साँफ्राँसिस्को






# म्हजो दिस्टावो

(काणयों)

फिलोमीना साँफ्राँसिस्को




अपुरबाय प्रकाशन

**Mhojo Dishttavo**
(stories) by
Philomena SamFransisco

प्रकाशन क्र. 69


28 - 1913, अभ्युदय नगर
मुंबई 400033

पयली उजवाडावणी :
2005

मुखचित्र :
विजन वेंचर्स, कुडचडें - गोंय

छापणावळ :
हिरू नारायण नायक
रूतु ऑफसेट, वळवय - गोंय

प्रकाशक :
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय फोंडें गोंय 403 401
e-mail : apurbai@sancharnet.in

ISBN - 81-86488-69-3

मोल : Rs. 120/-

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' अर्थिक आदार येवजणेखाला छापलां.

डॅडी ग्रेगरी

आनी मांय आलिंदा

हांकां भेटयतां.

- बाय (फिलू)



# आशिर्वाद!

फिलोमीना साँफ्राँसिस्को म्हळ्यार एक वेगळेंच नांव आनी तेंय बी गोंयचें. पयले सुवातेर तिचें आड वो कुळनांवूच म्हळ्यार खेरीत. असलें कुळनांव सदांचें न्हय. हो साँफ्राँसिस्को जावंक जाय आसिसाचो फ्रांसिस आनी न्हय शेवियर कुळांतलो. हो आसिसाचो सांत फ्रांसिस जावन आसा फ्राँसिस्कानी अर्दीचो स्थापणार वो फ्रांसिस्कानांचो स्थापणार. फ्रांसिस्कांनी मठवाशी सुरवेक बार्देसांत वावुरताले. ह्याच मठवाशियांनी बार्देस - बारा देस - ख्रिस्तायलेलो आनी थंयच्या पयल्या क्रिस्तांवांक पुर्तुगेज नांवां आनी कुळनांवां दिल्लीं. पुर्तुगेज पदोन आसतालो आनी हो पदोन आपलें कुळनांव बातिस्म घेतल्यांक दितालो. जोम्यांनी बातिस्म दिल्यार, आख्या जोम्याक पदोनीचें कुळनांव पडटालें - जशें लोबो, डि सौजा, फेर्नांडीस. पूण साँफ्राँसिस्को म्हळ्यार एक वेगळेंच कुळनांव. अजून पर्यान म्हाका जाल्यार असल्या कुळनांवाचें एकूच कुटूंब मेळ्ळां आनी तें म्हळ्यार फिलोमीनाबायचें.

आनीक एक वेगळेंपण फिलोमीनाबायविशीं : फिलोमीनाबाय म्हळ्यार एक गोंयकान्न कातोल्क समुदायांतली आनी ती उलयता, बरयता आनी वाचता कोंकणींतल्यान. हें एक विस्मीत. कातोल्क समुदायांतलीं चेडवां आनी बायलो कोंकणी नकळो म्हूण सांगूंक बढाय दाखयतात. बीयेर पडून वो बट्ट्यार पडून इंग्लेज तासतात. सांजेच्या वेळार पर्यान "गुड मॉर्नींग" म्हणून म्हाका हडकितात. फिलूबाय असली परकी गोंयकान्न न्हय, भास नासलेली मनीस न्हय. तिका देस आसा, भास आसा, गांव आसा. बार्देसच्चे मातयेंतली ती. आयज आमच्या गोयांत जायतीं गोंयकारां परकी कशीं जियेतात आनी वागतात, मुंडकाऱ्यां जाल्यांत. परकें वारें फिलूचेर मारूंक ना.

फिलूबाय परकी गोंयकान्न न्हय. देखून ती कोंकणी बऱी उलयता, बरयता, कोंकणींतल्यान चिंतता. 'रोटी' ह्या मासिकाक ती लेख बरयता. 'द

गोवन रिव्यू' ह्या मुंबयच्या द्विमासिकाकूय बरयता. 'गुलाब' ह्या गोंयच्या मासिकाचेरूय तिचे लेख उजवाडाक येयल्यात आनी तशेंच 'वावराड्याचो इश्ट' ह्या गोंयच्या सातोळ्यार कथा बरोवन तिका इनामांय फाव जाल्यांत. फिलूबाय म्हळ्यार गोंयचो अनद आनी वैभव. चिटीपर्यान ही बाय कोंकणींतल्यान बरयता. हें एक खेरीत खाशेलेंपण गोंयकारनीचें. कोंकणीच्यो जमाती मुंबय शारांत भरतात तितल्यांकूय ती हाजीर जाता आनी मागीर शीण करता, सगळीं मंगळूरकारांच आसलीं, भोव थोडीं गोंयकारां म्हणजे क्रिस्ती गोंयकारां.

फिलोमीनाबायन विनोद, कथा आनी लेखूय रोमी लिपींतल्यान बरयलेले आनी ह्या-त्या पत्रांचेर उजवाडा हाडलेले आसात. आतां तीं सगळीं लिखाणां वो बरोवपां एका पुस्तकाच्या रूपान गोवा कोंकणी अकादेमी ही संस्था उजवाडा हाडूंक फुडें सरल्या, पूण देवनागरी लिपींतल्यान. फिलोमीनाबाय नागरी लिपी बेस बरी जाणां. तरूय दुसरो कोणतरी नागरी लिपींत तिच्या लेखांचें लिप्यांतर करतलो आनी अशीं फिलूबायचीं बरोवपां नागरी लिपीच्या मळार आनी खळार परजळूंक पावतलीं. हीं बरोवपां हिंदू भाव - भयणांच्या हातांनी पावतलीं आनी तीं रोमी लिपीच्या संवसाराभायर पावतलीं. हे दिशेन आमी तिका यश आंवडेतां आनी तिचें हें पुस्तक साहित्य अकादेमीचे पर्यान नदरेक पडटलें म्हणून आस बाळगून रावतां. अजून पर्यान साहित्य अकादेमीन नागरी लिपींतल्यानूच उजवाडा हाडलेल्या पुस्तकाक इनामां वो पुरस्कार दिला. एक दीस फिलोमीनाबायच्याय पुस्तकाक असलो पुरस्कार फाव जायत.

**मोरेन डिसौजा**, एस. जे.

पोरनें गोंय

ऑक्टोंबर 2004

# मनोगत...

जीम रीवस आपल्या गीतांत म्हणटा : "How can I write on paper what I feel in my heart." "म्हजो दिश्टावो" ह्या म्हज्या ल्हान काणयां पुस्तका विशीं लेखिका ह्या नात्यान म्हजें मनोगत सांगचें म्हळ्यार हीच गत आसा. काळजांतल्यो भावना कागदार बरोवंक शकना हांव. तरूय थोडक्यांत सांगतलीं जाल्यार पयले सुवातेर "म्हजो दिश्टावो" बरोवंक शक्य जावंक म्हाका मदत करपी कांय म्हान व्यक्तिंक हांव कशींच विसरूंक शकना. म्हाका कोंकणी बरोवंक उत्तेजन दिवपी म्हजो डॅडी आनी मांय ग्रेगरी आनी आलींदा साँफ्राँसिस्को, फादर मोरेन डिसौजा, जाच्या 'दर म्हयन्याचे रोटी' चेर हावें नियमीत बरोवंक सुरवात केली. फा. कैरील डिसौजा 'नवें गोंय' चो तेन्नाचो संपादपी आनी सर्गेस्त डॉ. एफ. एम. रिबेलो, जाणें म्हजी कोंकणीविशींची उमेद वाडयली हांकां हांव काळजांतसावन दीनवासतां.

ओंपता तेंच पिकता हें मनांत दवरून हांव ल्हान ल्हान काणयों बरयत रावलीं. केन्नातरी ह्या काणयांतलो संदेश पुस्तकाच्या बरपांतल्यान खूब खूब लोकांमेरेन पावतलो म्हूण सपनेलेल्या सपनाचो 'म्हजो दिश्टावो' आयज आकार घेवंक पावलो. म्हज्या ह्या दिश्टाव्याक आकार दिवपाक वावुरपी गोवा कोंकणी अकादेमीचे एक वांगडी श्री. तोमाजिनबाब कार्दोज हांचे हांव भोव उपकारी. तांकांच लागून म्हजें हातबरप अकादेमीचे 'पयलो चंवर' येवजणे मेरेन पावलें. आनी सर्वशेवटीं कोंकणी साहित्य खांची कोणशांमेरेन पावचें म्हूण आशावादी मन दवरून तुमकां, म्हज्या वाचप्यांक हांव देव बरें करूं म्हणटां. जय कोंकणी!

**फिलोमीना साँफ्राँसिस्को**

# मांडावळ

# 1.

# सगळ्यांनी धांवडायलो. पूण...

एका गावांत पाद्रीक खूब पिडापीड दिताले. कांय वर्सांपयलीं एका 'मिशनरी' पाद्रीक अशीच पिडापीड दिवन ताका त्या गांवांतलो भायर घातलो. कितें करचें, खंय वचचें तें समजना जावन तो पाद्री एका रानांत पावलो आनी त्या रानांतूच आपले दीस सारूक लागलो. ताचेलागीं एक लापयांव आसलो जाच्या उजवाडान तो रातिचो 'देवाचें उतर' वाचतालो. एक कोंबो आसलो जो ताका सकाळच्या पारार उठयतालो आनी एक गाढव आसलें जाचेर बसून तो प्रवास करतालो. थकतालो. तरूय लेगीत तो फुडें चलत आसलो ....... एका नव्या गांवच्या सोदांत.

आनी एके रातीं ताका एक नवो गांव सांपडलोय बी. तो थंय गेलो आनी थळाव्या लोकालागीं ती रात सारूक आपल्याक आसरो मागूंक लागलो. पूण त्या गांवच्या एका लेगीत मनशान ताका आसरो दिलो ना. धांवडावन घातलो ताका. निराश जावन तो एके बांयचे देगेक आयलो. आपलो लापयांव पेटयलो आनी 'देवाचें उतर' वाचीत बसलो. इतल्यान झुमझुमीत वारो सुटलो आनी ताचो लापयांव पालवलो. वाचूंकय शकलो ना तो. तितल्यान ताका थंयसरूच झेम पडली.

सकाळीं उठून पळयल्यार ताच्या कोंब्याक कोल्यान खाल्लेलो आनी गाढवाक व्हेल्लें तेंवूय वागानूच जावंक जाय. तो पाद्री तसोच उठलो आनी मदत मेळटा जाल्यार पळोवंक त्या गावांत परत एकदां गेलो. जाल्यार कितें पळयतलो? तो सामकोच थडाकलो. अजापभरीत जालो.

ते रातीं त्या गांवाचेर चोरांनी घुरी घालून त्या गांवच्या पुराय लोकांक जिवेशीं मारून वडयिल्ले. त्या गावांत कोणूच जिवो उरूंक नासलो.

तो पाद्री चितूंक पडलो. देवानूच आपल्याक राखला म्हणपाचें ताका समजलें. मनशान धांवडायल्यार लेगीत देव तशें करीना म्हणपाचें पटलें ताका.

जरी तर ते रातीं गांवच्या कोणाय एकल्यान ताका आसरो दिल्लो जाल्यार तोवूय तांचेभाशेन ते रातीक मरतलो आसलो. वारो सुटून लापयांव पालोवंक नासलो जाल्यार लापयांवाच्या उजवाडान चोर ताकाय सोदून काडटले आसले. ताच्या कोंब्याक आनी गाढवाक व्हरूंक नासलीं जाल्यार तांचे उदेशीं ताचें आसणें चोरांक गोमतलें आसलें. देवानूच आपल्याक सांबाळ्ळो तें पळोवन पाद्री देवाचे उपकार आठोवंक लागलो.

'वायट येता बऱ्याक' अशें म्हणटात. वा 'जें कितें घडटा तें बऱ्याखातीरूच' म्हटलेलेंय आयकूंक येता. त्याच खिणांक आमी देवाची मांडणी जरूय समजूंक शकलीं नात जाल्यारूय देव जें करता तें आमच्या बऱ्याखातीरूच म्हण आमी खात्रेन स्वीकारूंक फाव.

## 2.

## फुलां केन्ना येतलीं?

**पा**वसाच्या दिसांनी कांय ल्हान भुरग्यांनी झाडां रोवपाचो निर्णय घेतलो. एकल्यान गुलाबचो रोंपो लायलो, दुसऱ्यान मोगरेचो फांदो रोयलो आनी तिसऱ्यान दसणिचें ल्हान झाडच हाडून मातयेंत बसयलें. तिगांय

भुरगीं खोशी जालीं. फुलां केन्ना येतलीं तीच वाट पळयत बसलीं. दुसऱ्या दिसा, झाडां रोयिल्ले तेच सुवातेर मेळचीं म्हण थारावन आपापल्या घरा गेलीं.

ते रातीं तिगांय, आपापल्या झाडांक फुलतल्या फुलांच्या रंगाचीं आनी तांच्या परमळाचीं सपनां सपनेवंक लागलीं. तांकां झेम लेगीत सारकी पडली ना. दुसऱ्या दिसा, थारायलेल्या वेळा आदींच तीं आपापल्या जाग्यार पावलीं. जाल्यार ....एकाय झाडाक एकूय फूल फुलूंक नासलें. उदक शिंपूंक ना देखून फूल फुलूंक ना म्हण चिंतून ताणीं आपापल्या वांट्यान तिनूय रोप्यांक भरपूर प्रमाणांत उदक घालून शिंपलीं आनी फुलां फुलपाची अपेक्षा करीत आपापल्या घरा परतलीं.

फुलांच्याच संवसारांतलीं सपनां सपनेवन दुसऱ्या दिसा तीं भुरगीं परतून आपापल्या जाग्यार आयलीं. जाल्यार .... एकाय झाडाक एकूय फूल फुलूंक नासलें. तिगांय भुरगीं बेजार जालीं. दीसपट्टी येवन तीं झाडांक पळयतालीं, सारें घालतालीं, शिंपतालीं तरी लेगीत एकाय फांदयेक एक लेगीत फूल झळकनासलें म्हण आनीकूय बेजार जावन घरा परततालीं. निराश जातालीं. तरी लेगीत तीं पांच दीस अशींच येत रावलीं. आनी शेवटाक ताणीं येवपाचेंच बंद केलें. थोड्या दिसांनी तर तीं भुरगीं आपापल्या झाडाक विसरलीं लेगीत! आनी उदकाची थंडाय ना जावन ताणीं रोयलेल्यो रोंपयो केन्ना वतांत करपून गेल्यो तें तांकां कळ्ळेंच ना.

आमीय बी जायते खेप ह्या भुरग्यांपरीच वागतात. आमच्या वावराचें फळ आमकां बेगीनच जाय आसता. त्याच वेळार, तेन्नाच! वाट पळयत रावपांत आमच्यांत सोसनीकाय नासता. केन्ना केन्ना आमकां आमच्या वावराचें फळ मेळपाक खूब काळ लेगीत रावचें पडटा. अशा वेळार आमी निराश जावंक फावना. कश्ट करीत रावपाचें. कश्ट करीत रावपांतूच अर्थ आसा. फळाची वाट पळयत रावपांत न्हय. शेवटाक आमच्या कश्टांचीं फळांच आमकां सूख दिवपाखातीर आमचीच वाट पळयत आसतलीं.

3.

# शेजारी नासताना

झुजाचे दीस आसले ते. आपल्याक फायदो करून घेवपाच्या हेतून पसरकारांनी जेवणा - खाणाच्यो वस्तू लिपयलेल्यो. ज्यो विक्रेक दवरलेल्यो त्योवूय बी दुपेट दरेन विकताले. दुडू आसलेल्या गिरेस्तांक हाचें कांयच पडून वचूंक नासलें. पूण गरीब मात कपलाक हात लावन बसपाशिवाय आनीक कांयच करूंक शकंनासले. मजूरी करून हाडलेल्या दुडवांनी आपापल्यो दीसपट्ट्यो गरजो भागयताले. दोन वेळांचे जेवण मेळपाशिवाय ते आनीक कांयच चिंतूंक शकनासले. तेंवूय बी केन्ना केन्ना मेळपाक कठीण जातालें. आनी असोच वेळ सुनिलाचेर आयिल्लो. चूल पेटोवपाकूच मुश्कील जातालें ताका. बायल - भुरग्यांचे चुरचेरे पळोवंक नजो जावन तो आपलो शेजारी सुरेशागेर गेलो आनी आपल्याक एक माप तरी तांदूळ दिवपाक ताच्या पांयां पडूंक लागलो. सुरेशाची परिस्थिती सुनिलापरींच आसली. ताचींय बायल - भुरगीं उपाशी पोटार न्हिदतालीं. हे स्थितींत आसताना सुनिल तांदूळ मागूंक आयिल्लो पळोवन सुरेशाची बायल तापली. आपल्या घोवाक कडेक व्हरून म्हणूंक लागली - "आमचेलागीं फक्त फाल्यांक जायशेच तांदूळ आसात. ताका ते तांदूळ दिल्यार आमी फाल्यां उपाशी मरतलीं."

सुरेशाक वायट दिसलें. ताणें आपल्या बायल - भुरग्यांचेंय चिंतूंक जाय आसलें. तरीलेगीत ताणें फुडलो विचार केलो ना. आपले बायलेक म्हणूंक लागलो - "आमकां आयचो दीस तरी आसा. आमी मेल्यार फाल्यां मरतलीं. पूण सुनिल मात आयजूच मरतलो. ताचें कितें? पळय

प्रेमा, आमी ताका ते तांदूळ दिवंकूच जाय. फाल्यां उजवाडटा मेरेन घडये देव आमकां दुपेटीन दीत.”

आनी ताणी सुनिलाक तांदूळ दिले.

तांदूळ दिवन सुरेश आनी ताची बायल दुखी जालींनात. उलट वर्णन करूंक जायना तसलो हांसो तांच्या तोंडार फुल्लो. पूण ताचेपरसूय चड खोशेन भरलो तो सुनिल.

दुसऱ्यांनी आमची मदत करची, आमच्या आकांताच्या वेळार आमकां पावचें अशी आमची सदांच अपेक्षा आसता. हीच अपेक्षा दुसरोय आमचेकडल्यान करीत आसता म्हणपाचें मात आमी मनांत दवरीचनात. आमकां पडलेलें आसता तें फक्त आमचेंच. दुसऱ्यांच्या संकश्टांची जाणीव लेगीत करून घेवंक आमकां नाकाच आसता. तांच्या दुःखाची सादी कल्पना लेगीत आमकां आसना. आमी आमकां तांचे सुवातेर दवरून आमचेकडसून आसलेली तांची अपेक्षा जाणून घेवपाचे यत्न तरी करपाचे. तांकता तेपरीं दुसऱ्यांक मदत करपाचीच - अदीक करून आपले कुशीक रावतल्या शेजाऱ्याची. मनीस घडये इश्ट - सोयरीं नासताना जियेवंक शकत, पूण शेजारी नासताना न्हय.

## 4.

## अशे हे सभागे

दिसान दीस आपलो धंदो फुलयत व्हरपी धंदेकार तो. शिवाय एक तरनाटो. इतले ल्हान पिरायेर धंद्यांत इतली प्रगती केल्ल्यान खूब नांव मेळयलेलें ताणें. धंदेकाराच्या संवसारांतलो खूब लोक वळखतालो

ताका. तरण्या चलयांचे नदरेंत तर तो आसलोच. पूण ताचे नदरेंत गेलें तें एक नांवलौकीक चलचित्रांनी काम करपी कलाकान्न. खूब सुंदर आसलें तें रूपान. ताणें ताकाच आपल्या फुडाराची सांगातीण करूंक चिंतलेलें. ताचेकडसून हयकार मेळिल्ल्यान दोगांय एकठांय भोवूंकय लागिल्लीं. तो आपलो चडसो वेळ ताच्याच सांगातान सारतालो. तें वता थंय तो ताच्या सांगातान दिसतालो. तें आसचें थंय तोय बी.

तरी लेगीत लग्नाआदीं आपले होंकलेच्या फाटल्या जिविताची खात्री करून घेवची म्हूण हो धंदेकार तिचेविशीं पुराय म्हायती काडपाखातीर एके डिटेक्टीव एजन्सींत गेलो. तिका कळनासताना तिच्या जिविताची म्हायती आपल्याक ताबडतोब दिवचेखातीर ताणें एजन्सीच्या धनयाक भरपूर दुडू दितां म्हणपाचें भासयलें. एजन्सीचो धनी राजी जालो. आनी आपले एजन्सींतल्या एका डिटेक्टीवाच्या हातांत ही केस घातली. धनयान ताका आपल्याक जाय आसलेले म्हायतिची जाणीव करून दिल्ली. पूण ज्या मनशाखातीर ते चलयेची म्हायती जाय आसली तो मनीस एक व्हड धंदेकार म्हूण ताणे त्या नेमलेल्या डिटेक्टीवाक सांगलें ना.

डिटेक्टीवान आपलें काम सुरू केलें आनी थोड्याच दिसांभितर आपलो वाको तयार करून आपल्या धन्याफुड्यांत मांडलो. वाक्यांत बरयलेलें आसलें ....

"कुमारी xxx विशीं सांगपाचें जाल्यार तिच्या जिवितांत कसलोच दाग ना. तिका कोणेंच वायट नदरेन पळोवंक ना. तेचपरीं पळोवंक गेल्यार तशी तिची वायट वागणूकय ना. आसलेल्यांच्या सांगातांत रावून ती नासलेल्यांच्या सांगातांतूय दिसपी. तिच्या फाटल्या जिवितांत दुबावपासारखी कसलीच गजाल ना. पूण हालींच्या दिसांनी मात ती चली एका दुबावी सभावाच्या मनशाबरोबर भोंवलेली दिश्टी पडटा."

अशे हे सुभागी, स्वतःक निश्कलंक थारावन दुसऱ्यांच्या जिवितांत

नासलेलोच दाग सोदपी. हे सभागे हाचेपरस आनीक करूंक शकतात तरी कितें? स्वतःच्या जिवितांतले दाग साफसुफ करूंक तांच्यांत शक्ती तर आसचना. पूण दुसऱ्यांच्या जिवितांत काल्पनीक खतां घालूंक मात तांच्यांत भरपूर उमेद आसता. स्वतःच्या दोळ्यांनी येदी व्हड पाटी आसताना दुसऱ्यांच्या दोळ्यांतलीं कुस्कुटां पळोवंक तांकां खंयची जादूची दीश्ट प्राप्त जाता म्हूण कोणाक खबर!

दुसऱ्याच्या जिवितांत दखल दिवचे बदला स्वतःचें जिवीत ठिकाणार दवरपाक वावुरल्यार फायद्याचेंच जातलें.

## 5.

## तुकाच लागून

एक जाणटेलें घोव-बायलेचें जोडपें आगगाडी स्टेशनार पावतांच, आगगाडी निकतीच प्लॅटफॉर्म सोडून वताली. एका मिनटाक लागून गाडी चुकिल्ल्याचें दोगांकूय दुःख जालें. दोगांय झगडूंक लागलीं. एकामेकाचेर गुन्यांव थापूंक लागलीं.

"तुवें तोंडाक पावडर घसडूंक इतलो वेळ लांवंक नासलो जाल्यार ती गाडी आमकां नक्कीच मेळटली आसली." घोवान तापोवन म्हळें.

"कोणाच्या तोंडाक? तुज्या वो म्हज्या?" बायलेन चाळोवनूच विचारलें

"म्हज्या कित्याक? तुज्याच तोंडाक. तुकाच लागून गाडी चुकली." घोवान सांगून सोडलें.

“म्हाका लागून?” बायलेन आपलो आवाज चडोवन म्हळें.

“हय व्हय. तुकाच लागून. आतां आनीक अर्दवर बस आगगाडयेची वाट पळयत.” अशें म्हणत घोव पलॅटफॉर्मावयल्या बांकार बसलो. बायलूय ताचेशीं बसली.

अर्दवर रिकामे बसूंक ताचे बायलेक सोसणीकाय नासलेलीच. आनीक पांच मिनटां ओगी बसली जाल्यार ती ताची बायल कसली? शिवाय घोवान तिकाच गुन्यांवकारी केल्ली. गुन्यांव आसल्यार लेगीत आपलो गुन्यांव स्वीकारपाची तिका संवंयूच नासली. कशेंय करून जाल्ल्या गुन्यांवाचें कारण ती आपल्या घोवाचेर धुकलतालीच. म्हणटकूच ती वगी बसली ना. म्हणूंक लागली,

“तूं असो धांवत-खर्शेत स्टेशनार येवंक धडपडूंक नासलो जाल्यार आमकां दुसरे रेलगाडयेची वाट पळोवंक पडचेंच नासलें.”

आपणे आदारलेलें चुकिचें कारण दुसऱ्याचेर लोटून स्वतः मुक्त जावपाची खुबदां संवंय जाल्ली आसता. मागीर दुसऱ्यांचेर ताचो कसलोय परीणाम जावं, ताचें पडलेलें आसना. पडलेलें आसता तें स्वतःचे मुक्तिचें.

आडव्या तिडव्या आनी अर्थ नासलेल्या उलोवपांत स्वतःची सफाई करून दुसऱ्यांक अडचणींत घालप चुकिचें. आपणें आदारलेली चूक वळखून ती चूक स्वीकारपांतूच मनशाचें मनीसपण आसता. हीच करणी मनशाक मनीस थारायता. मनशाच्या जगपाक अर्थ दिता.

आमी जगपाचेंच जाल्यार अर्थ आसलेलेंच जिवीत जगपाक जाय. अनर्थी जिवीत न्हय.

6.

# दुखयनासताना कांटो काडलो

ते इमारतिची शिडी खूब अशीर आसली. एके पावटीक एकाच मनशाक येवंक वा वचपाक मेळटालें - इतली अशीर. उलट सुलट दिशेन वचपी दोन मनीस एकाच वेळा एकेच कडेन शिडयेर भेटले जाल्यार अडचणूच जाताली. एके बाजूक रावून दुसऱ्याक वाट दिल्यारूच प्रश्न मिटटालो. नाजाल्यार ....

पूण हो प्रश्न सुटपासारखो नासलोच तांचो. ते शिडयेर ते दोगूय अकस्मात एकामेकाक भेटले, त्याच वेळार, एकाच जाग्यार. एकटो वयर चडपी आनी दुसरो खाला देंवपी. आपणे स्वतः कडेक रावून दुसऱ्याक वाट दिवपाची एकल्याचीय तयारी नासली. दोगूय हट्टी. दोगूय अभिमानी. एकामेकाक पळयत रावले. रागान. राग करपासारकें कांयच नासताना. चिंतूक पडले, चिंतपासारखें कांयच नासताना.

तो कडेक सरून आपल्याक वाट दिवपाचीं कसलींच चिन्नां दाखयना तें पळोवन खाला देंवपी मनशाक आवाज चडोवन म्हणपाक लागलो,

"म्हजे वाटेवयलो कडेक सर आनी म्हाका वाट दी."

"हांवूय तुका हेंच सांगपाक सोदी." वयर चडप्यान ताका जबाब दीत सांगलें.

खाला देंवप्याचो राग अदीक वाडलो. व्हडल्यान आरडत म्हणूंक लागलो,

"केन्नाच ना. शक्यच ना. हांव मुर्खांक केन्नाच वाट करून दिना."

"पूण हांव दितां." वयर येवप्यान शांतीकायेन म्हळें आनी खाला देवप्याखातीर वाट मेकळी करीत आपूण स्वतः कडेक उबो रावलो.

दुखयनासताना खाला देंवप्याचो कांटो काडलो ताणें. सहजपणीं. कोण मुर्ख तें सिद्ध केलेंच - आपूण स्वतः मुर्ख जायनासताना. खाला देंवप्याचें मुर्खपण दाखयलेंच ताणें - आपणे स्वतः कडेक रावून. आपली अक्कल कडेक दवरीनासताना.

## 7.

# घूट

दानासारखें पुण्य ना. उजव्या हातान केल्लें दान दाव्या हाताक कळूंक न दिवपांतूच दान करतल्याचें व्हडपण आसा.

एका ल्हानशा गावांत जाणटीं घोव - बायलां रावतालीं. समाधानान आपले दीस एकामेकाच्या मोगांत सारतालीं. कोंबयो पोसून तांतयां विकप आनी बोकड्यो पोसून दूद विकप होच तांचो धंदो आसलो. बरीच विक्री जाल्ल्यान तांचे गांठीक बरोच पयसो एकवटिल्लो. एक तांतीं मात तांणी केन्ना कोणांक फुकट दिलें ना. सोयऱ्या दायऱ्यांनी लेगीत मागल्यार 'दुडू फारीक करून तुमकां जाय तें व्हरात' हीच तांची जाप आसताली. सगट तांकां हिमटीं म्हणून फाटल्यान तांच्यो खबरी करतालीं. पूण आसल्या खबरांचो त्या म्हाताऱ्या घोव - बायलेचेर कुस्कुटाचो लेगीत परीणाम जायनासलो. दुर्लक्ष करतालीं तीं असल्या गजालींचेर. आनी आपलो धंदो

चलोवन पयसो कमावन खुशाल जीण जगताली.

अशेच दीस गेले आनी एक दीस जाणटे बायलेन संवसाराक आपले दोळे धांपले. कांय दिसां उपरांत घोवानूय संवसाराचो निरोप घेतलो. मरणा उपरांतूच लोकाक त्या म्हाताऱ्या घोव - बायलेचो घूट उकतो जालो. ताणी काटकसरीन एकठायलेलो एक एक पयसो एका व्हड विधायक कर्माखातीर वापरलेलो. तांचे हिमटेपणान एकठायलेल्या पैशांकूच लागून गांवचे दोन विद्यार्थी आपलें शिकप पुराय करूंक शकले. ताणीं बरें नांव जोडून गांवाक अभिमान जोडून दिल्लो.

दुसऱ्यांच्या करण्यांक आमी बोट दोखोवचें न्हय. गैरसमज करून घेवंचो न्हय. अदीक करून आमकां खात्री नासलेल्या गजालींसंबंदान. दुसऱ्यांक बोट दाखयताना उरलेलीं चार बोटां आमी आमकांच दाखयतात म्हण लक्षांत हाडचें. आनी आमकां कोणेंय बोट दाखयलें जाल्यार आमी अस्वस्थ जावचें न्हय. आमी आमच्यो बऱ्यो करण्यो करीत रावचें. देवाकडल्यान ताचें इनाम मेळ्ळेशिवाय रावचें ना.

8.

## तो आदलो नर्क खंय आसा?

एक प्रामाणीक आनी देव भिरांतीचो वेपारी अकस्मात पिडेंत पडून मेलो. आपलें आख्खें जिवीत ताणें बऱ्यो करण्यो आदारून, दान धर्म करून लोकांक मदत करून सारलेलें. जितेपणीं देवाची खोशी घालूंक तो खूब वावुरलो. मेल्याउपरांत देवान ताका खोशी करपाखातीर, सर्ग वा

इफेर्न वेंचून कडचेखातीर सर्गाक तशीच इफेर्नाक पळोवणेची एक भेट करपाक संद दिली. सर्गार तर सगळेकडेन भक्तिगीतां आनी प्रार्थनाच प्रार्थना पळोवन ताका बेजार आयलो. हेंच तर तो आपल्या जिवितांत करीत आयलेलो. हाचेपरस इफेर्न खंयच्यान वायट? थंय चालू आसलेलो नाच, मौज मजा, खावप - पियेवप पळोवन त्या वेपाऱ्याक कसलेंच भान उरलें ना. ह्या देखाव्यान तर तो सामकोच भुल्लूसून गेल्लो. वेळ वगडायनासताना ताणें आपलेखातीर इफेर्न वेंचून काडलें. देवाक सांगलें आपूण इफेर्नांत खोशी आसतलों म्हणून.

देवान ताचें म्हणणें मान्य करून घेतलें आनी रोकडोच वेळ वगडायनासताना ताच्या सांगाताक एक देंवचार दिवन ताका इफेर्नांत धाडलो. इफेर्नांत पांय घालतांच थंय भकभकतालो खर उजो, उज्यांत लासपी मनशाच्यो कुडी, किळांच्यो, बोबो आनी हुयेली पळोवन तो बाबडो वेपारी सामकोच अजापलो. "म्हाका दाखयलेलें तें आदलें इफेर्न खंय आसा?" म्हूण व्हडल्यान आरडून आपल्या सांगाताक आसलेल्या देंवचाराक विचारपाक लागलो. देंवचारान हांसूनच ताका जबाब दिलो, "तो आमचो पब्लीसिटी डिपार्टमेंट."

खरेंच झगझगता तितलेंय भांगर न्हय म्हूण आमकां पटटा. तात्पुरत्या संवसारी खोशायांक लबडून आमी वस्तुस्थिती विसरतात. दुडू-भांगरूच आमी आमच्या जिविताचो गिरोप अशें समजतात. लखलखपी वस्तुंनी आमकां भूल घालून ह्या वेपाऱ्यांपरीं आमची फसणूक जावंची न्हय म्हूण आमी खात्री करून घेवंक जाय.

# 9.

# लिपलेलें धन

**का**म म्हळें काय दोळ्यांमुखार वेगवेगळीं चित्रां दिसूंक लागतात. कदेलीर बसलेलो कारभारी, गॅरेजींत बसलेलो मॅकानीक, सुटा-बुटांतलो कारकून, शेतांत वावुरपी वावराडी आनी हेर प्रकारचे साबार कामदार. काम म्हळें काय काल्पनीक चित्रांच न्हय तर केन्नाय मनशांच्या कामांविशींचे तरेतरेचे विचार कळून येतात. जायते खेप तरनाटीं वा जाणटेलीं आपल्या कामांक हलके नदरेन पळयतात. बेजार हाडपी, मनीस कुळयेचेर घातलेलो श्राप कसो. जिविताच्या दर एका दिसाक करूंकच जाय आसलेलें प्रायश्चित. अशें समजुपी मनीस खऱ्यांनीच तेचपरीं दीस घालोवपाक लागल्यात. पूण जर आमी कामाक एके दुसरेच नदरेन पळयलेलें जाल्यार?

मध्यम पिरायेची एक अस्तुरी आपल्या सोबीत, ल्हानशाच घरांत एकटीच जियेताली. घरा बगलेक पोरसूं लावन ती आपलो दीसवडो सोडयताली. तरूय फाविल्ल्या वेळार आनीकूय फायदो काडचो अशें चिंतून तिणें एके शाळेंत लिफ्ट ऑपरेटरची नोकरी धरली. लिफ्ट ऑपरेटरच्या कामांत आपल्याक कसली करमणूक मेळटली? उबगण हाडपासरकें तें काम करच्या बदलाक..... पूण ना, तिणें कामाफुडें आपली मान बागयली ना. उरफाटें आपलेलागीं जाता तेप्रमाण कामांतल्यान आपल्याक खुशालकाय मेळोवपाची तजवीज करूंक लागली. ल्हान भुरग्यांचे सुटलेले टाय सारखे करून बांदताली. केन्ना केन्ना तांकां ल्हान ल्हान चुटकुले सांगताली. भुरगीं तिका आदर - मानान लेखतालीं.

आनी ज्या दिसा तिणें संवसाराचो निरोप घेतलो त्या दिसा तिच्या मर्णाक हाजीर आसलेल्या लोकांक इगर्जेंत सुवात उणी पडली.

आमी आमच्या कामाचो दुस्वास करचो न्हय. आमचें काम, मागीर तें कितलेंय किरकोळ जांव अभिमानान करचें. मन लावन करचें, मोगान करचें. तेन्नाच आमचे जिणेंत काम हें खुशालकाय हाडपाचें एक साधन जातलें. कामांत लिपून आसलेलें धन आमी भोगूंक पावतलीं.

काम फक्त पोट भरपाखातीरचीच वाट न्हय. काम जिविताक वळण दिवपी, जिविताक अर्थ आनी मार्ग दिवपी साधन आसा हें आमी विसरूंक फावना.

## 10.

## वेताक चुकता तो....

आपल्या धंद्यांत यशच यश मेळयिल्या एका धंदेकाराक, आपणेंय तशेच यशाचे पांवडे चडूंक चिंततल्या एका तरनाट्यान विचारलें,

"तूं हेपरीं यशस्वी जावपा फाटलें गुपीत म्हाका सांगशी?"

धंदेकारान खीणभर लेगीत विचार केलो ना. म्हणूक लागलो,

"तुका दिसता तसो म्हजेलागीं घूट कांय ना. इतलेंच करपाचें, दिसा दीसपट्टीं येवपी ल्हान ल्हान संदीचो फायदो घेवपाखातीर चतूर रावपाचें आनी एखाद्री व्हड संद लाबली म्हणटकूच रोकडीच उडी मारपाची."

"पूण" म्हणूंक लागलो तो तरनाटों,

"तें शक्यच ना. सद्दां कितल्योच संदी येतात. ल्हान तश्यो व्हड

संदी. एखाद्री व्हडली संद आयिल्ल्याचें म्हाका कशें कळटलें?"

"तशें कळचेंच ना." धंदेकारान जबाब दीत म्हळें. "तेखातार तुवें आख्खो वेळूच हुशारकायेन उडक्यो मारीत रावचें पडटलें."

आमकां सोदीत आयिल्ली संद कित्याक वगडावची? परत ती संद आमच्या दारार मारीत, ना मारीत. आयिल्ली आसतानाच तिचें स्वागत करपाचें. मागीर ती ल्हान संद आसूं वा व्हड हेविशीं वाद करपाचो न्हय. कारण आमचो वाद सोंपता म्हणसर ती आमकां सोडून आनीक दुसऱ्या कोणाल्याय दारार मारीत - आमकां थंयच दवरून नशिबाक रडूंक दवरूक.

## 11.

## डॅडी, म्हाका फक्त....

केन्ना केन्नाय ल्हान भुरगीं इतलो हट्ट धरतात, इतलीं बेजार करतात, आपोआप तांचेर हात उखलप जाता. पूण केन्नाय तींच भुरगीं अनपेक्षीत वेळार अशीं वागतात, तांकां आमचे वेंगेंत घेतलेशिवाय आमी कांयच करूंक शकनात.

ते सांजेक घरा येतना रिवोचो पाय आपल्याबरोबर ऑफिसांतलें काम घरा घेवन आयिल्लो. तें काम ताका पुर्ण करपाकूच जाय आसलें. खूब बेजार आसलो तो. कशेयपरी पूर्ण करून दुसऱ्या दिसा तें काम ताका आपल्या सायबाफुड्यांत दवरपाकूच जाय आसलें. आपल्या कुडांत कोणेंच येवचें न्हय म्हूण बायलेक सांगून एक कप च्या पियेवन तो आपल्या कुडांत गेलो. वतना रिवोकूय आपणांक बेजार करूं नाका म्हण दम दिलो.

कामांक सुरवात केल्ली तितलेंच, कोणेंतरी दारार मारिल्ल्याचो आवाज आयलो. रागान उठून तो दाराशीं गेलो. दार उगडून पळेल्यार .... दारांत रिवो उबो आसलो. पायचो राग आनीकूय चडलो. रिवोक ताणें तापोवन काडलो. रागान भरून उंचेल्या सुरान म्हणूंक लागलो,

"हावें तुका सांगलेलें, आयज म्हाका बेजार करूनाका म्हूण. कित्याक आयलो तूं हांगा?"

कांय वेळ कितें जाता तें रिवोक कळ्ळेंच ना. खिणभर रिवो वगीच उरलो. परतून एकदां पायन धेंगसो घालो,

"कित्याक आयला तूं हांगा? कितें जाय तुका? सांग बेगीं."

प्रश्न आयकून रिवो भानार आयलो. म्हणूंक लागलो,

"म्हाका कांयच नाका. डॅडी म्हाका फक्त तुजेशीं रावंक जाय. तुजे कुशीक बसूंक जाय."

रिवोच्या पायचो राग कसो न्हिवलो, ताका कळ्ळेंच ना. ओणव घालून ताणें धाकट्या रिवोक उखल्लो. आपले वेंगेंत धरलो. रिवोची अर्त-अपुरबाय करीत ताका मेजाशीं व्हेलो आनी आपले कुशीक एके कदेलीर बसोवन आपलें काम करीत रावलो.

## 12.

## आयज म्हाका भूक ना

बेनिथ मुसोलिनीक त्या दिसा शाळेंत वचपाक कळाव जातालो. नाश्तो करपाक रावल्यार आनीकूय वेळ लागतलो म्हूण चिंतून कांयच

खायनासताना तो तसोच उपाशीं पोटार शाळेक वचपाक भायर सरलो. वतना वांगडा दनपारचें जेवण व्हेल्लें.

शाळेंत अंभ्यास करतां करतां ताका मदींच भूक जाणवूंक लागली. अभ्यासाचेर कशेंच लक्ष लागना जालें. वेळ सरचनाशिल्लेपरी दिसूंक लागलें. केन्नाकाय जेवणाचे सुटयेची घांट वाजता आनी जेवणाक सुरवात करताशें दिसूंक लागलें ताका.

शेवटाक एकदांची घांट वाजली आनी सगळे विद्यार्थी हेवटेन आनी तेवटेन धांवन आपापले सदचे सुवातेर बसून ताणी जेवणाची सुरवात केली.

मुसोलीनी तर हे घडकेची सकाळीं सावन वाट पळयत आसलो. म्हणटकूच ताणें आनीक एक मिनीट लेगीत वगडायलें ना. जेवणाचो डबो बेगीं बेगीं उगडलो आनी पयली उंडी घेवंक वतालो तितलोच ... ताचो सांगाती विद्यार्थी ताका पळयता म्हणपाचें ताच्या लक्षांत आयलें.

हो विद्यार्थी त्या खिणाक जेविनासलो. ताचे म्हऱ्यांत जेवणाचो डबो नासलेलो..जेवणूच नासलें ताचेलागीं. मुसोलीनीन हातांतली उंडी तशीच दवरली. आपल्या जेवणाचो डबो घेवन तो त्या भुरग्यासरीं गेलो आनी म्हणूंक लागलो, "आयज तूं हावें हाडलेलें जेवण जेवतलो?"

आपणें ताचें जेवण जेवल्यार मुसोलीनी कितें खातलो म्हूण चिंतून त्या भुरग्यान नकार दितकूच मुसोलीनीन ताचें समाधान करीत म्हळें, "म्हाका आयज जेवण नाका. म्हाका आयज भूक ना."

13.

# मोगाचें हतयार वापरल्यार?

आपल्याक कळाव जाता म्हूण एके आवयन आपल्या शिकपी पुताक आपले मोचे पॉलीस करपाक सांगलें. पुताकूय खास वेळ नासलेलो तरूय लेगीत ताणें मन लावन आवयचे मोचे साफ केले. इतले साफ, चमकूंक लागले तिचे मोचे. आपल्या पुतान आपलें उतर मानून इतली मेहनत करून आपले मोचे पॉलीश करून दिल्ले पळोवन आवयचें मन खोशयेन भरून आयलें. पुताचें कवतूक करचेखातीर आनी आपली दीनवासणी व्यक्त करचेखातीर पुताक इनाम म्हूण तिणें धा रूपयांची नोट दिली. पुताक इनाम दिवन खोशी करून आपलेय खोशयेंत भर घातली तिणें.

उपरांत ती ते मोचे घालूंक गेली. मोच्यांत पांय घालताना फुडें बोटांक कितेंतरी आडखळटालें. पांय भायर काडून कितें आडखळटा तें पळयल्यार .... एका कागदाच्या कुडक्याक रेवडावन आपल्या पुताक तिणें दिल्ली तीच धा रूपयांची नोट आसली. कागदार बरयलेलें आसलें, “मांय हे पयशे दवर. हावें तुजे मोचे मोगान साफ केल्यात.”

कसलेंय काम करचें तें दुडवांचे आशेन. कितेंय करचें तें दुडवांची अपेक्षा बाळगूनच. दुडवांचो फायदो नासताना कोणाचें काम करपाचेंच न्हय, मागीर तो मनीस आपलो घरचो जांव वा पयसुल्लो. कामांतल्यान दुडू मेळोवप हें सगळ्याहून म्हत्वाचें. नाजूक मोगाचे भावनेपरस लेगीत.

अशें चिंतपी खूब मनीस आसात. दुडवांखातीर काम करप ही आयज चडानचड लोकांची वृत्ती जाल्या. दुडवांखातीर काम करपांत कांयच वायट ना. पूण दुडवांखातीरूच काम करपांत मात सगळेंच चुकलांशें दिसता म्हाका. केन्ना केन्ना दुडवांची आस कडेक दवरून मोगाचें हतियार वापरल्यार कशें?

## 14.

# मेलींदाचो निरोप

धाकट्या मेलींदाचो पाय, रातचें न्हिदूंक वचच्या वेळार ताका काणयों सांगतालो. तशें करपाचो हट्टच धरतालें तें. काणयों आयकल्याशिवाय तें कशेंच न्हीदनासलें. पायचे मांडयेर बसून काणयों आयकत - आयकत केन्ना झेम पडटाली तें गमचनासलें ताका. रातचें सद्दां ह्या मौजेच्या वेळाची वाट पळयत आसतालें तें. ताच्या पायकूय ताची करमणूक करपांत खोशी भोगताली. पूण केन्नाय ताका गरजेचें काम सोपोवंकूच जाय आसतालें त्या वेळार मेलींदान काणी आयकुपाचो हट्ट धरल्यार ताका बेजार येतालो.

आनी असोच बेजार जावन एक दीस ताणें एक युक्ती काडली. मेलींदाक सांगतालो त्यो सगळ्यो काणयों ताणें टेपरेकोर्डराचेर रेकोर्ड केल्यो आनी टेपरेकोर्डर चालू करून त्यो कशेपरी आयकुपाच्यो तेंवूय ताका शिकयलें. एक दोन राती मेलींदान तशें केलेंय बी. पूण तातूंत ताचें समादान जालें ना. तिसरे रातीं आपलो पाय कामांत गुल्ल आसतानाच

तें ताचेसरी आयलें आनी काणी सांगपाचो हट्ट धरून बसलेंच. पायक आपलें काम पूर्ण करपाचेंच आसलें. म्हणूक लागलो,

"पळय मेलींदा, हावें तुका टेपरेकोर्डर चालू करून काणयों आयकूंक शिकयलेलें आसा. म्हणटकूच म्हाका आनीक बेजार करूं नाका. तूं टेपरेकोर्डर चालू करून काणयो आयकूंक शकता."

मेलींदान पायचें सांगणें आयकून घेतलें आनी म्हणूक लागलें,

"हय पाय. हांव टेपरेकोर्डर चालू करून काणयों आयकूंक शकतां. पूण त्या टेपरेकोर्डराचे मांडयेर मात बसूंक शकना."

मेलींदाच्या पायक मेलींदाचो निरोप मेळ्ळाच आसतलो...

तुमकांय बी?

## 15.

# इतली कोडसाण चाकल्या उपरांत

**त्या** दिसा केक करूंक घेतलो हावें. बेकींग पावडर, वनीला, तांतयां आनी हेर सगळ्यो गरजेच्यो वस्तू काडून मेजार दवरलेल्यो. तेन्ना 'आंटी कितें करता' म्हूण धाकटें लीएन कुजनांत आयलें. 'केक करतां' म्हूण सांगतकूच 'म्हाका दी' म्हूण हट्ट धरलोच लीएनान. मेजार आसलेल्या वस्तूंक बोट दाखयत 'हो सगळो केक' म्हूण सांगून हावें धाकट्या लीएनाचीं फकाणां केलीं. लीएनाक खात्री करून घेवची आसली. मैद्याच्या पिठांत बोट बुडयत चाकून पळयलें ताणें आनी दुसऱ्याच खिणाक तोंड वांकडें केलें. तांतयां घालून दवरलेल्या कांश्यांतूय बोट बुडोवन तोंडांत घातलें

आनी मागीर तर ताचें तोंड पळोवपासारकेंच जालें. ताचे जिबेक गोडसाण हाडची म्हूण हावें ताका लागीं हाडीत ताचे जिबेर साखरेचे कांय कण दवरूक सोदले जाल्यार तें कशेंच तोंड उगडीना जालें. इतली कोडसाण चाकल्या उपरांत गोडसाणीची अपेक्षाच सोडली जांवये लीएनान. पूण म्हाका मात ताणें चिंतूंक लायलें.

साखर सोडल्यार केक तयार करूंक जाय आसलेली प्रत्येक वस्तू कितली कोडूक! भयानक म्हळ्यार जाता. जिबेर घेवंकूच जायनासलेली. पूण ह्यो सगळ्यो रूच नासलेल्यो वस्तू एकठांय मिसळ करून जो केक तयार जता ताचे स्वादिश्ट रूचीचें वर्णन करचें म्हळ्यार सुर्याक ताच्या परजळीत उजवाडाची जाणीव करून दिवपासारखें जातलें.

आमच्या जिवितांतूय बी अशेंच घडना मू? इतल्यो दुःखी - खंती, अडी - अडचणी आनी कश्ट - दग्द हात धुवन आमचे फाटीक लागलेले परी आमची फाटूच सोडीनात. एक-एक कोडू अणभव सामको चेंपून वडयता आमकां. आनी इतले सगट कोडू अणभव आणभवल्या उपरांत गोड - सुखेस्त अणभवाची अपेक्षाच सोडून दितात आमी. लीएनान साखरेच्या गोडसाणेची अपेक्षा सोडली तशी. पूण हे सगळे कोडू अणभव एकठावन कोणेंय एखाद्र्या मनशान एक खेप तरी अणभवांचो तसलो गोड -रसाळ अणभव अणभवूंक देव आमकां सुयोग दिता, जशेपरीं आमी कोडू जिनस मिसळ करून गोड केक तयार करतांव तसो. आनी देवान आमकां भोगूंक दिलेल्या अणभवांची खोशी मात वर्णन करून वर्णूंक जायना तशी. असली खोशी भोगूंक आमी धीर सोडीनासताना थीर रावपाची मात गरज.

16.

# ती सांज आयली पूण...

**त्या** गावांत ते सांजेचो एक संगीताचो कार्यक्रम जावपाचो आसलो. संगीतकार खूब लौकीकाचो आसलेल्यान कार्यक्रमाच्यो सगळ्यो तिकेटी आदींफुडेंच खपलेल्यो. तिकेटी मेळिल्ले लोक आपल्याक नशीबवंत समजून त्या कार्यक्रमाची वाट पळेत आसले.

अखेरक ती सांज आयलीय बी. पूण...अकस्मात वादळ वारें सुटून पावस थांबनासताना एकसारको वोतत राविल्ल्यान कार्यक्रमाक एकूच मनीस हाजीर आसलो. एकाच मनशाक पळोवन संगीतकाराचो इश्ट निराशी जालो. कार्यक्रम रद्द करपाचो आपलो निर्णय ताणें संगीतकाराक सांगून सोडलो. संगीतकारान खीणभरय विचार केलो ना. म्हणूक लागलो,

“ना. ना. तशें जावपाक शक्यच ना. कार्यक्रम कसोच रद्द करूंक जायना. कार्यक्रम रद्द केल्यार आयलेल्या प्रेक्षकाचो अपमान जातलो. हांव ताचो अपमान करूंक शकना. कार्यक्रम जातलोच जातलो.”

आनी त्या संगीतकारान आपल्या कार्यक्रमाची सुरवात केली. एका प्रेक्षकाखातीर. ताणें तेच उर्बेन गीतां गायलीं जितले उर्बेन तो आख्या हॉलभर प्रेक्षकांखातीर गायतलो आसलो.

त्या संगीतकाराचो गूण आमच्यांनी आपणावंयेत? कित्याक ना?

17.

# तो कसोच फुडें वचना

त्या गांवचो राजा एकदम दयाळ आसलो. इतलो दयाळ, एकूय गरीब घराबो वा एकूय रस्त्यावेलो भिकारी ताचे नदरेआड उरूंकूच शकनासलो. दर एका गरीबाक मदत करपी हो राजा, आपल्यां घोड्यार बसून राजवाड्यांत भोंवडेक वतना दर एका गरीब घरांत भितर सरतालो. तांच्या दीसपट्ट्याची चवकशी करून तांचे हाल ल्हव करूनच आपले फुडले वाटेक लागतालो. वाटेर कोणूय भिकारी बा दिसल्यार आपल्या घोड्यावेलो देंवून ताका फाव तेपरी आदार दिल्या उपरांतूच तो फुडें वतालो. मागीर वाटेर कितल्याय गरीब भिकारी मनशांची खोशी करपाखातीर कितलेय खेप घोडो थांबोवन खाला देंवक त्रास पडल्यार लेगीत तो ताची पर्वा करीनासलो.

ताका पर्वा आसली ती फकत गरीबांच्या तोंडार हांसो खेळोवपाची.

एक दीस एक म्हत्त्वाचो निरोप शेजारच्या राजाक पावोवपाचो आसलो. त्या खिणाक आनीक दुसरो घोडो नासलेल्यान निरोप घेवन वचपी चाकराक राजाच्या घोड्यावेल्यान वचपाची परवनगी दिली.

निरोप दिवन तो चाकर परतलो तो तक्रार घेवनूच. राजाक सांगूंक लागलो,

"म्हाराज, दुसरे खेप ताकतिकेच्या कामाखातीर हांव ह्या घोड्याचो वापर करपाचो ना. हो घोडो दर एका गरीब घराब्या सामकार आपोआप

थांबता. आनी वाटेर जर एखाद्रो भिकारी दिसलो जाल्यार ताचे सामकार थांबलेबगर कसोच फुडें वचना. हट्टूच धरून रावता."

निरोप दिवपी चाकराक घडये त्या घोड्याचो संदेश गमूंकच ना आसतलो. पूण आमकां....?

## 18.

# धीर मेळचेखातीर

शारापासून खूब पयस आसलेल्या एका एकसुऱ्या जाग्यार रॉबर्टान घर बांदलेलें. ताचे बायलेक हें घर खूब आवडटालें. गरमेच्या दिसांनी विसव घेवपाखातीर तीं त्या घरांत रावंक येतालीं. शारांतल्या बोवाळाचेर, गोंधळाचेर विसर घालपाखातीर तांकां हाचेपरस बरी अशी दुसरी सुवातूच नासली. दर वर्सा तीं हांगां येतालींच.

त्याय वर्सा तीं त्या घरांत शांतीन आपली सुटी मनयतालीं. सांजेच्या वेळा पासयेक गेलेबगर तांचें समादान जायनासलें.

आनी अशेच एके सांजे पासयेक गेल्लेकडेन तांकां एक खोंपटी दिसली. आजूबाजूक कोण झळकनासलो. भुरग्यांच्या खेळपाचोय आवाज येनासलो. अशा एकसुऱ्या जाग्यार ते खोपटेंत कोण रावता आसत ताची तांकां बारीकसाण जाली. जाणा जावन घेवपाचें थारायलें ताणी आनी रोकडेंच दारार मारलें.

दार उगडपाखातीर दारांत एक जाणटी अस्तुरी आयलेली ती पळोवन अजाप जालीं. पूण ती जाणटी अस्तुरी मात खोशी जाली.

रोबर्टाच्या घराक बोट दाखोवन म्हणूंक लागली, "तुमी त्या घरांत रावतात जावंक जाय. न्हय? हांव हांगासर एकटीच आसतां. फाटले पांच दीस हांव खूब खोशी आसां. तुमच्या घरांत दिसतलो उजवाड म्हाका धीर दिवपी फोलेर कसो दिसता. तुमच्या जनेलांतल्यान येवपी लायटीचो प्रकाश म्हज्या जिवितांत भरवंशाचीं किरणां फांकारता. तुमी हांगासर रावंक येवन खूब बरें केलें. आतां तुमी हांगाच रावतेलीं?"

जाणटेलेचें तात्पुरतें समादान करीत ताणें म्हळें,

"आमी हांगासर आनीक थोडेच दीस आसतेलीं. तेन्नामेरेन सद्दां आमी तुका मेळूंक येतलीं." आनी परत वचपाचो निमणो दीस येतमेरेन तीं तिचे खबरेक वचत रावलीं.

शेवटाक परत वचचे आदीं ताणी केलें तें हें, आपल्या घराच्या जनेलांतल्यान सदांच सांजेचो उजवाड दिसचो म्हण लायट पेटोवपाची वेवस्था केली - आपल्या जनेलांतल्यान दिसतल्या उजवाडांतल्यान ते जाणटेलेक अदीक धीर मेळचेखातीर.

## 19.

# आनीक कितें जाय?

जुगारूच तो. बरें नशीब आसलेलो मनीस हजारांनी दुडू घेवन घरा वता जाल्यार कांय जाण घराकडसून हाडलेले हजारांनी दुडू वगडावन रिकामी हातांनी घरा परततात. अखेरेक नशीबच तें! केन्ना बरें तर केन्ना वायट. केन्ना भरपूर दिता तर केन्ना सगळें काडटा. कसलीच खात्री

आसना.

रेस - कोर्सांत नोकरी करपी तो गरीब कामदारूय हेंच चिंततालो. घोड्यांच्यो रेसी खेळूंक येवपी मनशांक तिकेटी विकपाचें काम तो फाटल्या कितल्याशाच वर्सांसावन करीत आयलेलो. घोड्यांचेर 'बॅट' मारून दुडवांकार जावचेलीं सपनां सपनेवपी मनीस ते. तांच्या जिविताचो अणभवूय घेतलेलो ताणीं. आनी देखून आपल्या पगारांतल्यान जोडिल्लो दुड्ड चिंतूनूच खर्चितालो. उरलेलो दुडू सांबाळून ताणें सुमार 10,000 रूपया आपल्या नांवार बँकेंत जमा केलेले - आपल्या आख्या जिविताची कमाय.

आपल्या कश्टांच्या ह्या दुडवांचो बरो उपेग जावंचो अशें ताका दिसतालें. आनी हेच भिरकेंत ताका अकस्मात एक युक्ती सुचली. आपल्या भावाचो पूत रिवो दुडवांचे अडचणीक लागून कॉलेजीक वचना. तर रिवोचेरूच ह्या धा हजार रूपयांची 'बॅट' मारल्यार कशें? अशें चिंतून ताणें आपल्या नांवार आसलेले धा हजार रूपया काडून हाडले आनी रिवोच्या फुडल्या शिक्षणाची वेवस्था केलीच ताणें.

दुडू ताचोच म्हणटकूच वापरपाचो हक्कूय ताकाच. तरूय लेगीत ताच्या भावाक अजाप दिसलें. आपलें आसलें नासलें हे परीं खर्चुपाचो निर्णय घेवपाफाटलें कारण विचारलेंच ताणें. आपल्या भावाक जबाब दित तिकेटी विकप्यान म्हळें, जिवीतभर घोड्यांचेर 'बॅट'मारपी मनशांक हांव पळयत आयलां. घोड्यांचेर 'बॅट' मारून भिकारी जालेले गिरेस्त मनीस हावें देखल्यात. घोड्यांचेर हजारांनी दुडू वगडावन भिकारी जावचे बदलेक एका मनशाचेर 'बॅट' मारून भिकारी जालो जाल्यार अर्थ आसचो ना? शिवाय एका मनशाचेर 'बॅट' मारून हांव हारतलोंच कित्यावेल्यान? आनी समज हारलोंच, भिकारी जालोंच जाल्यार एका मनशाक मदत केलेल्याचें सूख - समादान तरी मेळचें ना? एक बरी करणी आदारलेल्याचें पूण्य तरी म्हाका लाभचें ना? आनीक कितें जाय?

## 20.

# पायच्या पावलांनी

बर्फ पडपाचो ऋतू तो. हिंवाचे हे दीस त्या पाय - पुताचे खूब आवडिचे. पासयेक वचपाक ह्या दिसांपरस आनीक बरे दीस नासलेच तांकां. चुकनासताना दीसपट्टीं ते आपले सदचे भोंवडेक वतालेच.

त्या दिसा ते बर्फाची पर्वा करीनासताना बर्फाचे वाटेंतल्यान आपली वाट काडीत चलत आसले. हाताक हात धरून चलताले ते. केन्नाय पूत पायचो हात सोडून हेवटेन तेवटेन धांवतालोय बी. आनी असोच पायचो दोळो चुकोवन तो खेळाच्या नादार आसताना अकस्मात ताका आपलो पाय दिसनासो जालो. आपूण खूब फाटीं उरलो, आपूण शेणला जायत म्हण समजून तो भियेलो. रडूंक लागलो. तरी लेगीत धीर सोडलो ना ताणें. उठलो. हेवटेन तेवटेन पळयत रावलो. पायक सोदीत रावलो. पूण पाय झळकलोच ना. अकस्मात झळकलीं तीं बर्फाचे वाटेर पायन दवरलेलीं तीं पावलां. पुताचे खोशयेक शीम मेर उरली ना. खूब खोशी जालो तो. आपलो पाय मेळिल्ल्याचें समादान जालें ताका. आपल्या पायच्या पावलांनी तो चलत रावलो. फुडें वचत रावलो आनी शेवटीं आपल्या पायच्या बगलेक पावलोय बी. पायच्या पावलांनी.

आमीय बी आमच्या जिविता वाटेर फुडें फुडें प्रवास करीत आसांव - आमच्या पावलांची निशाणी आमचे फाटल्यान दवरीत. आमच्या पावलांनी चललेल्या मनशांक आमचीं पावलां खंय पावयतलीं? आमचे फाटल्यान

चलत येवपी हेर पोयणाऱ्यांक आमच्या पावलांची निशाणी सुरक्षित थरतली? आमी चलून गेलेले वाटेन तेवूय वाटसूर चलल्यार सोदीत आसलेलें ठिकाण तांकां मेळटलें? वा आमच्या पावलांनी चलून हे वाटसूर आपली वाट सासणाक चुकतले? नकळटां लेगीत आमचेकडसून असली भिरांकूळ चूक घडची न्हय म्हूण काळजी घेवपाची. आमच्या पावलांनी चललेलो मनीस चुकनासताना जेरूर पावपाक जाय त्याच सारख्या ठिकाणार पावताना असलींच पावलां आमी आमचेफाटल्यान सोडपाक जाय.



## 21.

## फक्त दुडू दिवन न्हय. पूण....

**त्या** गांवचो एक गरीब वावराडी दुडू कमावपाखातीर शारांत गेलो. कश्ट करून दुडू जोडल्या उपरांत आपल्या कुटूंबाखातीर कांय गरजेच्यो वस्तू आनी भेटी घेवन आपल्या हात-गाड्यार लादून तो आपले घरचे वाटेक लागलो. पावसाचे दीस आसले. पावस वोतत आसलो आनी रस्त्यार चिखलाचीं फोंडकुलां पडलेलीं. आपलो हात-गाडो धुकलीत तो चलत आसताना ताचो हात-गाडो एका चिखलाच्या फोंडकुलांत रोंबून उरलो. एकसुरो जागो आसलेल्यान हात-गाडो उबारपाक ताची मदत करपाखातीर थंय कोणूच नासलो. ह्या ताच्या आकान्ताच्या वेळार एक मोटारगाडी घेवन वचपी ताचे मुखार येवन थांबलो. तो एक गिरेस्त मनीस आसलो. आनी मनान दयाळ लेगीत. आपले मोटारगाड्येक ताचो

हातगाडो एका मोट्या दोरान बांदून आपल्या हातांनी चिखलाची माती कडेक काडीत चिखलांत रोंबलेलो तो हात-गाडो फोंडांतलो भायर काडलो. तितलेंच न्हय तर परत ताचो गाडो फोंडकुलांत पडून ताका आनीक त्रास जावंचे न्हय म्हूण आपले मोटारीक हात-गाडो बांदून ताका ताच्या घरा पावयलो. घरालागीं पावनाफुडें त्या वावराड्याची गरीब परिस्थिती पळोवन तो खूब चुरचुरलो. मदत म्हूण ताणें त्या वावराड्याक शंबर रूपयांच्यो थोड्यो नोटी दिल्यो आनी आपले फुडले वाटेक लागलो.

कांय वर्सां उपरांत तो गिरेस्त मनीस मेलो. झड्टेक पावलो तेन्ना ताणें आपल्या धंद्यांत कांय फटींगपणां केलेल्या कारणान देवान ताका पेरगतरींत धाडपाचें फर्माण मारलें. देवान ताचें हें फर्माण वांटावचे खातीर बऱ्या वायट कर्तुपांचो हिशोब दवरपी बडव्याक परत एक फावट ताच्या कर्तुपांचेर नदर दवरपाक थारायलें. गिरेस्त मनशाच्या बऱ्या कर्तुपांचे तागडेंत बोडव्यान त्या वावराड्याक ताच्या कुटूंबासयत घातलीं. पूण वायट कर्तुपांची तागडी जड ती जडूच उरली. जबरसो फरक पडलो ना. परतून बऱ्या कर्तुपांचे तागडेंत त्या गिरेस्ताची मोटरगाडी आनी त्या वावराड्याचो हात-गाडो लेगीत घातलो. तरूय लेगीत बऱ्या कर्तुपांची तागडी हलकीच उरली. उपरांत तो हात-गाडो फोंडांतलो वयर काडपाखातीर कडेक काडलेली ती माती घातली. आनी...बऱ्या कर्तुपांची तागडी जड जावन सारकीच एके वाटेन आयली. आनी गिरेस्त मनशाची पेरगतरींतल्यान सुटका जाली.

दुडवांनी आनी मोटारगाडयेन करूक शक्य जावंक नासलेलें काम, गिरेस्त मनशान आपल्या हातांनी कडेक काडलेल्या चिखलाचे मातयेन शक्य करून दाखयलें.

फक्त दुडवांनीच न्हय पूण करण्यांनी मदत केल्यार आमकां फायद्यांचेंच थरतलें.

22.

# आनिशाची बुद्ध

आनिशाक प्रश्न विचारपाची खूब संवंय. आनिशा धाकटें आसलें तरीय ताचे प्रश्न मात धाकटे आसनात. आपणें विचारलेल्या प्रश्नाची जाप ताका जायच आसता. आनिशान मान वयर करून विचारिल्ल्या ताच्या अर्थाळ प्रश्नांक जाप दिनास्ताना रावंक जाता तरी खंय म्हाका?

ते सांजे आमी दोगांय गॅलरींत उबीं आसलीं. तीन वर्सांचें आनिशा आनी हांव. सदांभशेन आनिशाच्या प्रश्नांची सांखळ चालू जाली. मदेकाकूच रस्त्यान वचपी लॉरीक बोट दाखयत म्हाका विचारूंक लागलें,

"फिलू आंटी ही - ती बस कोनाची?"

बस आनी लॉरी मदलो फरक ताका समजायत हावें सांगलें,

"ती बस न्हय. लॉरी!"

"लॉली?" आनिशान प्रश्नचिन्नित आवाजांत म्हाका विचारलें.

"हय राजा. लॉरी ती" हावें ताचें समादान करीत परत एकदां सांगलें. पूर्ण अर्थ समजल्याशिवाय समादान मानपी तें आनिशा कसलें?

पळयत रावलें म्हाका, अर्थाचें स्पश्टीकरण मेळपाचे आशेन. म्हणूक लागलें,

"आमचे भाशेन शांग पोया"

खिणभर कांयच सुचलें ना म्हाका. आनिशाचेर दोळे खिळावन उरलें हांव. आमचे भाशेन सांग पळोवया हीं ताचीं उतरां कानांनी सादत

रावलीं म्हज्या. आनिशाच्या ह्या उतरांनी नकळटां चिंतूंक लायलें म्हाका. आमचे भाशेन सांगूंक शकताना हांव आमचे भाशेन कित्याक सांगना? मदींच अशे वेगळे शब्द कित्याक? आमचे भाशेचेर अन्याय कित्याक? आनिशाचेर अन्याय कित्याक?

"फिलू आण्टी, फिलू आण्टी सांग नू!" म्हणत आनिशा म्हजे हात ओडीत आसलें. म्हाका शुद्धीर हाडीत आसलें.

आनी हळू हळू शुद्धीर आयलेंय बी हांव. म्हळें,

"राजा, ट्रक तो."

"त्लक?" आनिशान खात्री करीत विचारलें.

"हय राजा, त्लक?" आनिशाची नक्कल करीत हावें म्हळें.

आनी आनिशाचे भाशेंत सांगपाची आनिशाचे बुद्धिची नक्कल सदांच करपाचो हावें तेन्नाच निर्णय घेतलो.

## 23.

# म्हजेर ही अनीत कित्याक?

**पां**च वर्सांचें आनिशा म्हळ्यार झ्यिठीचें प्रतिक. आनी हे झ्यिठीक लागून घरांतल्या मनशांकडल्यान दोन- तीन नियमितपणीं थापटां खावपाची संवय आसा ताका. हांव सोडून. आयज परियान आनिशाक मारूंकच शकना हांव. आनिशान कितलीय झ्यिठ केली जाल्यार लेगीत ताचेर थापट मारूंक म्हजो हात कसोच उखलना. आनिशाकूय हाची भरपूर खबर आसा. "फिलू आंटी, तूं म्हाका मारीना मूं?" म्हटलेलें आसा ताणें

तरूय लेगीत ताचो अंदाज घेवचो म्हूण हावें ताका ल्हवूच धापट मारून दाखयत सहज विचारलें, "राजा, हावें तुका अशें मारलें जाल्यार तूं कितें करतलें?" बेगीनूच जबाब आयलो, "हांव रडटलें." आनी उपरांत खीणभर वोगी रावून म्हाका पळयत परथून आत्मविश्वासान म्हणूंक लागलें, "ना फिलू आंटी, हांव तुका विचारतलें, तुवें म्हाका कित्याक मारलें?"

आनिशान म्हाका दिलेल्या जबाबांत ताचो विचार आसलो. एक म्हत्वपूर्ण विचार करपाक लावपी विचार. आनी खऱ्यांनीच विचार करूंक लागलें हांव.

म्हजेर आन्याय जाता म्हूण जाणा आसताना लेगीत हांव कितें करतां? आवाज काडिनासतांना अन्यायाक बळी पडटां? हात कवळून बसून हो अन्याय सोंसून घेतां? तेंवूय जाल्यार म्हजो कसलोच अन्याय नासताना? वा, हावें वगीच बसून रावूंक जायना म्हूण शुध्दीर येवन त्या अन्यायाविरूध्द झुजूंक हांवूच म्हज्यांत धाडस निर्माण करतां? त्या अन्यायाआड आवाज काडटां?

आनीकूय पळयल्यार आमचे भोंवतणी अनितूच अनीत चलता. ही अनीत नश्ट करूंक आमी कितें करतांव? हे अनीतीचेर दुर्लक्ष करून ही अनीत अशीच चलूंक दितांव? अनीतीक सांपडलेल्यांचें दुर्दैवी जिवीतं जियेवपाक तांकां तशींच सोडटात? वा, ही अनीत जातेल्यांमदीं सामील जावन हे अनीतीचे आड झुजूंक आमी तांकां उत्तेजन दितात? धीर दितात? कारण नासताना जालेली अनीत पयस करूंक आमी कसलीं पावलां मारतात? कितें करतात आमी?

आमीच आमच्यांत हिंमत कित्याक निर्माण करतात? आनिशापरीं आमीय बी आमचेर अनीत करतल्यांक हो प्रश्न विचारूंक शकतले, "तुमी आमचेर ही अनीत कित्याक करतात?"

## 24.

# अशी ही करमणूक

तीन वाटांचेर बसींत बसून आसलीं हांव आनीक दोगां चेडवां. बस सुटपाची वाट पळयत. फुडले बसकेर एक आवय आसली आनी कुशीक तिचो पूत - सुमार तीन / चार वर्सांचो. खूब उलोवपी. उलोवपी म्हणचेपरस प्रश्नूच विचारपी म्हणपाचें. बसूय सुटनासली. आनी ताच्या प्रश्नांनी आवयक बेजार आयलेलो आसूंक जाय. ताका वगी करपाखातीर तिणें एक युक्ती काडली. बसीच्या जनेलांतल्यान हात भायर काडीत लागींच आसलेल्या झाडाचे तेंगशेक बोट दाखयत आपल्या पुताक म्हणूंक लागली, "हो तो पळय थंय आंबो आसा. बरो पिकलेलो. पळय, पळय मरे." भर पावसाच्या काळार झाडाक पिकलेलो आंबो!! तरूय लेगीत आंब्याचें नांव घेनाफुडें पुताक उमेद आयली. तोवूय जाल्यार उंच झाडाचे तेंगशेर...

पुताची उत्सुकताय आनीकूय वाडली. आंब्याचो सोद आतां लावपाक जायच आसलो ताका. बरो पिकलेलो आंबो खावपाची रूच वाडली जावंक जाय ताची. बसिच्या जनेलांतल्यान झाडाची तेंगशी पळोवंक लागलो तो. मान ताणीत आंबो सोदीत रावलो बाबडो. तरूय जाल्यार इतल्या सगट पानांनी लिपलेलो आंबो. धाकट्याची नदर आख्खें झाड भोंवली. पूण आवयन सांगलेले प्रमाण बरो पिकलेलो आंबो मात नदरेक पडलो ना ताचे. रागानूच आपले आवयक विचारलें ताणें, "खंय आसा गे आई पिकलेलो आंबो?"

ताचेर दुर्लक्ष करीत आवयन "पळय मरे सारकें, आसा थंय." म्हूण सांगून आपले कुशीक बसलेल्या वळखिच्या चेडवालागीं आपलें उलोवप चालू दवरलेंच तिणें. उलयत रावलीं तीं दोगांय, धाकट्याक आंब्याच्या सोदांत लावन. पूण आंबो मात ताचे नदरेक पडलोच ना. तरूय लेगीत धीर सोडलो ना. आपली मान आनीकूय ताणीत आख्खें झाड नदरे पोंदाक घाचलें ताणें. एकानएक पानांफाटल्यान पिकलेलो आंबो सोदीत. आनी तेन्नाच, म्हळ्यार बस सोडपाखातीर जेन्ना ड्रायवरान बसिचें इंजिन सुरू केलें तेन्नाच ... त्याच खिणाक आवयचो हात ओडीत तिची नदर आपले नदरेबरोबर झाडाचे उंच तेंगशे दिशेन व्हरत म्हणूंक लागलो,

"पळय गे आई, पळय गे आई हो पळय आसा पिकलेलो आंबो."

कोणें कोणाक पिशांत काडलो? पूण आवयचे कल्पनेंतल्या पिकलेल्या आंब्याक लागून बसींत आसलेल्यांची आमची सगळ्यांची करमणूक मात भरपूर जाली.

## 25.

## सपनाचो परीणाम

**ता**चेर तवशीं चोरपाची ताळणी आयली आनी तो मनीस तवशीं चोरूक शेजारच्या पोरसांत घुसलो. थंयच तो आपल्या काल्पनीक संवसारांत गुल्ल जालो. कल्पना करीत. सपनां सपनेत तो आपणे घडोवन हाडलेल्या एका वेगळ्याच संवसारांत पावलो. चिंतूंक लागलो, 'हो साखभर चोरलेलीं

तवशीं हांव बाजारांत व्हरून विकतलों आनी तीं विकून मेळिल्ल्या पैशांनी एक कोंबी विकती घेतलों. ती कोंबी तांतयां घालतली, पिलां काडटेली. हीं पिलां विकून हांव एक दुकोर विकतो घेतलों. त्या दुकराचे पेटे विकून खूब पैशे मेळटले. ह्या दुडवांनी हांव एक घोडो विकतो घेतलों. आनी उपरांत तो घोडोय बी विकतलों. आनीकूय दुडू मेळटले. ह्या पैशांचेर हांव एक सोबीत सरभोंवतणी बाग आसलेलें एक घर विकतें घेतलों. ते बागेंत हांव तवशीं रोयतलों. खूब तवशीं लायतलों. कोणेंनूच म्हजीं तवशीं चोरचीं न्हय म्हूण हांव काळजी घेतलों. कडक पहारो दवरतलों. कोणाकूच म्हज्या तवशांक आफडूंक दिवचो ना. गरज पडल्यार एक राखणदार लेगीत दवरतलों. आनी थोड्या थोड्या वेळान भायर येवन आवाज दितलों, ए, कोण आसा थंयसर, भायर यो.'

तो मनीस थंयसर इतलो गुल्ल जाल्लो, ताका कसलेंच भान उरलें ना. आपूण कोणाचींतरी तवशीं चोरतां म्हूण लेगीत सुद उरूक नासली ताका. आनी तेय स्थितींत तो आपल्या सपनांतल्या चोराक व्हडल्यान आरड मारून म्हणूंक लागलो, "ए, कोण आसा थंयसर, भायर सर." ताचो हो आवाज त्या पोरसाची राखण करपी राखणदारान आयकलो. राखणदार धांवत आयलो आनी त्या चोराक बडोवन काडून सारको शुद्धीर हाडलो.

अती सपनां सपनेल्यार अशेंच जाता न्हय?

# 26.

## राजाच्या प्रश्नाची जाप

**त्या** राजाच्या दरबारांतलो गिन्यानी मनीस मेलो. ताचो जागो भरून काडचेखातीर राजा खूब काळ लेगीत तसल्याच गिन्यानी मनशाच्या सोदांत आसलो.

एक दीस, आपलो भेस बदलून राजा आपल्या गावांत भोवूंक भायर सरलो. एकटोच चलत चलत तो एके ल्हानशे खोंपटेलागीं पावलो. थंय ताणें पळयलो एका गरीब जाणट्या मनशाक, जो आपलेलागीं आसलेलें थोडें जेवण आपल्याहून गरीब परिस्थितींतल्या मनशांक वांटून उरलोलो वेळ मागणें करून सारतालो. राजाक त्या मनशाची वागणूक वेगळीच दिसली. राजाक जाय आसलेलो गिन्यानी मनीस ताका ते झोपडेंतूच मेळपाची शक्यताय दिसली. तरूय लेगीत त्या जाणटेल्याची आनीकूय परीक्षा घेवपाची ताणें थारायलें. जाणटेल्याच्या घरांत भितर सरून राजान ताका म्हळें, "इश्टा, म्हाका तुजेलागीं तीन प्रश्न विचारपाचे आसात, ज्या प्रश्नांचे जबाब हांव खूब्ब काळ मेरेन सोदीत आसां." अशें सांगून आपल्या प्रश्नाची झळक राजान त्या जाणटेल्याक दिवपाक सुरवात केली. म्हणूंक लागलो,

"म्हजो पयलो प्रश्न - मनीस सगळ्याहून श्रेश्ठ केन्ना आसतासो दिसता तुका?."

जाणटेल्यान प्रश्नाक जबाब दीत म्हळें,

"मनीस जेन्ना दुःखांत आसताना लेगीत हांसता, खंती अदृश्ट

कसलोच आवाज कडीनासताना सोंसता आनी आपल्या केलेल्या वावरा कश्टांचें मोल आपल्याक आपलो मालक फारीक करपाचो ना हें जाणां जावनय वावरत रावता तेन्ना."

ते उपरांत राजान आपलो दुसरो प्रश्न विचारलो,

"एक अस्तुरी खंयसर श्रेश्ठ आसता?"

जाणटेल्यान जबाब दीत सांगलें,

"आपल्या बाळाच्या पाळण्यासरीं. मरतल्या मनशाचे खाटीसरीं आनी देवाच्या पांयालागीं."

राजान तिसरो प्रश्न केलो,

"देव केन्ना श्रेश्ठ आसता?"

"देवाचे श्रेश्ठतायेक मात्रो आसनात. देव सदांच श्रेश्ठ."

राजान त्या जाणटेल्याक वेंगयलो आपलेबरोबर त्या जाणटेल्याक राजम्हालांत व्हेलो. राजाच्या सोदाक येस मेळ्ळें. एक गिन्यानी मनीस मेळ्ळो.

## 27.

## तीन चाळण्यो

एकदां एक दादलो, ग्रीक तत्वगिन्यानी सोक्रेटीसा सरीं आयलो आनी म्हणूंक लागलो,

"ओ सोक्रेटीस, तुवें हें आयकलां?"

"मात्सो राव, मात्सो राव." ताका थांबयत सोक्रेटीसान विचारलें,

"तूं म्हाका जी गजाल सांगूंक सोदता ती गजाल तिनूय चाळणेंत घालून पयलीं चाळून घेतल्या?"

"तीन चाळण्यो?" त्या मनशान अजापभरीत जावन सोक्रेटीसाक परत प्रश्न केलो.

"हय. तूं म्हाका सांगूंक सोदता ते गजालींत कितली लेगीत घटाय आसा ती पळोवंया. पयली चाळण म्हळ्यार - सत. तूं म्हाका सांगूंक सोदता ते गजालींत खऱ्यांनीच सत आसा हाची तुवें खात्री करून घेतल्या?"

दादल्यान जाप दिली, "म्हाका ते गजालीची खात्री ना. हावें ती गजाल दुसऱ्यांकडल्यान आयकल्या."

"अशें तर! तूं सांगूंक सोदता ते गजालींत सत बिलकूल ना." सोक्रेटीसान म्हळें. "आतां दुसरी चाळण घेवंया. तूं म्हाका जी गजाल सांगूंक सोदता, ते गजालींतल्यान कसलेंय बरेपण येतशें दिसता तुका?"
"बरेपण तर येवपाचेंच ना. पूण बरेपणा उलट घडपाची शक्यताय आसा." दादल्यान सांगून सोडलें.

"हां! आतां तिसरी चाळण घेवंया." सोक्रेटीसान म्हळें, "तिसरी चाळण म्हळ्यार - गरज. तूं म्हाका सांगूंक सोदता ती गजाल कितली गरजेची आसा?"

"ती गजाल गरजेची अशें कांय म्हाका दिसना." त्या मनशान म्हटलें.

"हें पळय" सोक्रेटीसान ताका समजायत म्हळें, "इतले उतावळीन तूं म्हाका एक गजाल सांगपाक आयला. पूण ते गजालींत सत ना. तातूंतल्यान कांयच बरेपण येवपाचें ना. आनी ते गजालीची कसलीच गरजूय ना. म्हणटकूच आमी ते गजालीचेर लक्ष घालीना तितलेंच बरें." सोक्रेटीसान फुडें सांगलें, "आमचे मुखार इतलें बरें करचेले सुयोग आसताना ह्या असल्या ल्हान सान गजालींक म्हत्व कित्याखातीर दिवंचें?"

“उखल्ली जीब लायली ताळ्याक” हें आमकां सदांचेंच जालां. पूण मातशें थांबून आमी आमकांच सांवरून घेतल्यार फायद्याचेंच जातलें. आमचो मोलादीक वेळ मोल नासलेल्या गजालींचेर खर्चुपांत कसलेंच शाणेपण ना म्हूण आमकां जाणवतलें. वायटपण हाडटले घडून आयलेले गजालींचें दुर्लक्ष करून प्रत्येक मनशाक बऱ्याक पडपासारखी गजाल आमी घडोवनूच कित्याक हाडची न्हय?



28.

## बरो सामारीतान कोण?

**त्या** दिसा ते सेमिनारींतल्या सेमिनारिस्तांक एक म्हत्वाचें काम दिलेलें. नव्या सामारीतानाचेर आटापून एक प्रवचन करपाचें. आप आपलें प्रवचन सगळ्यांमदीं श्रेश्ठ थरचें अशी जण एकल्याची अपेक्षा आसली. दर एकलो ह्याच उद्देशान आप आपल्या प्रवचनाचे तयारेक लागलेलो. एक एकल्याक आपल्या सामकार दिसतालें तें फकत बऱ्या सामारीताना विशींचें प्रवचन.

थारायलेल्या दिसा आनी थारायलेल्या वेळार वसऱ्यांत पावपाक सगळ्या सेमिनारिस्तांचो बोवाळ आसलो. आनी तेन्नाच तांकां नकळटांच प्राध्यापकान कसलेंतरी निमित्त दिवन तांकां थोडो वेळ आडावन दवरलेत. आनी शेवटाक वेळार पावपाखातीर जण एकलो वसऱ्याचे वाटेन धांवतूच सुटलो. वतना तांचे वाटेर एक जाणटो मनीस तांची वाट आडायत उबो आसलो. आपल्याक मदत मागपाचें संवंग करीत उबो आसलो तो. पूण

दुर्देवान एकल्या लेगीत सेमिनारिस्तान ताचेशीं लक्ष दिलें ना. कोणेंच प्रश्न सुटयलो ना ताचो. ताका थंयचे थंयच उबो सांडून प्रत्येकजाण वसऱ्यांत वेळार पावपाक धांवून गेलो. कितलेंय जाल्यार बऱ्या सामारीतानाविशीं प्रवचन करचें आसलें तांकां. फक्त प्रवचनूच करचें आसलें! करण्यांनी दाखोवपाचें न्हय?

आमचेंय बी तशेंच! आमी कितें करतात? आमच्या दीसपट्ट्या कामांतल्यान वेळ काडून त्रास घेवन त्रासांत आसलेल्यांच्या त्रासांनी सामील जातांव? आमच्या गरीब शेजाऱ्याक आर्थीक मदत करून तांचे अॅडचर्णींत आमी वांटेकार जातांव? अदृश्टी मनशांचें पडलां तरी कोणांक? अशी आमची वृत्ती जावन आसा? आनी आमी सिध्द करतात जाल्यार कशें? फक्त अदृश्टा आनी अदृश्टी मनशांविशीं शब्दांनी दुःख प्रगट करून? वा करण्यांनी अदृश्टी मनशांचें दुःख ल्हव करून?

बरो सामारीतान कोण? बरो सामारीतान जावपाचें संवंग करीनासताना बरो सामारीतान जावपाचो यत्न करपाक जाय आमी.

## 29.

## अणभवान शाणे जा़वपाचे

तो जाणटो चाकर आपल्या राजाची खूब काळ चाकरी करीत आयलेलो. प्रामाणिकपणान. पद्धतशीरपणान. अर्दकुटें काम ताका केन्नाच जमलेंच ना. ताणें राजाची सेवा करची, ती मन लावूनच. राजाचें मन तर ताणें सारकेंच जिकून घेतलेलें. खूब खोशी आसलो राजा ताचो. ताची

इत्सा केन्नाच अपुरी उरूंक दिली ना राजान.

जाणटो चाकर तो. पिरायेक बळी पडलो. दुयेंसान मर्णाक लागीं पावलो. ताचीं घरचीं एकवटलेलीं, इश्ट मित्र जमले. राजाय बी ताचेशीं आयलो. म्हणूंक लागलो, "इतलीं वर्सां मोगान तुवें म्हजी सेवा - चाकरी केल्या. तुजे उपकार हांव फारीक करूंक शकना. तरूय लेगीत तुजी निमणी इत्सा म्हाका सांग. हांव तुजी खोशी पूर्ण करतलोंच."

"हय" म्हळें त्या चाकरान "म्हाका तुजेकडल्यान एक उपकार मेळ्यार उपकारूच जातलो."

राजान उत्सुकतायेन विचारलें , "कसलो उपकार?" तेन्ना चाकरान आनीक वेळ लायलो ना. म्हणू लागलो, "राजा सायब, म्हाका म्हज्या जिवितांत फक्त आनीक एकूच दीस जियेवंक दी."

राजाचें तोंड सामकें देंवलें. आपल्या चाकराची निमणी इत्सा पुराय करपाची भरपूर इत्सा आसताना लेगीत आपूण कांयच करूंक शकना म्हूण दुःखी जालो राजा. ताका म्हणूंक लागलो, "म्हाका ह्या संवसारांत एक पदवेदार राजा म्हूण कीर्त आसा. तशी खूब पदवी आसाय म्हाका. पूण तुज्या जिवितांतलो एक दीस वाडोवन दिवपाचें मात म्हज्या हाताभायर आसा. जिविताचेर अधिकार आसचो तो फक्त देवाचोच. हांव तुजी इत्सा पुराय करूंक शकना."

चाकराक राजाचें म्हणणें समजलें. म्हणूंक लागलो, "म्हजेंच चुकलें. म्हज्या जिवितांतलो अदीक वेळ हावें देवाची सेवा करीनासताना, एका संवसारांतल्या राजाची सेवा करपांत सारलो, तेंच म्हजें चुकलें. तेंच म्हजें मुर्खपण आसलें."

तो चाकर तर मुर्ख थरलोच, पूण ताच्या अणभवाचो आमी फायदो घेतल्यार आमी मुर्ख थरपाची शक्यताय नाच. अणभवांतल्यान शाणे जावंया.

## 30.

# चोराक चान्याचो दुबाव

**त्या** दुकानदाराच्या दुकानार चोरयेचें प्रमाण वाडत आसलें. चोराक सांपडावचो त्या दुकानदारान खूब यत्न केलो. पूण चोर कसोच सांपडना तें पळोवन ताका बेजार आयलो. पिकार जालो तो. आनी तसोच उठून आपल्या गांवच्या एका बुदवंत जाणटेल्याची बुद्ध घेवंक ताच्या घरा गेलो.

जाणटेल्याच्या सांगण्याप्रमाण त्या दुकानदारान थारायलेल्या दिसा आपल्या दुकानाचें दार काडून बाजारांत व्हेलें. तो जाणटेलोय आसलो थंय. चोर कोण तें जाणा जावपाखातीर उत्सुक आसलो लोक. शेवटाक तें दार एके सुवातेर दवरून जाणटेल्यान ताचेर एकसारखें निरंतरपणी हातोडी मारीत रावपाचो हुकूम दिलो. दाराचेर हातोडेचो मार घालीत रावपाक सांगलें ताका.

जायत्या वेळान बरोच मार घातल्या उपरांत जाणटेल्यान त्या दुकानदाराक थांबयलो. आपूण त्या दारालागीं गेलो. ओणव घातलो आनी दाराक चोराचें नांव सांगपाक व्हडल्यान विचारलें. दारान सांगलेलें त्या चोराचें नांव आयकुपाक ताणें आपलो कान दाराक लायलो. सवकासायेन उठलो आनी थंयसर जमिल्ल्यांक म्हणूंक लागलो, “हें पळयात, दारान म्हाका चोराचें नांव सांगलांच. चोर कोण तो निकतोच सांपडोवन दिला. दार म्हणटा, हांगा आसलेल्या ज्या मनशाचे तकलेर कचरो पडलेलो आसा तोच चोर.”

हें आयकतकूच त्याच खिणाक एका मनशान आपले तकलेर कचरो

बा पडलेलो आसल्यार तो फाफडूंक आपले तकलेर हात भोंवडायलो.

जाणटेल्यान त्या मनशाक धरलोच आनी उपरांत ताच्या घरांत सोदपूस करून ताचेकडल्यान चोरयेच्यो सगळ्यो वस्तू जप्त करून घेतल्यो.

गुन्यांव लिपोवपाचो मनशान कितलोय प्रयत्न केल्यारूय शेवटाक ताचें मन ताका सांपडावन दिताच.

31.

## आमी केन्ना उलोवपाचें?

एक शिकारी शिकारेक गेल्लो आसताना ताका मनशाची एक तकली सांपडली. ती तकली ताका पळेताली. अजापभरीत जावन ताणें तकलेलागीं विचारलें, "तूं हांगासर कशी पावली?"

"उलोवपान म्हाका हांगासर हाडली." तकलेन सटासट जाप दिली.

तकली उलयता ती पळोवन शिकारी आनीकूय अजाप जालो. आनी ही अजापाची गजाल आपल्या राजाक सांगूंक व्हडा उमेदीन त्याच खिणाक थंयसरलो कडसरलो. सरळ राजवाड्यांत धांवलो. राजाची ताबडतोब भेट घेतली आनी उलोवंक शकतले तकलेची गजाल राजाक सांगली.

ताणें सांगलेली गजाल राजाक सत मानूंक कठीण जालें. तरूय लेगीत ताचे सांगणेंत कितलें लेगीत खरेपण आसा ताची खात्री करून घेवंक राजान आपल्या मंत्र्यांक आनी शिपायांक घेवन त्या शिकाऱ्यांवांगडा रानांत वचूंक भायर सरलो. रानांत ते तकलेलागीं पावतकूच शिकाऱ्यान आदलेपरीं विचार केलो, "तूं हांगासर कशी पावली?" पूण तकलेन जाप दिलीच ना. शिकऱ्याक घाम सुटलो. आनीक एक खेप प्रयत्न करीत ताणें

विचारलें, "तूं हांगासर कशी पावली?" तकलेन आवाज केलोच ना. कसलीच हालचालूय केली ना. शिकारी सामकोच घामाघूम जालो. राजाचो राग पळोवन शिकाऱ्याच्या दोळ्यासामखार काळोख येवंक लागलो. शिकाऱ्यान आपलीं फकाणां करून आपल्या मंत्र्यांसामखार आपणांक पिशांत काडलो म्हूण राजा राग - क्रोधान भरलो आनी त्याच खिणांक आपल्यां शिपायांक त्या शिकाऱ्याची गोमटी थंयच कातरून रानांत जनावरांक खावंक सोडूंक फर्मायलें.

राजा, ताचे मंत्री आनी शिपाय थंयचे कडसरल्या उपरांत ती तकली परतून उलोवंक लागली, शिकाऱ्याचे तकलेक विचारलें तिणें, "तूं हांगासर कशी पावली?" आनी शिकाऱ्याचे तकलेन जबाब दिलो, "उलोवपान म्हाका हांगासर हाडली."

विचार करीनासताना चड उलयलेल्यांचो असोच अंत जाता. आमी, गरज तेन्नाच गरज तितलेंच आनी गरज आसलेलेंच उलोवप केल्यार कशें? अशें केल्यार "उलोवपान म्हाका हांगासर हाडली." अशें म्हणपाची पाळी आमचेर येवंक पावची ना.

## 32.

# राजान तशें कित्याक केलें ना?

एक गरीब आराब अरण्यांतल्यान आपली वाट काडीत चलत आसलो. खूब थकलेलो तो. तानूय लागलेली ताका. आपली तान भागोवंक हेवटेन तेवटेन उदक सोदीत आसताना ताका एक झर दिसली. धांवलोच तो झरीलागीं. तान भागसर उदक पियेलो. धाकटूलीच झर आसली ती.

ताका ते झरीचें उदक इतलें गोड लागलें, इतलें रूचीक लागलें, त्या उदकापरीं आनीक उदक आसूंकच शकना म्हूण समजूत जाली ताची. भरपूर उदक पियेल्या उपरांत आपले चामड्याचे पोतयेंतूय ताणें तें उदक भरलें आनी तो आपले फुडले वाटेक लागलो.

खूब दिसां उपरांत तो आराब एका शारांत पावलो. त्या शाराच्या राजाक भेट दिवपाखातीर ताचेलागीं कांयच नासलें. आसलें तें फक्त झरीचें गोड उदक. हेंच उदक राजाक भेट दिवपाचें ताणें चिंतलें आनी ताणें तें दिलेंय बी. राजा त्या उदकाचो एक घोंट पियेलो आनी त्या आराबाक ताचे भेटेखातीर दिनवाशीत ताका व्हड इनाम दिलें.

राजान त्या आराबाक उदकाचे भेटेखातीर इतलें व्हड इनाम दिलेलें पळोवन त्या उदकाची रूच घेवपाची ताच्या मंत्र्याची उत्सुकताय वाडली. पूण राजा तें उदक चाखूंक कसोच दिना जालो. उदकाचो एक थेंब लेगीत खास मंत्र्याक चाखूंक दिवंक कबूल जालो ना. हे आपले विचित्र वागणुकेचें कारण राजान फक्त तो आराब खोशी जावन थंयचो गेल्या उपरांतूच आपल्या मंत्र्याक उक्तापें केलें. कारण हें आसलें,

इतल्या दिसां उपरांत त्या चामड्याचे पोतयेंतसल्या उदकाक घाणीचो वास येवंक लागलेलो. तें उदक इतलें दुशीत जाल्लें, तें तोंडांत घेवंकूच जायनासलें. पूण त्या गरीब आराबान आपल्याक इतल्या मोगान दिलेली भेट राजा नाकारूंक शकनासलो. उलट तितल्याच मोगान ताणें ती भेट फारीक केलेली. राजान तांकां तें उदक इतलेचखातीर चाखूंक दिलें ना, कित्याक ताणीं त्या उदकाचो एक थेंबो लेगीत चाखलेलो जाल्यार तें उदक दुशीत जालेलें आसा म्हूण त्या आराबाक ते दाखोवन दितले आसले आनी त्या आराबाच्यो भावना दुखावतल्यो आसल्यो. त्या आराबाच्यो भावना दुखावच्यो न्हय म्हणूनच राजान तशें केलें.

आमीय बी केन्नाय दुसऱ्यांच्या भावनांचें मोल वळखून आमकां त्रास पडल्यार लेगीत दुसऱ्यांच्यो भावना दुखयना जावंक तजवीज केल्यार कशें?

33.

# देखूनच तुका धाडला

दोगूय बसींतल्यान प्रवास करताले ते. तो जाणटेलो आनी ताचे कुशीक बसलेलो तरनाटो. तेन्नाच वळख जाल्ली तांची. बरें जमूंकय लागलेलें.

बसीच्या वेगाइतलो तांच्या गजालींनी नेट घेतलेलो. वेगवेगळ्या विशयांचेर उलयताले ते. जाणटेलो मदींच उलोवपाचो थांबलो. बसीच्या जनेलांतल्यान भायर बोट दाखयत तरनाट्याक म्हणूंक लागलो,

"पळय, बेगीं पळय. दोंगरावेल्यान व्हांवपी त्या उदकाक पळय.वांकडी-तिकडी, कांट्या-खुंट्यांतल्यान वाट काडीत कशें व्हांवता पळय, सोंसणिकायेन, गोड आवाज करून, आमकां कितेंतरी सांगूंक सोदता कशें. आमीय जिवितांत आमच्या अडी-अडचणिंतल्यान वाट काडीत वचचें म्हूण सोंसणिकायेन."

खिणांतूच जाणटेलो त्या तरनाट्याक परतून म्हणूंक लागलो,

"हे दोंगरूय पळय. कशे उबे आसात - पावसांत, गिमांत, शिंयांत - धिटायेन. आमकां संदेश दितात कशे. आमीय आमच्या अडचणिच्या वेळार तशेच उबे रावचे म्हूण धिटायेन."

"हं!" म्हणूंक लागलो तो तरनाटो. "देवान हो संवसार असो कायचेकाय दुखी-खंतीनी करूंक नाका आसलो. ह्या संवसारांत रावचेंच म्हळ्यार बेजार येता. हांव देवाच्या जाग्यार आसलेलों जाल्यार हाचेपरस कितलो बरो संवसार घडयतलो आसलों. कितलेच पटीन बरो. असो संवसार,

थंय मोगाशिवाय कांयच झळकचें नासलें. फक्त मोग, सूख, शान्ती, समाधान आनी खुशालकायच खुशालकाय."

जाणटेल्यान ताचें म्हणणें आयकून घेतलें आनी म्हणूंक लागलो,

"देखूनच तर देवान तुका संवसारांत धाडला. देवान रचलेलो हो कायचेकाय संवसार खूब बरो करचो म्हणून. तुवें हो संवसार उमेदीन रावपासारखो करचो म्हूण - तुज्या करण्यांनी."

तरनाटो वगीच रावलो आयकत. जाणटेल्याचें म्हणणें पटलें ताका.

तुमकांय बी?

## 34.

## ताच्या अणभवाचो फायदो

मठांत रावपी एक रूशी तो. दोवाची खऱ्या अर्थान भक्ती करपी. संवसारी वंदावण्यांचेर म्हळ्यार वासनांचेर जैत व्हरतालोच तो. पूण एकेच गजालीचेर आडखळून उरतालो. ल्हान ल्हान कारणांक लागून तापतालो. वोगीच. रागाचेर ताबो उरच नासलो ताचो. ताचे हे खोडीक लागून मठांतल्या वातावरणाचेर परीणाम जातालो. शिवाय, ताका स्वताकूय पश्चाताप जातालो. पूण आपल्याक सांवरूक शकच नासलो तो.

आपले हे खोडिचेर जैत व्हरपाचे हेतून ताणें एक युक्ती काडली. बरोबरच्या रूशींकडेन तोंडाक तोंड लागचें न्हय म्हणून पयस जंगलांत वचून आपणें एकलोच रावंक चिंतलें ताणें. आनी तशें केलेंय बी. एक ल्हानशीच आपणांक जाय पुरतीच खोंपटी बांदून एकल्या एकसुऱ्या जाग्यार एकलोच रावूंक लागलो. थंय कोणाचीच कीटकीट नासली ताका.

ताचें ध्यान भंग करपाक कोण नासलो. समाधानान रावूंक लागलो तो.

तरूय ... एक दीस झरीर उदक हाडपाक गेलो. कोपांत उदक भरून कोप कोप कडेक दवरलेलें तितलेंच ... ताचोच हात लागलो कोपाक, आनी उदक ओतलें. तापलोच तो. आनी रागाच्या भरांत कोपूच जमनीर शेंवटीलें. फोडलें.

कोप फुटलेल्याचें दुःख जालें ना ताका. पूण आपले करणेची मात भरपूर लज जाली. चिंतूंक लागलो तो. येवजूंक लागलो. मांडण्यो काडीत रावलो - आपल्याक सुदरावपाच्यो. आनी शेवटाक आपलेच करणेंतल्यान शिकवण घेतली ताणें : आपल्याक खोडी आसात म्हूण त्या खोडींपासून पयस गेल्यार - कितलेय पैस धांवल्यार कसलोच फायदो जावपाचो ना. आपल्या खोडींपासून मुक्ती मेळोवपाची आसल्यार त्या खोडींपासून पैस वचून न्हय. पूण त्या खोडींचेर जैत मेळोवनूच मुक्ती प्राप्त करूंक शकता. स्वतःचेर ताबो दवरून.

आमीय बी त्या रूशीच्या अणभवाचो फायदो घेतल्यार आमचो नक्कीच फायदो जातलो.

## 35.

## गरीबांक पोंबुर्फेचीं फेस्तां न्हय

शारांत रावपी कवी तो. शारांतूच वाडलेलो. शारांत मोटारींचो आवाज, लावडस्पीकराचो बोवाळ, लोकांची चिरंगट, गडबड, गोंदळूच गोंदळ. हेंच ताचें शारांतलें जिवीत. गांवगिरें, शांत वातावरण ताच्या वांट्याक केन्ना आयलेंच ना. इत्सा आसून लेगीत.

आपली ही इत्सा पुराय करपाची आसली ताका. आनी एक दीस ताणें गांवची वाट धरलीच. हॉटेलांत आपलें ठीकाण केलें, विसव बा घेतलो आनी सांजचो पासयेक भायर सरलो. शेतांत चलत रावलो. आनीकूय फुडें. तिनसांज जायत आयलेली. सगळ्याक सामसूम आसलें. थंडगार वारें सुटलेलें. पिंडान कवीच न्हय तो? आशा वातावरणाचो आनंद घेत थंयच शेतांत एके कडेक बसलो - आपले आजूबाजूची सोबितकाय नियाळीत.

इतल्यान त्या शेतांतलो एक शेतकार आपल्याकूच पळयत आसा म्हणपाची जाणीव जाली ताका. तो उठून शेतकाऱ्यासरीं गेलो आनी ताचेलागीं उलोवपाचो यत्न करीत म्हणूंक लागलो,

“आह! हो मावळतो रसरशीत सुर्या, रंगबिरंगी किरणांनी नटलेलें हें मळब, चकचकीत, लखलखीत, वाटसुऱ्यांक वाट दाखोवपी हीं नखेत्रां, रातचो कुपांनी आपलिपा खेळपी हो चंद्र, हांगसून थंय धांवपी हीं कापसाळीं धवींफुल्ल कुपां आनी मनाक पिशें लावपी हें थंडगार वारें! आ हा हा! तुवें तर हें सगळें पळयलांच आसतलें, भोगलांच आसतलें न्हय?”

“ना” म्हळें त्या शेतकारान. “ह्या दिसांनी हावें असलें कांयच पळोवंकूय ना आनी भोगूंकय ना. हांगां आमकां गरीबांक सोरो खंय मेळटा? पोट भरूंकच मुश्कील जाता. आनी रिकामी पोटांक असलें खंय सुचता सायब? हावें इल्लेशें कोपाचें घेतल्यार सुमार एक वर्स जावन गेलें.”

गरीबांक पोंबुर्फेचीं फेस्तां न्हय अशें म्हणटात. तशेंच कितें हो गरीब शेतकार त्या कवीक सांगूंक सोदतालो जायत.

36.

# म्हजें सपन

एक खेप म्हाका सपन पडलें ....

एक मदले पिरायेचो गरीब मनीस देवाच्या सिंहासनालागीं आपले निमणे झट्टेखातीर आयलो. म्हणूंक लागलो :

देवा पळय, हावें संवसारांत आसताना भ्रश्टाचार, खून, मारामारी केन्नाच करूंक ना. केन्नाच कोणाक़ लुटूंक ना. नागोवंक ना, फसोवंक ना, केन्नाच कोणाचो सूड घेवंक ना, केन्नाच कोणाची गैरसोय करूंक ना, न्हय म्हणून केन्नाच कोणांक वायट नदरेन पळोवंक ना. देवा, म्हजे हात पळय कितले साफ आसात.

देवान ताचें सगळें आयकून घेतलें आनी म्हळें :

हय. तें सगळें सारखें आसा. पूण तुजे हात रिकामी आसात.

हात साफ दवरल्यारूच जायना. आमचे हे हात साफ - करण्यांनी भरलेले आसूंक फाव. वायट संवंयांपासून पैस रावून आमचे हात साफ दवरप सारखेंच. तरूय लेगीत वायट संवंयांनी घुस्पल्ले आसात तांकां तातूंतल्यान सोडोवपा पासून पैस रावप सारखें?

आमच्या घरांत सूख, शांती, सवस्तकायेन रावप सारखें. पूण शेजाऱ्या घराब्यांतलीं झगडीं, गाळी आयकूनय बी वोगीच बसप सारखें?

आपले लागीं संपत्ती, गिरेस्तकाय आसप चुकिचें न्हयच. पूण आपल्या बरोबरच्याक दोन वळा जेवंक लेगीत मेळना तें पळोवनूय बी ताची परिस्थिती हाताळूंक वावरीनासताना रावप सारखें?

आपूण सगळ्या वाटांनी समाधानान जियेतां म्हूण खुशाल जावपाचें. पूण दुसऱ्यांचेर अनीत जाता तें पळोवनूय बी कसलीच हालचाल करीनासताना पळयत रावप सारखें?

आमी आमचे हात साफ दवरपाचेच. पूण तेच बराबर आमचे भोंवतणीय बी लक्ष दवरून आमचे लागीं घडटा तेपरीं मदत करून आमचे हात साफ-करण्यांनी भरून घेवपाचे.

## 37.

## दुसऱ्याचे वस्तुची आशा कित्याक?

एके गरीब विधवेचें धाकटुलें शेत तिची दौलत जावन आसलें. ह्या शेतांत पीक काडून ती आपलो दिसपट्टो सोडयताली. आपलो संवसार चलयताली. हें शेतूच तिचो संवसार आसलें. तरूय दुर्दैवान तिची फाट सोडली ना. तिचे गरीबकायेंत आनीकूय भर कशी, त्या गांवच्या भाटकाराक तिच्या शेताच्या कुडक्यांत आपली खास पालास उबारपाची आस्त जाली. तिच्या शेताची जमीन ताच्या दोळ्यांत भरली. ती विधवा अस्तुरी आपलें शेत विकपाक कशीच तयार नसली. तरूय लेगीत त्या गांवच्या भाटकारान जबरदस्तीन तिची जमीन हिसकावन घेवन त्या जाग्यार आपली पालास बांदलीच - तिचे गरीबीची, तिच्या दुकांची पर्वा करीनासताना.

ते विधवा अस्तुरीन ही गजाल आपल्या मनाक लावन घेतली.

तिका खूब दुःख जालें. गांवच्या मनशांक लेगीत भाटकाराचें कर्तुप मानवलें ना. ते विधवेची जमीन परतून तिका मेळची म्हणून गांवच्या एका वडील मनशान थारायलें. आनी एक दीस एक व्हडलो साक घेवन तो त्या भाटकारासरीं गेलो. गावांत सगळ्यांहून जाणटो आसलेल्यान भाटकार ताका खूब मानतालो. ताचें उतर खाला पडूंक दिनासलो. आपल्या कामाखातीर आपल्याक एक साक माती जाय, तिवूय बी भाटकाराच्या बागेंतलीच जाय म्हूण जाणटेल्यान भाटकाराक सांगलें. जाणटेल्याच्या उतराक मान दिवन भाटकाराक बेगोबेग माती काडपाक परवानगी दिली. परवानगी मेळटांच जाणटेल्यान आपलो व्हडलो साक भरूंक सुरवात केली. पूर्ण साक भरलो ताणें आनी तो मातयेन भरलेलो साक उखलून गाड्यार घालपाक भाटकाराची मदत मागली. जाणटेल्याच्या उतराक मान दिवन भाटकार साक उखलूंक गेलो .... साक इतलो जड आसलो, भाटकार तो साक उखलूंकच शकलो ना. साक खूब जड आसलेल्याचें ताणें जाणटेल्याक सांगून सोडलें.

खिणभर भाटकारान जाणटेल्याचे नदरेक नदर मेळयली. आनी म्हळें,

“भाटकारा, ही एकूच साक माती जर तुका इतली जड लागलीं, जाल्यार तुवें ते विधवेच्या शेतांत पालस बांदपाक उस्पिल्ली इतली सकट माती तुज्या अंतस्करणाक जड लागूंक फावना? इतलें जड अंतस्करण घेवन तूं देवासामकार कसो वेतलोय तर?”

जाणटेल्याचें म्हणणें भाटकाराच्या लक्षांत आयलें. ताणें ते विधवा अस्तुरेक शेताचो कुडको दिलो - आसलो ताचेहून व्हडलो आनी आपणें बांदलेली पालासूय ताणें तिका भेट केली. जाणटेल्यान त्या भाटकाराचें मन उजवाडायलें.

38.

## हावें तिका थंयच दवरली. पूण तूं तर .....

ते दोगूय रूशी शेजारच्या गावांत वचपाचे वाटेर आसले. चलतां चलतां एके न्हंयच्या कांठार पावले. न्हंय पार करचेखातीर उदकांत पावल घालतांच एक सोबीत - सुंदर चली, थाटामाटान न्हसलेली नदीच्या कांठार विचार करीत आसली ती तांकां दिसली. आपले पांय भिजयनासताना, आंगार आसलेलो विस्तीद ओलो करीनासताना पलतड गांठपाच्या विचारांत मग्न आसली ती.

त्या दोगांमदल्या एका रूशीक ते चलयेची दया आयली जांवये. तो तिचेलागीं गेलो, तिका आपल्या खांदार उखलली आनी नदी पार करून दिली तिका.

उपरांत ती चली आपले वाटेन फुडें गेली आनी ते दोगूय रूशी आपले वाटेन.

चलयेक मदत करपी रूशी वगीच चलत रावलो. पूण दुसरो मात खूब अस्वस्थ आसलो. आपल्या सांगात्याचें कर्तुप आवडूंक नासलें ताका. गुण-गुणावंक लागलो ताका. म्हणूंक लागलो,

“हें तुवें एकदम वायट केलें. आमच्या मठाच्या कायद्याप्रमाण आमी रूशी अस्तुरेशीं संबंद दवरूंकच शकनात. तुवें मठाचो कायदो पाळूंक ना. तुवें ते चलयेक उखलूंक फावनासली. ते चलयेक स्पर्शूच करूंक नाका आसलो तुवें.”

उलयत रावलो हो रूशी. दुसऱ्यान सगळें आयकून घेतलें. आनी शेवटाक आनीक आयकूंक जायना जावन जबाब दिलोच ताका,

“ते चलयेक नद पार करूंक आदार दिवन हांव तिका थंयच विसरून फुडें पावलों. पूण तूं मात ते चलयेक आजूनय तुजेवांगडा हाडीत आसा.”

चिंतीनासताना आमी खूब कायदे मोडूंक शकतात. कायदे मनशांपासत आसतीत. पूण मनशान मनीसपणान वागपांतूच मनशाचें मनीसपण आसा.

## 39.

## ताचेर नदर पडली तेन्ना

दर्या वेळेर पासय मारताना एक एक पावल फुडें घालचें तें वेगवेगळे जातीची एक एक शिंपली वेंचून काडूनूच. आपल्या म्युझियमाखातीर असल्यो नाजूक शिंपयो एकठांय करीत दर्यावेळेर चलत ती अस्तुरी जायतीच पयस पावलेली. खूब शिंपल्यो एकठायल्योत तिणें. सगळ्यो घेवन समाधानान घरा परतताना अकस्मात तिची नदर एका मनशाचेर पडली. पैस दर्यांत मर्दी आसलेल्या एका खडपार हो मनीस एकलोच बसलेलो आसलो. आपल्याच संवसारांत सांडलेलो. आजूबाजूच्या वातावरणाचो ताका भान नासलेल्याचें सिद्ध जातालें. कितें चिंतीत आसलो, कित्याक चिंततलो तें कळपाक मार्गूच नासलो. तो मनीस कोण आसलो हेंवूय कळपाक शक्य नासलें. कळपाक शक्य आसलें तें एकूच, हो मनीस खूब निराश जावन त्या खडपार पावलेलो आनी ताच्या जिवाचें लुकसान जावंची आकान्ताची भिरांत आसली.

ती अस्तुरी आकान्तली. ह्या मनशाक वाटावपाचें आसलें तिका. तरूय कितें करचें तें तिका सुचनासलें. शिवाय दर्याक भरती आसलेल्यान उदक वाडतूच आसलें. तो मनीस बसून आसलें तें खडप थोडें थोडें दर्यांत भितर वचत आसलें - आपल्या सांगातान त्या मनशाकूय भितर व्हरत. वेळ सरत आसलो आनी उदक वाडत आसलें. परिस्थितींत त्या मनशाक वाटावप अशक्य आसलें. प्रश्नूच नासलो.

तिच्या प्रश्नाची जाप कशी, तिका पैस थोडे खारवी दिसले. तांचेलागीं धांवलीच ती. त्या मनशाक वाटावपाखातीर तांचेलागीं मदत मागपाक लागली. उपकार मागले. खारवी कशेच कबूल जायनात तें पळोवन तांकां इनामूय भासायलें तिणें. तेन्ना अर्दे खोशयेन म्हणलेले परीं खारवी शेवटाक आपआपलें होडें घेवन दर्यांत वचूंक भायर सरले.

एका एका ल्हाराबरोबर तांचें होडें फुडें तें पळोवन .... एक एक खीण सरता तितलें तांचें होडें त्या खडपाक लागीं पावता तें पळोवन ... त्या मनशा आनी होड्यांमदीं थोडेंच अंतर उरलां तें पळोवन ... आनी शेवटाक ज्या खिणाक तो मनीस दर्यांत पडपाचो, त्याच खिणाक त्या खारव्यांनी घट्ट धरून ताका आपल्या होड्यांत घातलेलो पळोवन .... तिणें खोशयेन उल्लास सोडलो.

अखेरेक ते खारवी किनाऱ्यार आयले - त्या मनशाक सुरक्षित आपल्या होड्यांत घेवन. खारवी होड्यांतले भायर सरचे आदींच ती अस्तुरी होड्यालागीं धांवलीच.आपले वरवीं एक मनीस संकश्टांतलो वाटावलो म्हणून खूब अभिमान भागलो तिका. खूब खोशी जाली ती.

पूण .... त्या वाटायलेल्या मनशाचेर तिची नदर पडली तेन्ना मात ती थंयच खिळून उरली. खारव्यांनी वाटावन हाडलेलो, होड्यांत आसलो तो तिचो घरकार आसलो. तेन्ना मात तिचे खोशयेक शीम मेर उरलीच ना.

बऱ्या मनान केल्ले बर करणेचें बरें फळ मेळटाच. तेन्नाच न्हय जाल्यार केन्नातरी.

40.

# तुजीं पावलां मेजतां

जंगलांत रावपी म्हातान्या रुशीची झोंपडी ते झरीपासून खूब पयस आसली. ते झरीर वचून आपलेखातीर तो रूशी उदक हाडीत आसलो - फाटलीं कितलींय वर्सांपासून, कितलीय वाट चलून. दीसपट्टीं. पूण उपरांत जाणटे पिरायेर ताच्या जिवाक त्रास जावंक लागले. चड चलूंक शकना जालो तो. देखून आपलेखातीर एक नवी झोंपडी, झरीलागीं बांदपाची येवजिलें ताणें.

एक दीस आपलो जगदाळू घेवन तो रूशी झरीर उदक हाडूंक वतालो. आपले फाटल्यान एक आंयज (देवदूत), एक.. दोन ... तीन ... चार मेजीत चलताना तो चिंतूक पडलो. फाटीं वळून ताका विचारलेंच ताणें. म्हणूंक लागलो,

"तूं अशेपरीं चलत कितें मेजता?"

"हांव तुजीं पावलां मेजतां. तूं झरीर पावत मेरेन कितलीं जातात तीं. कारण तुज्या एका एका पावलाखातीर सर्गार तुका इनाम मेळपाचो आसा." आंजान जबाब दिलो.

"आरे रे, तशें जाल्यार हांव म्हजेखातीर झोंपडी झरीलागीं बांदीना. पूण उलट आसा ताचेहून आनीकूय पैस व्हरतां. म्हणजे म्हजीं पावलां आनीकूय वाडटलीं आनी सर्गार म्हाका आनीकूय इनाम मेळटलें. सुबेज पावलां - सुबेज इनाम." रूशीन आपली खोशी प्रगट करीत सांगलें.

आमचींय पावलां आमकां नकळटां मेजपाक येतात जाल्यार....?

41.

# म्हाका कित्याक आपोवंक ना?

तो रूशी खूब सुस्ती आसलो. बिलकूल काम करपाक नाका आसलें ताका. कामाचें आनी ताचें केन्ना जमलेंच ना. कश्ट करपाचे त्रास ताणें केन्ना घेतलेच नात.

एक दीस हो रूशी एका मठांत पावन सरलो. हेर सगळे रूशी आपआपल्या कामांत बुडून आसले. शेंदर्‍यो, पाटले विणपांत गुंतून गेल्ले. आपल्या हातांनी विणलेल्यो ह्यो वस्तू विकूनच ते आपआपल्यो दिसपट्ट्यो गरज भागयताले.

तांकां अशें काम करताना पळोवनूच हो रूशी तांकां म्हणूंक लागलो,

“इतल्याशा ल्हान पोटाची भूक मारपाक दिसपट्टीं जेवणाखातीर हे इतले कश्ट? हेच कश्ट जर तुमी अमर आत्म्याची भूक मिटोवपाक केल्ले जाल्यार? आमी आयज आसात म्हूण फाल्यांय आसतलेच म्हणपाची कसली खात्री? शेवटाक आमचो आत्मोच आमकां सांगात दितलो. आमच्या पोटाहून आमी आमच्या आत्म्याची काळजी घेवपाची.”

ताणीं ताचें सांगणें आयकून घेतलें. वगीच.

मठाच्या वडीलान त्या रूशीक एक कूड दिली. सुशेग घेवपाक. सुशेग घेवनूच वेळ सारलो ताणें. शेवटीं दनपार आयली. जेवणाचो वेळ जालो. रूशीक भूक लागली. जेवणाची वाट पळयत रावलो. पूण जेवणाक आपोवंक कोणूच आयलो ना ताका. रूशीच्यान पोटीची भूक कशीच सोसूं नज जाली. उठलोच तो. वडीलासरीं गेलो. म्हणूंक लागलो.

"तुमच्या मठांत आयज कोणूच जेवीना बी?"

"जेवतात. कित्याक? कितें जालें?" वडीलान विचारलें.

"तर म्हाका जेवंक कित्याक आपोवंक ना?"

"तुका जेवपाची कसली गरज?"

"म्हणल्यार?"

"तुज्या म्हणण्याप्रमाण तुका जेवणाची गरजूच ना - शें आमकां दिसलें. पूण आमकां मात जेवण जायच. आमी रगता मासाचे मनीस. भूक लागताच. म्हणटकूच भूक मारपाखातीर जेवण जायच. आनी जेवण जाय आसल्यार आमी काम करूकच जाय. कशेंच चुकना."

कितें समजुपाचें तें तो रूशी समजलो. एकाच खिणांत.

भूक कसलींच निबां समजून घेना. समजावपाचो कितलोय प्रयत्न केल्यारूय. म्हणटकूच कामाशिवाय गत्यंतर ना. काम करचेंच पडलें. मनापासून. वाजेवन न्हय.

## 42.

## शक्यच ना. पूण कित्याक?

रॉबर्ट फूलटन आपली आगबोट पयलेच खेप चलोवन दाखोवपाचो आसलो. धक्यार हुरपंजीनी लक जमलेलो. उदकांतल्यान वतली आगबोट लोकाखआतीर एक अजापूच जावन आसलें. सगळो लोक उत्सुकतायेन आगबोट चालू जावपाच्या बिजमिताची वाट पळयत आसलो. लोकांमदीं एक मनीस असो आसलो, जाच्या मनांत आगबोट चालू जावपाविशीं दुबावूच दुबाव उपरासताले. 'फूलटन ती आगबोट चालू करूंक शकचो ना' म्हूण तो मनीस स्वतालागीं उलयत आसलो. खूब वेळ लेगीत तो हेंच

म्हणीत आसलो, 'ताच्यान ती आगबोट चालू करूक जावचीच ना.'

तितल्यान अकस्मात वाफ वयर सरली आनी हळू हळू ती आगबोट चालू जालीय बी. आगबोट चालू जालेली पळोवन तो मनीस अजाप जालो. आगबोटीक पळयत उरलो तो. खूब वेळ पळयत रावलो आगबोटीक आनी म्हणूंक लागलो,

"फूलटन आतां ती आगबोट बंद करूक शकचोच ना."

कोणाय मनशाक निराशावादी जावपाचेंच आसल्यार घडपाची शक्यताय नासलेल्यो घडणुको घडोवन दाखयल्यार लेगीत तो निराशावादीच रावतलो. ताच्या मनार उजवाड घालपाचे सगळे प्रयत्न निरफळूच थरतले. निराशावादी तो निराशावादीच उरतलो.

पूण आयज संवसार इतल्या वगान धांवता, शक्य ना म्हूण चिंतलेल्या मनशाक थंयच धांबोवन शक्य ना म्हूण समजलेली गजाल दुसरो मनीस शक्य करून दाखयता. तर कायमचोच निराशावादी जावंचे बदलेक मनशान आशावादी जावपाचो प्रयत्न तरी करपाचोच.

## 43.

2372

## आमींय बी ...

**त्या** दिसा तो पयणारी (यात्रीक) थोड्या दिसांखातीर रावंक आयलेलो. त्या गांवची म्हायती, त्या गांवच्या लोकांच्यो चाली रिती, तांच्यो संवंयो, तांचे सभाव जाणा जावन घेवंक, आपल्या गिन्यानांत भर

घालून तो बेगींच आपल्या गांवघरा वचपाचो आसलो. पयणारीच तो. त्या गावांत एक ल्हानशेंच घर भाड्यान घेवन, घरांत आपले गरजेपुरत्यो वस्तू दवरून तो आनंदान दीस सारतालो.

सदांपरी तिनसांजचे भोंवडेर आसताना, तो त्या गांवच्या एका जाणटेल्याच्या घराशीं पावलो. जाणटेल्याच्या घरांत दिवो जळटालो. उशीर जालेलो आसताना लेगीत जाणटेल्याची भेट घेवनूच आपूण घरा परततलों म्हूण चिंतून ताणें दारार मारलेंच.

जाणटेल्यान खोशेन ताचें स्वागत करीत ताका येवकार दिलो आनी बसूंक सांगलें. जाणटेल्याचें घर ल्हानशेंच आसलें. तो जाणटेलो गरांत एकलोच आसतालो. खूब पुस्तकां आसलीं ताचेलागीं. नांवलौकीक लेखकांचीं पुस्तकां. आनी ... आनी एक मेज, दोन कदेलां आनी न्हीदपाखातीर एक खाट.

जाण्टेल्याच्या घरांत इतल्योच वस्तू पळोवन यात्रीकाक विचित्रशें दिसलें. ताचेलागीं विचारलेंच ताणें. म्हणूंक लागलो,

"तुज्या घरांत फक्त इतल्योच वस्तू?"

ताच्या प्रश्नाक जबाब दीत जाण्टेल्यान नम्रतायेन ताका विचारलें,

"तुज्या घरांत कितल्यो आसात?"

पयणाऱ्यान अजापभरीत जावन म्हळें,

"म्हज्या घरांत? म्हाका कित्याक जाय चड वस्तू? हांव तर ह्या गावांत एक पयणारी. आनीक थोड्याच दिसांनी हांव म्हज्या गांवघरा परतुपाचो आसा."

तेन्ना त्या जाण्टेल्यान ताका समजायत सांगलें, "हांवूय बी."

जाण्टेल्या परीं, आमीय बी ह्या संवसारांत एक प्रकारचे पयणारी म्हणून लक्षांत दवरून जियेल्यार कशें?

# 44.

# वाटो कोणें आडायल्यात?

ते बायलेक एक वेगळीच संवंय आसली. जितले खेप ती आपलेखातीर वस्तू घेवंक दुकानार वताली, वा तियात्रांक, चलचित्रांक वताली, तितलेय खेप ती आपले बेगांतली एक ल्हानशीच डायरी भायर काडून ते डायरेंत बरयताली. तिचे इश्टीणिन जायते खेप हें पळयलेलें. वेगवेगळे विचार आयले तिच्या मनांत. तरूय लेगीत आपली खात्री करून घेवपाक एक दीस तिणें तिका विचारपाचें थारायलें. म्हणूंक लागली,

"वस्तू घेतलेले खेप तूं डायरेंत हिशोब बा बरोवन दवरता काय कितें?"

अशा अनपेक्षीत विचाराची ते बायलेक अपेक्षा नासली. तरूय लेगीत मातशी लजूनच म्हणूंक लागली,

"हय, हांव फक्त ठरावीक वस्तूंचोच हिशोब दवरतां. चेर, पावडर, लीपस्टीक अश्यो वस्तू हांव म्हजेखातीर विकत्यो घेतां वा सिनेमा तियात्रांक, मौज करूंक वेतां तेन्ना खर्चिल्ल्या दुडवांचो हिशोब हांव दवरतां."

"पूण हो हिशोब तूं कित्याखातीर दवरता?" तिचे इश्टिणिन परत विचार केलो. तेन्ना ते बायलेन जबाब दीत म्हळें,

"आमचे भोंवतणी इतली गरीबी, इतली लाचारी आसताना हावें हेपरीं मौज करपाक दुडू खर्चिल्लो पळोवन म्हजें मन अस्वस्थ जाता. देखून म्हजे मौजेखातीर जितलो दुडू हांव मोडटां, तितलोय पैसो हांव कडेक काडून दवरतां. आनी हो कडेक काडलेलो पैसो हांव अनाथ आश्रमांत रावतल्या भुरग्यांक, आदार जाय आसलेल्यांखातीर वावुरपी

संस्थांक दितां. तेंवूय बी गरीबी, ही लाचारी कमी करूंक मदत करचें म्हूण, म्हज्या मनाक शांती मेळची म्हूण."

आपले भोंवतणचें दुःख ल्हव करपाखातीर हे बायलेन एक वेगळ तरा आपणायली. दुसऱ्यांक मदत करपाचेंच मनांत आसल्यार वेगवेगळ्यो तरा, वेगवेगळ्यो वाटो कोणें आडायल्यात?

45.

## हांसपाचें काय रडपाचें?

आलबर्टाच्या शेजाऱ्याक ही बातमी इतले बेगीं कशी मेळ्ळी कोणाक खबर! पूण सकाळफुडें उठटां उठटां, च्यायेचो घोंट लेगीत घेनासताना तो आलबर्टाच्या घरालागीं धांवलोच. आलबर्टालागीं विचारलेंच ताणें. म्हणूंक लागलो,

"हावें आयकलां की रातीं आमच्या गावांत तूं जुगाराच्या खेळांत पन्नास हजार रूपया जिखलो म्हूण. खरें?"

"तुवें आयकलां तें खरें न्हय. जुगाराचो खेळ आमच्या गावांत नासलो. शेजारच्या गावांत आसलो."

"तरूय पूण ही खोशेची बातमी."

"खोशेची? हं ... आनीक कितें जाणा? ते पन्नास हजार रूपया न्हय. फक्त पांच हजार रूपया आसलेत."

"म्हणून कितें जालें? खोशी जावपाचेंच न्हय?"

"तातूंत खोशी जावपासारखें आसा तरी कितें? तुका सगळें सत सांगपाचें म्हल्यार हांव हे दुडू हारलों."

हांसपाचें काय रडपाचें?

हांसपाचें, फटकिऱ्यो बातम्यो पसरायतल्यांच्या खोट्या पैशाक सर जावपी गिन्यानाक. आनी रडपाचें कोणाक? रडपाचें, ह्याच अर्दखुऱ्या गिन्यानाच्या मनशांच्या कर्मांक. दिसपट्टीं दुसऱ्यांच्यो नाका आसलेल्यो फटकिऱ्यो गजाली पसरावपी मनीस खूब. अशें करपाक तांकां खंयची उमेद येता म्हूण कोणांक खबर! दुसऱ्यांच्या जिवितांत दखल दिवनूच ते आपलें जिवीत सोंपयतात - दुसऱ्यांचें जिवीत कडू करून आनी आपलेंय बी दुपेटीन. सत जाणा जालेशिवाय कसलीच गजाल पसरावंक आमकां कसलोच अधिकार ना. मुळांत, दुसऱ्यांच्या जिवितांतली कसलीच वायट गजाल, सत लेगीत आसल्यर, आमच्या तोंडांतल्यान पसरावपाखातीर आमचे जिभेचो उपेग न्हयच. तोंडांत जीभ आसा देखून ती उखल्ली तीच ताळ्याक लावंक जायना. स्वताच्या काल्पनीक चिंतनांनी दुसऱ्यांचो संवसार पाड करूंक फावना.

आपल्या स्वताच्या करण्यांचेर भरपूर लक्ष घालपाचें. आपलें स्वताचें जिवीत खंयच्या पांवड्यार पावलां तें पळोवन निटायेर हाडपाचें. स्वताक सुदरावपाच्यो मांडण्यो काडीत रावपाचें - दुसऱ्यांक दुखोवपाच्यो न्हय.



## 46.

## तुजेशीं रावलों जाल्यार ...

एक नास्तीक मनीस आपले सुटयेचे पांच दीस सारपाखातीर आपल्या एका पाद्री इश्टासरीं गेलो. सुटयेची मौज भोगतानाच देवाचे सासायेविशीं ताच्या मनांत आसलेल्या कांय प्रश्नांची खात्री करून घेवपाची

आसली ताका. आपल्या इश्टाक आपलो हेतू गमूंक दिना आसताना हें काम करपाचें ताणें थारायलें.

ताच्या पाद्री इश्टान सदांपरी आपल्या हांसत्या सभावान ताका येवकार दिलो. ताचें स्वागत इतल्या मोगान केलें, ताका आपूण आपल्या स्वताच्या घरांतूच आसलेले परीं दिसलें. आपल्या कामांत इतलो बुडलेलो आसतनाय बी वेळांत वेळ काडून आपलो इश्ट आपली सुटी खोशयेची करूंक वावुरता - तेंवूय बी खोशी मनान म्हूण ताका खूब विचित्रशें दिसलें. आपल्या इश्टाच्या जाग्यार आपूण स्वता आसलेलो जाल्यार आपूण तशें करपाक केन्नाच तयार जावपाचो न्हय म्हूण आपले बितरूच कबूल केलें ताणें.

आपल्या पाद्री इश्टाचे वागणुकेन ताचें मन भरून आयलें. काळीज मवाळ्ळें ताचें. आनी आपले सुटयेचे आनीक तीन दीस शिल्लक उरलेले आसतानाच परत आपल्या घरा वचपाचें थारयलें ताणें. तचो हो निर्णय आयकून ताच्या पाद्री इश्टाक वायट दिसलें. घडये आपणें ताका बरो येवकार दिवंक नसलेल्यान तो परत वता आसतलो म्हूण चिंतून तो पाद्री दुखी जालो. तेन्नाच ताच्या पाद्री इश्टान ताचो गैरसमज पयस करीत म्हळें,

"तूं चिंतता तशें न्हय तें. उलट, तुजे वागणुकेन म्हाका अस्वस्थ केला. म्हाका चिंतूंक लायलां. हांगासर हांव म्हजोच उरूंक ना. आनी उरलेले तीन दीस जर हांव तुजेसरीं रावलों जाल्यार हांव देवाचें आसणें स्विकारल्या बगर रावचो ना. म्हाका नाका आसताना लेगीत हांव देवाक मानूंक लागतलों. देखून हांव हांगाचो आतांच गेल्यार बरें अशें दिसता म्हाका."

आमची वागणूक ह्या पाद्री परी करूंक कित्याक वावुरचें न्हय?

47.

## ताका परतून धाडीनाका

तो दादलो त्या गावांत सगळ्यांहून जाणटो आसलो. गांवचो लोक ताका मानान लेखतालो. गांवचें कसलेंय काम ताच्या आशिर्वादाविरयत सुरू जायनासलें. कसलोच प्रश्न ताचे बुद्धीशिवाय सुटावो जायनासलो. खूब गिन्यानी आसलो तो. तेचबराबर देवाची भक्तीय करपी.

एक दीस अकस्मात हो जाणटेलो मनीस दुयेंत जालो. हॉस्पिटलांत घातलो ताका. ताची परिस्थिती नाजूक आसलेल्यान दोतोरान ताका भेटपाचें मना केल्लें. नर्स कोणाकूच भितर वचूंक दिनासली - ताच्या इश्टांक लेगीत.

दोतोर आपल्या इश्टांक आपलेसरीं येवपाक केन्ना मान्यताय दितलो तीच वाट पळयतालो तो. तेन्नाच गावांतलो एक तरनाटो रॉनी ताचे खबरेक आयिल्ल्याचें ताका कळ्ळें. दोतोराची पर्वा करीनासाताना रॉनीक आपलेसरीं भितर धाडचेखातीर ताणें नर्सीक हुकूम दिलो. म्हणूंक लागलो,

“रॉनीक परतो धाडीनाका. रॉनीक आतांच भितर धाडून दी.”

सगळ्याच लोकांची जाणटेल्याक मेळपाची जबरदस्त खोशी आसताना लेगीत फकत आपल्याकूच भितर वचपाची संदी मेळ्ळी म्हूण रॉनी खोशी जालो. हरशीं लेगीत देवाच्या आसण्याविशीं रॉनी सदांच दुबवतालो. आपल्या जिवितांत तर रॉनी देवाक मानीनासलो. देवाकूच दुबावपी हो रॉनी, आतां आपल्याकूच भितर वचपाक सोडलो म्हमूनय दुबावूंक लागलो.

आनी तोंडार दुबावाची भावना घेवूनच तो जाणटेल्याशीं गेलो. ताचे भलायकेची खबर घेतल्या उपरांत आपलो दुबाव ताणें प्रगट केलोच. म्हणूंक लागलो :

"तुज्या ह्या इश्ट - मित्रांक नाकारून तुवें फक्त म्हाकाच कित्याक भितर येवपाची संदी दिली?"

जाणटेल्यान ताका जबाब दीत म्हळें,

"हय रॉनी. तशें करपाखातीर म्हाका कारण आसा. तांकां सगळ्यांक दुसऱ्या संवसारांत भेटपाची खात्री आसा. पूण तुका भेटपाची घडये ही म्हजी निमणी संदी जायत. ही संदी हांव कशी सोडून दितलो आसलों?"

रॉनी कितें समजुपाचें तें समजलो. आपल्या जिविताचो धनी स्वामी जेजूक करतलों म्हूण जाणटेल्याक भास दिली ताणें. दुबावाचीं चिंतना घेवन आयलेलो रॉनी आपल्या काळजांत भरवंसो घेवन घरा परतलो.

48.

## मुर्खाचें शाणेपण

**त्या** गांवच्या राजान आपल्या राजवाड्यांतल्या एका मुर्ख मनशाक आपोवन हाडलो आनी दरबारासामखार ताका एक रॉत दिलें आनी सांगलें,

"हें रॉत तूं तुजेलागीं दवर - तुजेपरस अदीक मुर्ख मनीस तुका मेळसर. आनी जेन्ना तुका तुजेपरस अदीक मुर्ख मेळत तेन्ना हें रॉत तूं त्या मनशाक दी."

त्या उपरांत खूब दिसांनी तो राजा दुयेंत पडलो. मर्णाचे तणीर पावलो तो. ताचें निमणें दर्शन घेवंक लोक येत रावलो ताचेसरीं.

तो मूर्ख मनीसूय राजाचे भेटीक गेलो. उलयतां उलयतां तो राजा त्या मुर्ख मनशाक म्हणूंक लगलो,

"हांव प्रवासाक भायर सरतां. खूब पयशिल्लो प्रवास हो."

"तर तूं खंय वता?" मुर्खान विचारलें.

"एका खूब पयशिल्ल्या देशांत वतां हांव. दुसऱ्या संवसारांत."

"धनयां, त्या देशांत वचपाखातीर, थंय रावपाखातीर तुवें तुजी सगळी तयारी केल्या मूं?"

"छे! तयारी बा कांयच करूंक ना. मुर्खा , तसले तयारीची गरज ना."

"म्हणटकूच थंय तुजे इश्ट, सोयरीं बा आसात तर धनयां?"

"आरे मुर्ख मनशा, थंय म्हजो कोणूच ना."

त्या मुर्खान खंतीन आपली मान हालयली. राजान आपल्याक दिल्लें रॉत काडलें आनी राजाच्या हातांत दीत राजाक म्हणूंक लागलो,

"राजा सायब, तूं इतल्या पयशिल्ल्या गावांत वचूंक भायर सरला. बिलकूल तयारी करीनासताना. हें रॉत तूं तुकाच दवर. कित्याक, तुजेपरस अदीक मुर्ख मनीस आनीक कोण आसपाक ना."

राजान आपली चूक वळखली. आपले निमणे तयारेक लागलोच तो. मुर्खाचे शाणेपणाक लागून.

# 49.

# जायत घडये

खूब गिरेस्त भाटकार आसलो तो. भाटां-बेसां, धन-दौलत खूबच. कसलीच कमी नासली ताका. तरूय लेगीत तो खोशी नासलो. खुशालकाय प्राप्त करपाचो ताणें यत्नूच करूंक नासलो. इतली सकट गिरेस्तकाय आसूनय, गरजेक सांपडलेल्यांक हात उखलून चार पैशांची मदत करूंक ताच्या सभावांत नासलें. गरीबांची गरीबी तर ताका झळकच नासली. कश्ट करतल्यांच्या कश्टांची तर ताका खबरूच नाका आसली. एक - एक पैसो गांठीक मारून, आनीकय दौलत वाडोवपाच्या चिंतनांनीच तो जियेतालो.

गांवचो लोक आपलेविशीं खबरी करतात म्हूण जाणीव आसली ताका. आपल्याक हिमटो म्हणटात म्हणूनय तो जाणा आसलो. आनी असोच एका दिसा बेजार जावन तो भाटकार आपल्या इश्टाक विचारूंक लागलो,

“हांव ही गिरेस्तकाय एकठायतां ती म्हजेखातीरूच न्हय. हांव मेल्या उपरांत हो सगळो दुडू हांव दान करतलों म्हूण आख्या गांवाक खबर आसा. तरूय लेगीत लोक म्हाका नांवां कित्याक दवरतात? म्हाका हिमटो कित्याक म्हणटात?”

ताच्या इश्टान खिणभर विचार करीत म्हळें,

“हांव तुका एक गाय आनी दुकराची काणी सांगतां. ते काणयेंतल्यान तुका संदेश मेळटा जाल्यार पळय.” अशें म्हूण ताणें आपले काणयेक आरंभ केलो.

एक खेप एक दुकर आपल्या दुःखाचो गोयेलागीं शीण करीत म्हणूंक लागलो, लोक म्हाका कितलो हल्को समजतात! आख्खो वेळ हे मनीस तुजीच तुस्त करीत आसतात. तूंच तांकां उपेगाची हें खरें. तुजेपासून मेळटलें दूद, दुदापासून केल्लें लोणी दीसपट्ट्यो गरजो भागयतात. पूण हांवूय काय कमी फायद्याचो न्हय. म्हाका मारून म्हजें मास रूचीन खातात. 'सर्पोतेल रांददतात. रगत लेगीत फुकट वचूंक दिनात. चेवरीसां करतातूच. म्हजो फायदो मनीस तुजेपरस अदीक काडटा. तरूय लेगीत .... म्हजेविशीं तांच्या तोंडांतल्यान एक बरो उद्गार येना. कित्याक?

गायेन खिणभर विचार केलो. आनी म्हळें, "तूं म्हणटा तें खरें आसा. तुजो सुबेज लाब मेळटा आसतानाय बी लोक तुका सोडून म्हजी तुस्त - तोखणाय करता. जायत घडये...जिवीं आसतानाच हांव तांच्यो गरजो भागयतां देखून."

इश्टान सांगलेली ही गाय आनी दुकराची काणी आयकून भाटकाराक समजावणी मेळ्ळी.



## 50.

## देव वांकडे ओळींनी ...

**त्या** वर्सा त्या गावांत खूब प्रमाणांत पावस पडून बुट्टी आयली आनी लुकसानूच लुकसान जालें. मेहनत करून रोयलेलीं शेतां बुडून गेलीं. धंद्याखातीर सांबाळून दवरलेलीं धंदेकारालीं गोरवां, कुकडां बुडून

मेलीं. कांय लोकांचीं घरां व्हांवून गेलीं. निराश्रीत जालो आख्या गांवचो लोक. खूब लुकसान जालें तांचें.

आपल्याचेर आयलेल्या त्या दुःखाचो विचार करीत त्या गांवचे कांय धंदेकार एकठांय जाले. आपआपलो शीण उलोवंक लागले. तांचेमदलो हॅनरी म्हणूंक लागलो,

"पळयात, म्हजो कुकडां पोसपाचो धंदो नेटान चलतालो. भरपूर फायदो मेळटालो म्हाका. तशें पळोवपाक गेल्यार हावें म्हजो वेपार फुलोवपाखातीर रगताचें उदक केलें. भरपूर त्याग करचो पडलेलो म्हाका. भरपूर कश्ट सोंसले. खूब वर्सां कश्टवलेलो हांव. आनी आतां...आतां, एकेच रातीन म्हज्या कश्टांचें उदक जालें. सगळे त्याग निर्फळ जाले. उध्वस्त जाली म्हजी जीण. फक्त एकेच रातीन."

ताच्या एका सांगात्यान ताचें सांगणें आयकून घेतलें, चिंतलें आनी ताका धीर दीत म्हणूंक लागलो,

"हॅनरी, देवाचेर अशे परीं शीण करूंक तुका हक्क आसा. पूण तूं जाणा, देव आमकां सगळें दिता आनी देवूच आमचेकडल्यान काडून घेता."

हॅनरीन ताचें म्हणणें आयकून गेतलें, वगीच रावलो. विचार करूंक लागलो. चिंतूंक पडलो. शेवटीं म्हणूंक लागलो,

"तुजें सांगणें पटलें म्हाका. तूं जें कितें सांगता तें खरें आसा. खऱ्यांनीच खरें आसा. पूण ... पूण देवान म्हाका जे पद्धतीन दिलेलें, तेच पद्धतीन तें काडून व्हरूंक नाका आसलें दर एक खेप थोडें थोडें करून."

हॅनरीचो शीण घडये अर्थाळ दीसत. पूण देवाच्या घूटाचो अर्थ कोण काडीत? देवाचो घूट देवूच जाणा.

देव वांकड्या ओळींनी आमकां नीट दिशा दिता, जाल्यार ....

# 51.
# आमी कितें करपाचें?

एक भोंवडेकार त्या गावांत पावन सरलो. भोंवडेकारूच तो. भोंवडीच करूंक आयलेलो. म्हणटकूच आपली मोटारगाडी घेवन भोंवडेक भायर सरलो. आपल्या गावांत तर तो सहजपणी मोटार चलयतालो.

पूण ह्या गावांत तशें कांयच नासलें. मोटार चलोवपाक बरोच त्रास जातालो ताका. वेते कणकणीं म्हणलेले परीं रस्त्यार खड्डे पडलेले आसले. आनी प्रत्येक खड्ड्यालागीं तांबडो बावटो रोमून दवरलेलो आसलो - कोणाचीय मोटारगाडी खड्डयांत पडची न्हय म्हूण.

त्या भोंवडेकाराक हें विचित्रूच दिसलें. बेजारूय आयलेलो ताका. मोटार थांबयलीच ताणें. आनी थंय काम करतल्याच्या सरीं गेलो आनी म्हणूंक लागलो,

"हे ऽ ऽ, हें तुमी बरें करतात काम. म्हणजे, रस्त्यार खड्डे पडलेले सुवातेर बावटे लावून दवरतात."

त्या कामदाराक त्या भोंवडेकाराचें म्हणणें वेगळेंशें दिसलें. तांच्या गावांत ते कितें करतात आसतले तें जाणा जावन घेवपाक ताची उत्सुकताय वाडली. भोंवडेकाराक विचारलेंच ताणें. म्हणूंक लागलो,

"तुमी तुमच्या गावांत कितें करतात तर?"

भोंवडेकारान ताच्या प्रश्नाक जबाब दीत सांगलें,

"आमी आमच्या गावांत रस्त्यार पडलेले खड्डे तोबडतोब दुरूस्त करून सोडटात."

आमी आमच्या गावांत कितें करपाचें?

# 52.

## भरपूर पीक आसली. पूण ....

झुजाचे दीस आसले ते. म्हारगाय वाडलेली. जेवणा - खाणाच्यो वस्तू मेळनासल्यो. लीपयलेल्यो. काळो बाजार चलतालो. केन्ना केन्ना दुड्डू दिवन लेगीत जवण मेळप शक्य जायनासलें. कांय जाणांलागीं दुड्डू नासलो. म्हणटकूच जेवण विकतें घेवपाचो प्रश्नूच ताणीं मिटयलेलो. पूण भूक मिटोवपाचो प्रश्न मात ताणीं सोडेवंनासलो. कोणाल्या शेतांतलो ओरव - दाणो उश्णो - उदार घेवन तरी भूक मारतलो म्हळ्यार आकांतवाद्यांनी परिस्थितीचो फायदो घेवन शेतांचीं शेतां लुटून एक दाणो लेगीत बाकी दवरूंक नासलो. आनीकूय शेतां लुटपाक उमेदीन ते आसले.

आनी, एक असलो आकांतवादी त्या शेतकाराच्या खोंपटेंत भितर घुसलोच. आपलो अधिकार गाजयत, शेतकाराक धमकी दीत आड्डलो,

"म्हाका ओरव - गोटो व्हरपाचोच आसा. ह्याच खिणाक. तुजे नखरे उपकारचे नात. ऊठ, म्हाका तुज्या शेतांत व्हर. आत्तांच्या आत्तां." शेतकाराचें कांयच चललें ना. आनी करून करून तो बाबडो कितें करतलो आसलो? सत्तेफुडें शाणेपण खंय चलता? आकांतवाद्याचो हुकूम मानपांतूच आपलें शाणेपण आसा म्हूण स्वीकारून शेतकार ताका घेवन शेताचे वाटेन चलूंक लागलो.

सुमार अर्द्या वराची वाट चलल्या उपरांत भरपूर पीक जालेलें एक शेत तांकां दिसलें. पीक पळोवन आकांतवादी खोशीच खोशी जालो.

शेतकाराक म्हणूंक लागलो,

"राव. हें शेत तर पिकेन भरलां. असल्याच शेताची म्हाका अपेक्षा आसली."

हें आयकून शेतकार गोंदळ्ळो. म्हणूंक लागलो,

"ना. ह्या शेतांतलो ओरव - दाणो व्हरूं नाका. मात्सो राव. आनीक मात्शे फुडें वचूंया आनी मागीर सगळें सारकें जातेलें."

ते दोगूय आनीकूय वाट चलत रावले. सुमार अर्दवर चलल्या उपरांत पिकेन भरलेलें शेत तांकां दिसलें. आकांतवादी सोदतालो तसलेंच. भरपूर ओरव आसलेलें. आकांतवाद्यान आनीक एक खीण लेगीत वगडायलो ना. शेतांत धांव मारलीच ताणें. आनी परत आयलो तो शेतांत एकूय दाणो दवरीनासताना. शेतकाराचेर खूब खोशी आसलो तो. तरूय लेगीत शेतकाराची एक वागणूक ताका विचित्रशी लागली. ताका तेविशीं विचारपाचें थारायलें ताणें. लुटलेलो ओरव - दाणो घेवन आपले वाटेक लागचे आदीं शेतकाराक म्हणूंक लागलो,

"तुवें म्हाका इतली वाट चलोवन इतलो पैस कित्याक हाडलो? वाटेर मेळ्ळें पयलें शेत, ह्या शेताइतलेंच भरपूर पिकेन भरलेलें आसलें तरूय ..."

ताका मदींच ख्रंबयत शेतकारान म्हळें,

"तूं जें कितें म्हणटा तें खरें आसा. तुका इतली वाट अदीक चलोवन फुडें हाडपाची गरजूच नासली. त्यावूय शेताक ह्याच शेतापरीं भरपूर पीक आसली पूण ... तें शेत म्हजें न्हय आसलें."

शेतकाराचो संदेश पिकेपरसूय अदीक पिकलेलो. न्हय?

53.

# अक्कल घाणाक कित्याक दवरची?

**भो**वंक वचपाचें म्हळें काय धाकटें आनिशा त्याच खिणाक तयार जावपी. उखलून मात धरूक जाय ताका. पूण त्या दिसा उखलून ना धरपाचो ताचेलागीं करार करून आमी मैदानार पासयेक भायर सरलीं. आनिशा आनी हांव.

फूटपाथवेल्यान वाट काडीत लोकांचे गर्देंतल्यान नाक्यार पावलीं आमी. आनी तेन्नाच थंय आसलेल्या एका कांकणाच्या दुकानाचर नदर पडली. खूब लौकीक हें दुकान - चेडवांखातीर. दिसलें, आनिशाखातीरय कांकणां विकतीं घेवचीं. हावें आनिशाक म्हळें,

"राजा, चल तुका कांकणां घेवंया." आनी ताच्या हाताक धरून दुकानाचे दिशेन चलूंक हावें सुरवात केली.

पूण आनिशा थंयच उबें रावलें. म्हज्या हातांतलो आपलो हात सोडलो आनी आपले धाकटुलेशे दोनूय हात म्हाका दाखयत म्हणूंक लागलें,

"नाका. कित्याक? हीं पलय आशात कांकनां."

कौतूक दिसलें म्हाका आनिशाचें आनी कांय दिसां म्हयन्या पयलीं घडलेले एके घडणुकेचो म्हाका त्याच खिणांक उगडास जालो,

रेल गाडयेंतल्यान प्रवास करतालीं हांव. दनपारचो वेळ आसलो. गर्दी नासली गाडयेंत. जनेलालागीं दोन चेडवां आसलीं बसून. एकामेकाच्यो

इश्टीणी. उलयत आसलीं तीं. इतल्यान गाडयेंत बसून भोंवपी भुरगो आपलें बॉक्स घेवन आयलो. कपलाक लावपाच्यो तिकल्यो, गांच, कांकणां आनीक खूब खूब वस्तू. त्या दोगांय चलयांची नदर त्या कांकणकाराचेर गेली आनी आपोवन हाडलोच ताणीं ताका. तांचेमदल्या एका चेडवान वेगवेगळ्या रंगाच्या कांकणांचीं बंडलां आरतून परतून पळयल्या उपरांत शेवटीं तांबड्या रंगांचीं दोन बंडलां विकतीं घेतलीं.

आनी शेवटीं ... आपल्या बॅगांतली चावी काडली ताणें आनी हातांत आसलेलीं नवीं ताल्ल कंवचेचीं मुद्दाम फोडून वडयलीं दोनूय हातांतलीं बारा बारा कांकणां. आनी निकतींच घेतलेलीं नवीं ताल्ल कांकणां घालूंक सुरवात केली. घातलींय बा. कसलेच तरेची भावना व्यक्त करीनासताना.

पूण भावना म्हज्यो व्यक्त जाल्यो आनी त्यो मात म्हज्योच. दुडवांक न्हय जाल्यार तो दुडू जोडूंक काडलेल्या कश्टांक त्या चेडवान मान दिवचो आसलो! पूण हें जालें म्हजें चिंतप. त्या चेडवाचें चिंतप आसलें वेगळें.

इतल्यान “फिलू आंटी, चल मैदानार या.” म्हणीत आनिशा म्हज्या हाताक धरून फुडें वचपाक ओडूंक लागलें. मैदानार वचपाचे उठावळीर आसलें तें.

“हय राजा, मैदानार या आमी.” म्हणीत ताची अपुरबाय करीत उखलून न धरपाचो करार मोडीत उखलून धरलेंच ताका. उखलून धरूनच मैदानार व्हेलें. मैदानार भुरगीं हेवटेन तेवटेन धांवत खेळत आसलीं. घसरगुंडीर बसून घसरत खाला येवपाक वळीन खाला उबीं आसलीं. आनिशाय तांचेमदीं सामील जालें. पूण म्हाका मात चिंतूंक लायलें ताणें. खंय ते गाडयेंतल्या नाडिल्ल्या चेडवांची अक्कल! आनी खंय ...

न-कळटां भुरगीं लेगीत आपले देखीन जाणटेल्यांचे पांय खेंचूंक शकतात. पटलें म्हाका. पटोवन घेवचें पडलें म्हाका.

# 54.

## एक हजार रूपया

आपले लागीं इलाज घेवंक आयलेल्या दर एका पिडेस्ताकडसून तो दोतोर आपलो दुडू वेगवेगळे पद्धतीन वसूल करतालो. ताणें कसलीय तरा वापरली जाल्यार लेगीत ताचेसरीं गेलेलो पिडेस्त निराशी जावन मात केन्नाच परतनासलो.

एकदां एक पिडेस्त तरनाटो आपलो इलाज करपाखातीर त्या दोतोरासरीं गेलो. ऑपरेशनाची गरज आसली ताका. पूण ऑपरेशन करपाखातीर ताचेलागीं फाव तितलो दुडू नासलो. सुमार एक हजार रूपया कमी पडटोले. आनी आपली ही अडचण ताणें दोतोराक सांगून सोडली. दोतोराना ताची ही अडचण समजून घेतली आनी तो म्हणूंक लागलो,

"हांव तुजें ऑपरेशन करतां. पूण तूं बरो जातकूच तुका दिसता तुज्यान नोकरी करून म्हका दर म्हयन्याक शंबर रूपया दिवन हे एक हजार रूपया फारीक करूंक जातलशे?"

"जातेलेच दोतोर. म्हाका हाचेविशीं खात्री आसा. कित्याक, हांव बरो जातकूच, पयलें काम करतलों तें नोकरी सोदपाचें. आनी एकदां म्हाका नोकरी मेळ्ळी म्हणटकूच हांव तुजो दुडू पैशान - पैसो फारीक करतलों. सहजपणीं. दर म्हयन्याक शंबर रूपया फारीक करून." तरनाट्यान खात्रीन सांगलें.

ऑपरेशन केलें. बरो जाल्या उपरांत तो तरनाटो नोकरेक लागलोय बी. आनी अटीप्रमाण त्या दोतोराक दर म्हयन्याक शंबर रूपया नकद धाडीत रावलो. एक हजार रूपयांची पुर्ती करपाखातीर जेन्ना निमणे शंबर रूपया जेन्ना ताणें दोतोराक पाठोवन दिले तेन्ना दोतोरान त्या तरनाट्याक एक चीट पाठयली. ते चिटींत बरयलेलें आसलें...

---- रीण फारीक करूक दिलेलें उतर तुवें पाळ्ळें देखून हांव चड खोशी. पूण ताचेपरसूय तुवें बरें काम केलें तें म्हळ्यार स्वतःच्या पांयार उबो रावून तुवें तुज्यांतली शक्त दाखयली - तुज्यांतलो आत्मविश्वास दाखयलो. हे एक हजार रूपया तूं बँकेंत दवर आनी ते आनीकूय वाडय. तुका भरपूर येस आंवडेतां.

आनी ते चिटीवांगडाच दोतोरान त्या तरनाट्याक कळंतरासैत एक हजार रूपयांचो चेक पाठोवन दिलो.

## 55.

## अशीय बी इश्टागत

ताळयांच्या उर्बेभरीत आवाजार आपलो कार्यक्रम सोंपल्या उपरांत तो नांवलौकीक संगीतकार एकदम चिंतेस्त जाल्लो पळोवन त्या संगीतकाराचो इश्ट अजापभरीत जालो. घडये ताच्या जिवाक बरें दिसना आसत म्हूण समजून ताच्या इश्टान त्या संगीतकाराचे भलायकेव्शीं चवकशी केली.

आपल्या इश्टाची काळजी पयस करीत त्या संगीतकारान म्हळें,

"ना, ना. म्हजी काळजी करपासारकें तशें कांयच ना. पूण म्हाव
काळजी लागल्या ती म्हज्या इश्टांची."

त्या संगीतकाराक त्या गावांत इश्ट आसात म्हूण कळटांच ताच्य
इश्टांक आनीकूय अजाप दिसलें. म्हणूंक लागलो,

"तुका ह्या गावांत इश्ट आसात म्हणपाचें तुवें म्हाका हे आव
केन्नाच सांगलें ना."

संगीतकारान ताका जबाब दीत म्हळें,

"हय. ह्या गावांत म्हाका इश्ट आसात - एक जाणटेल्या घोव
बायलेचें जोडें. पूण तांकां हांव केन्नाच मेळूंक ना. न्हय म्हूण हांव तांचेलाग
केन्नाच उलोवंकूय ना. तीं म्हाका खूब लागशिल्लीं कशीं जावन आसात
हांव ह्या गावांत आयलेले खेप तीं म्हज्य कार्यक्रमाक हाजीर जातात
माचयेलागीं आसलेल्या फुडल्या बसकांचेर तीं दोगांय आसतातूच. संगी
आयकताना तांच्या दोगांयच्याय तोंडार दिसलेली संपूर्ण खोशी, सूख
समादान, धादोसकाय म्हज्यांत इतली भिनलेली आसा, दर खेप हांव ह्य
गावांत येतां आनी संगीत वाजयतां तें फक्त तांचे दोगांयचे खातीरूच
आयज तीं दोगांय कार्यक्रमांक येवंक नात. देखून म्हाका चुकिल्यापरं
जालां. म्हाका तांचो हुस्को जाला. तांचें कांयच वायट जायना जाल्या
पुरो म्हण मागतां."

त्या संगीतकाराचो इश्ट फुडें आनीक कांयच उलयलो ना.

हेपरी केन्नाय इश्टागतिचें सूख भोगूंक मेळटा. अशीय बी इश्टागत
आसूंक शकता न्हय?

56.

# तांकां बुद्ध शिकोवपाची

आनीक थोड्याच दिसांनी त्या राज्यांत वेंचणुको जावपाच्यो आसल्यो. आपल्या मतदारसंघांतल्या उमेदवारांची परीक्षा घेवंची म्हण पीटर तिनसांजचे कातरेर त्या उमेदवाराच्या घरालागीं गेलो. घराची घंटी वाजयली. उमेदवारूच दार उगडूंक भायर आयलो. पीटरान ताका आपले मोटारगाडयेक बोट दाखयत म्हळें,

"हें पळय, म्हजें मोटर अकस्मात बंद पडलें. तें चालू करपांत तूं म्जी मदत करशी? आमी दोगांयनी धुकलल्यार तें चालू जावंक शकतलें."

त्या उमेदवारान आनीक वेळ लावंक ना. म्हणूंक लागलो,

"चल, चल वचूंया."

मोटरगाडयेलागीं पावतांच पीटरान त्या उमेदवाराक अजापभरीत करून सोडलो. पीर गाडयेंत बसलो आनी इंजीन चालू करीत म्हणूंक लागलो,

"म्हजे मोटरगाडयोक कांयच जावूं ना. हांव फक्त इतलेंच जाणां जावंक सोदतालों, हावें म्हजें मत तुका दिवंचें कांय ना?" इतलेंच सांगून उमेदवाराक थंयच थटाकलेलो दवरून पीटर आपलें मोटर घेवन आपल्या घरा खोशेन परतलो.

आश्वासनां दिवपी राजकारणी खूब आसात. पूण करण्यांनी करून दाखोवपाचो वेळ पावतकच, आश्वासनां विसरून सोंश्यापरी दोळे घट्ट

मिटून संवंग करपी राजकारणी मनीस उणें नात. असल्या ढोंगी मनशांचेर विश्वास दवरूकच जायना. आश्वासनां वस्तुस्थितींत हाडपी मनशांकूच मतदारांनी फाटबळ दिवपाचें. असल्या मनशांक पारखितलो जाल्यार आपणें दर एका खिणांक चतूर रावपाचें.

स्वता चतूर रावन ढोंग्यांक बुध्द शिकोवपाची.

## 57.

## सगळें बळ वापरून

धाकटीं मारीया आनी एना शाळेंत वचूंक भायर सरतात म्हणसर बरोच कळाव जालेलो. घंटी वाजचे आदीं शाळेंत पावपाची शक्यताय कमी आसली. हेंच चिंतून वाटेंत चलतां चलतीं मारीयान एनाक म्हळें,

"म्हाका दिसता, आयज आमी वेळार शाळेंत कशींच पावपाचीं नात. आमी हांगासरूच थांबून देवालागीं मागुंया, आमकां वेळार शाळेंत पावपाक."

एनाक मारीयाचें म्हणणें पटलें ना. म्हणूंक लागलें,

"ना. आमी आतां धांवंक सुरू करूया. जाता तितल्या वेगान धांवूया. आनी धांवता आसतानाच आमकां वेळार पावोवंक आमी देवालागीं मागूया."

जायते खेप, परीक्षेच्या वेळारूच विद्यार्थी दीस - रात देवाच्या नांवान जप करतात, चिंतून हें, देवालागीं मागल्यार परीक्षेंत नापास

जावपाची शक्यतायच ना म्हूण. उपरांत तांच्या मनाप्रमाण जायना जातकूच देवाक शीणटात. इतलें मागूनय वी देवान आपल्याचेर विसर घातलो म्हूण देवाचेर राग करतात. देवाक फाट करूकय वेळ लायनात.

मनशान देवालागीं आपल्याक मदत करूक मागचेंच. देवालागीं मागना जाल्यार आनीक कोणालागीं मागपाचें? पूण तेचबरावर आपले वतीन आपलो अभ्यासूय भरपूर करपाचो. आपल्या वांट्यान आपणें स्वता आपणें घडटा तितलेंय प्रयत्न करपाचे. सगळें बळ वापरून. तेन्नाच आमचें काम जमूंक शकता. तेन्नाच तर देव आमचे प्रयत्न सुफळ केल्याशिवाय रावचोच ना.

हात कवळून बसल्यार कांय जावपाचें ना. उद्देग केलेबगर फळ मेळना. जेवण आयतें मेळ्ळें म्हणून तें तोंडाकडेन व्हेलेंशिवाय पोटांत पडना. वावर करूनच कामां तडीक पावतात. सगळें देवाचेरूच आटापून आसलेलेपरी मागणें करपाचें आनी सगळें आपल्याचेरूच अवलंवून आसलेलेपरी काम करपाचें.

## 58.

## हें हावें कितें केलें?

एक दीस एक खारवी आपल्या आख्या दिसाचो वावर सोंपल्या उपरांत थकून हळू हळू आपल्या घरा परततालो. आपल्याच चिंतनांनी गुंथून चलतालो तो. गिरेस्त जावपाचीं गोड गोड चिंतनां ताच्या मनांत घोळूंक लागलीं. चिंतूंक लागलो,

- हांव गिरेस्त जायत जाल्यार एक शेताचो कुडको विकत घेतलों. घरूय ल्हान आसा तें मातशें वयर उबारतलों. ना, ना. उबारचेंच कित्याक? नवेंच घर बांदतलों.

अशेपरीं खूब सपनां सपनेवंक लागलो तो. आनी ह्या सपनांचे तंदरेंत आसताना फातरांनी भरलेली कशी एक चामड्याची जड पोटली ताच्या पांयाक आदळ्ळी. ओणव घालून ताणें ती उखल्ली आनी तातूंतलो एक एक फातर काडून दर्यांत भिरकायत रावलो.

ताचीं चिंतनां आनीकय फुडें धांवत रावलीं. तो आपल्याकूच म्हणूंक लागलो,

- हांव गिरेस्त जातलों तेन्ना व्हडलें माळयेचें घर बांदतलों.

अशें म्हणीत ताणें पोतयेंतलो एक फातर दर्यांत मोखून मारलो.

- म्हजेलागीं खूब दौलत येतली तेन्ना हांव अमेरीकेचे भोंवडेर वतलों, विमानान.

अशें म्हणीत ताणें पोतयेंतलो आनीक एक फातर काडून दर्यांत भिरकावन मारलो. एका फाटल्यान एक करीत तो फातर दर्यांत शेवटीत रावलो.

तो फुडें चिंतीत रावलो.

- हांव खूब श्रीमंत जातलों तेन्ना राजापरीं जियेतलों.

अशें म्हणीत पोतयेंतलो निमाणो फातर दर्यांत शेंवटूपाक वतालो, तेन्नाच त्या फातराचेर मावळट्या सुर्याचीं किरणां पडून तो फातर चमकूंक लागलो. आनी तेन्नाच आपूण दर्यांत शेंवटीतालों ते सगळे फातर न्हय आसलेत म्हण ताच्या लक्षांत आयलें. आपणें दर्यांत भिरकावन मारल्यात ते फातर न्हय पूण हिरे आसले म्हण कळटांच ताच्या काळजाचे कुडके जाले. चुरचुरलो तो. रडूंकय आयलें ताका.

- हें हावें कितें केलें?

म्हूण गुणगुणत कपलाक हात लावन बसलो. गिरेस्त जावपाचीं

सपनां सपनेत रावूनच ताणें हातांत आयलेली दौलत आपणेच सोडून दिली म्हूण निराशी जालो.

फकत सपनांच रंगयत बसल्यार आमच्या वांट्याक येस येवपाचें ना. सपनांक वस्तुस्थितींत हाडपाक हालचाल करीत रावल्यारूच जिवितांत आमचेखातीर सुवात तयार करूंक शकतलीं. भरपूर वावर करून, भरपूर कश्ट करून.

## 59.

## नशीब तें

दुकानार सामान घेतालीं हांव. तेन्नाच तीं घोव आनी बायल त्याच दुकानार पावून सरलीं. तांच्या सांगाताक सुमार दोन वर्सांचें एक भुरगें आसलें. घोवान उखलून धरलेलें ताका. भितर सरनाफुडें दुकानांत आसलेल्या वेगवेगळ्या चॉकलेटींच्या विज्रांचेर नदर भोंवडायली आनी कडेक आसलेल्या बिस्किटींच्या तरेकवार पुड्यांसरीं गेली - बिस्किट्यांचो पुडो घेवपाच्या हेतून.

ते बायलेच्या उलोवपांतल्यान तीं आपल्या सोयऱ्यांगेर वतालीं आसूंक जाय. दिलायत चो पुडो उखल्लो. खाला दवरलो. उपरांत मोनाकोचो पुडो उखलल्लो आनी तोवूय पसंत नासलेल्यान हायड ऍन्ड सीक चो पुडो उखल्लो आनी होच पुडो विकतो घेवपाक घोवाची परवानगी मेळटच, घोवान आपल्या बोल्सांतलें दुडवांचें पाकीट काडलें. दुकानदाराक बिस्किटचे पयशे फारीक करून जातकूच दुकानदारान उरलेलो एक रूपया ताच्या

हातार दवरलो. हातांत आसलेल्या एका रूपयाक तो खिणभर पळयत रावलो. चिंतीत. गंभीर विचार केलेल्यापरी. उपरांत मेलडी चॉकलेट आसलेल्या विज्राक पळयलें ताणें. परतून हातांत आसलेल्या एका रूपयाक पळयलें. आनी ---- मान वयर काडीत दुकानदारालागीं एक आठ आण्यांवाली मेलडी मागली. दुकानदारान विज्रांतली काडून दिलेली मेलडी चॉकलेट ताणें आपल्या भुरग्याच्या हातांत दिली आनी दुकानदारान आठ आणे परतून दिवचे आदींच उरलेल्या आठ आण्याची आनीक एक मेलडी चॉकलेट घेवपाखातीर प्रश्नचिन्ह आसलेले नदरेन तो आपले बायलेक पळोवंक लागलो. बायलेकडल्यान हयकार मेळटकूच आनी दुकानदार उरलेले आठ आणे परतून दिवंक वतांच ताणें दुकानदारालागीं आनीक एक चॉकलेट मागलीच.

तेन्नाच म्हज्या मनांत हीं चिंतनां आयलीं : कांय आवय बापूय आपल्या भुरग्यांखातीर आकाशांतलीं नखेत्रां लेगीत तोडून हाडूंक तयार आसतात. दितातूय बी. भुरग्यांनी मागनासताना. त्या भुरग्यांचें नशीबवंत नशीब म्हणपाचेंच तें.

आनी कांय भुरग्यांचे .....

60.

## हांव जाणां आसलीं

एका पयसुल्ल्या जुंव्यार एक घोव - बायल रावतालीं. एकलीं एकसुरीं....

सोबीत सुंदर दर्यावेळेर तितलेंच सुंदर तांचें घर आसलें. माडांच्या

चुट्टांची थंड शीतळ सांवळी, शीतळ - नितळ वारें, मळबांत लिकलिकपी नखेत्रां - एक भूंयवैकूंठ कशें. आनी तशें पळोवंक गेल्यार हें ताचें भूंयवैकुंठच आसलें. कारण ताणीं ह्या जुंव्याशिवाय आनीक दुसरो गांवूच केन्ना पळोवंक नासलो. हो जुंवोच तांचो तांचेखातीर संवसार. घोवान दर्यांतलें नुस्तें हाडप आनी बायलेन घरांतलें काम करप. सुखा समादानान दीस सारप. हेंय तांचें जिवीत आसलें.

एक दीस नुस्तें धरूंक गेल्लेकडेन दर्यावेळेर कितेंतरी झगझगता तें घोवान पळयलें. लागीं वचून उखलल्यार तें ताचेखातीर एक अजापूच आसलें. ते धाकटेशे वस्तूंत ताका एक रूपकार दिसूंक लागलो. मनशाचो रूपकार. तो अजापभरीत जावन हांसलो. जाल्यार त्या रूपकाराचेंय तोंड हांसूंक लागलें. तो आपल्याक पळोवन हांसता म्हूण चिंतून राग आयलो. ताणें रागान त्या रूपकाराक पळयलें जाल्यार तो रूपकारूय ताका रागान पळोवंक लागलो.

हय - ती अजापांचीच वस्त म्हळ्यार एक हारसो आसलो.पूण हारसो केन्नाच पळोवंक नासलेल्या मनशाक तें एक अजापूच आसलें. शेवटीं त्या हारशांतलीं वेगवेगळीं रूपां पळोवन हारशांत दिसपी मनीस आपलो मेलेलो पाय जावंक जाय म्हण त्या घोवान चिंतलें आनी आपल्या खोमसाच्या बोल्सांत घालून एके वेगळेच खोशेन तो घरा आयलो.

हे अजापाचे वस्तुची गजाल बायलेक कित्याक सांगची? अशें चिंतून तो वगीच रावलो. त्या दिसा तो इतले उमेदीर आसलो, परतून परतून ती वस्त पळोवचेली ताका उमळशीक लागलेली. बायलेचें आपल्याचेर लक्ष ना तें पळोवन घोव हळूच हारसो भायर काडून अमुरपिकोच हांसून परतून बोल्सांत घालतालो. खूब खोशी दिसतालो तो.

बायलेक तर ताचें हें वागप विचित्रूच दिसपाक लागलें. आपल्याली नदर चुकोवन, बोल्सांतल्यान हळूच कितेंतरी भायर काडून अमुरपिकोच हांसता तें पळोवन ती चितूंक पडली. ताचेर अदीकूच लक्ष दवरूंक

लागली. तरूय लेगीत आख्खो दीस ताच्या घोवाची ही अशी वागणूक आसली. रातीक न्हिदचे आदीं लेगीत आपूण पळयना म्हण समजून ताणें हळूच बोल्सांतलें कितेंतरी काडून अमुरकोच हांसून परत बोल्सांत घातलेलें पळोवन, तें कितें जायत तें जाणा जाल्याशिवाय तिच्यान कशेंच रावूंक जायना जालें. घोवाक गाड न्हीद घालून ती हळूच ताचेसरीं गेली आनी ताका आपली सुलूस लागूंक दिनासताना ताच्या बोल्सांतली ती अजापाची वस्त काडलीच तिणें.

आनी तिवूय बी खऱ्यांनीच अजाप जाली. हे अजापांचे वस्तूंत तिणें एके अस्तरेचो रूपकार पळयलो - एके राजकुंवरेसारखी सोबीत सुंदर अस्तुरी. खूब राग आयलो तिका. म्हणूंक लागली - हांव जाणां आसलींच, ती एक अस्तुरीच जावंक जाय म्हूण.

आपलो घोव, आख्खो दीस आपल्याक विसरून हे सुंदरेक पळोवनूच अमुरपिको हांसून सूख भोगता म्हूण चिंतून ही बायल सारखी तापली. मोटे दोळे करीत ते हारशांतले अस्तरेक पळयत रावली. तर कसलें अजाप! ते हारशांतली अस्तुरीय बी तिका रागान पळयत रावली. आपल्या घोवाक भुलोवपी हे अस्तुरेक आपल्याक रागान पळोवंक कसो धार येता काय म्हण चिंतून ती आनीकूय रागान भरली. आनी रागाच्या भरांत तिणें ती अजापांची वस्त पयस शेंवटून मारली. हारसो फुटून चुरो जालो. हारशांतली अस्तरीय बी शेणली. बायलेचें समादान जालें. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार, घोवाचेर येवपी बायलेच्या कोप-रागाचें मोठें विघ्न निवारलें.

हय, हांसपासारखीच गजाल ही. पूण बारीकसाणेन नियळ्यार इल्लोसो दुबाव कितलें वायट करूंक शकता! दोन मनशांमदीं वा घराब्यांतल्या वांगड्यांमदीं गैरसमज निर्माण करूंक शकता. इल्याशा दुबावाक लागून केन्नाच भरून काडूंक जायनासलेली फूट निर्माण करूंक शकता. थोडी आगळी सोंसणिकाय घेवन दुबाव पैस दवरूंक वावुरल्यार कशें?

61.

# म्हाका अधिकार आसा. पूण...

केन्ना केन्ना मनशाचेर असो वेळ येता, ताका आपल्या अधिकाराखातीर झगडचें पडटा. आपल्या अधिकाराचेर केल्लें आक्रमण तो सहन करूक शकना. आपलो अधिकार मेळोवपाखातीर तो कसलीय वाट चलपाक तयार आसता. कोर्टाची लेगीत. अशें करपांत कांयच वायट ना. पूण ... केन्नाय पावल शिमेभायर पडलें जाल्यार?

एकदां एका भाटकारान आपल्या मुंडकाराक कोर्टांत व्हरपाची धमकी दिली. कारण इतलेंच, उशणे घेतलेले धा रूपये, आपले गरीब परिस्थितीक लागून तो भाटकाराक परतून दिवंक शकनासलो. पयशे वसूल करपाक खूब प्रयत्न करून थकतकूच तो भाटकार एका वकिलासरीं गेलो आनी आपल्याक कशेयपरीं मदत कर म्हूण मागपाक लागलो. वकिलान पयलीं हो खटलो स्वीकारपाक नकार दिलो. परतून विचार करतकूच तो कबूल जालो. पूण एके अटीचेर - आपली चाळीस रूपयांची फी आदींच फारीक केल्यार.

भाटकारान वेळ वगडायनासताना चाळीस रूपया वकिलाच्या हातार दवरले. चाळीस रूपया घेवन वकील मुंडकारागेर गेलो. वीस रूपया मुंडकाराक दिले आनी तातूंतल्या धा रूपयांनी भाटकाराचें रीण फारीक करूक सांगलें. बाकिचे वीस रूपया आपल्या बोल्सांत वडयले. कोल्याचे बुद्धीन वकिलाक फायदो जावन मुंडकाराकूय फायदो जालो आनी खटलो

मिटलो. त्या भाटकाराक मात हाची बिलकूल म्हायती मेळ्ळीच ना.

धा रूपयांखातीर त्या भाटकारान फक्त आपलो अधिकार मेळोवपाखातीर तीन पटीन दुडू खर्चिलो. अधिकार नक्कीच मेळोवन घेतलो. पूण ताचो शेवट कितें जातलो ताचेर मात लक्ष दिलें ना.

दुबळ्यांक आमच्या काळजांत इल्लो तरी जागो राखून दवरचो. ज्या कामाचो शेवट आमकां मूर्ख थारायतलो, आमकां पिश्यांत काडटलो, त्या शेवटापासून पैस रावपाचें.

## 62.

## म्हाका व्हडलें घर जाय.

निवेदीता एका व्हडल्या घरांत रावपाचीं सपनां सपनेतालें. आपूण स्वता रावता तें घर ताका दिसानदीस ल्हानूच जायत वताशें दिसतालें. घराफाटल्यान आसलेली व्हडली बाग, घराभोंवतणचीं झाडां, भुरग्यांक अभ्यास करपाखातीर वेगळी कूड, सोयऱ्यांखातीर आनीक एक वेगळी कूड आसलेल्या एका व्हडल्या घराची ताका आशा जाली. आनी आपली ही आस भागोवपाची मागणी ताणें आपल्या घोवाक केलीच. सद्याचें घर विकून, तातूंत आनीक दुडवांची भर घालून एक नवें व्हडलें घर घेवपाक हट्ट धरलोच ताणें.

बायल हट्ट धरून बसतकूच घोव आनीक कितें करतलो? निवेदीताची इत्सा पुर्ण करपाखातीर ताका फुडलें पावल मारचेंच पडलें.

कांय दिसांनी निवेदीतान वर्तमानपत्राचेर 'घर विकूंक आसा' अशी एक जायरात वाचली. ताका कळूंक दिनासताना, ताच्याच घोवान वर्तमानपत्राक दिलेली आकर्शक असली जायरात आसली ती. जायरातीनुसार, विकपाक आसलेल्या व्हडल्या घरांत भुरग्यांक शिकपाखातीर भरपूर उजवाड आनी भरपूर वारें आसलेली शितळ-नितळ अशी वेगळी कूड, घराफाटल्यान झाडांच झाडां लावन भरपूर फळां पिकोवपासारखी जमीन, घरा भोंवतणी सावळीच सावळी दितेले माड. अशेपरीं कोणाच्याय दोळ्यांत वचपासारखें हें घर.

ही जायरात वाचून निवेदीताचे खोशेक शीममेर उरली ना. ताच्या सपनांतलेंच घर आसलें तें. आपलो घोव कामाक सावन घरा येतपासून ताच्या मनाक थारो उरलो ना. घोवाक फोन मारून, नव्या घराची चवकशी करूंक वचपाखातीर बेगींच घरा आपयलो ताणें.

घोव घरा पावचे आदींच न्हेसून तयार रावलें निवेदीता. घोव येताना दिसतांच आनीकूय खोशेन भरलें. घराच्या हुमन्यारूच ताचें स्वागत करूंक धांवलें. घराचो हुमरो चडचेआदींच अमुरकेंच हांसत ताच्या घोवान ताच्या खांदार हात दवरीत, घराचे भोंवतणी आसलेल्या माडांनी भरलेल्या सुवातींतल्यान वाट काडीत ताका घराफाटल्यान आसलेले बागेंत व्हेलें. फाटल्याच दारांतल्यान भितर सरून चार कुडांच्या घरांत आसलेल्या वेगवेगळ्या लांब रूंद कुडांची ताका वळख करून दिली. आपल्याच घराची सोबितकाय ताच्या दोळ्यांमुखार मांडली. हांडीर आसा चेडो आनी सोदता सगळो वाडो ही म्हणणी निवेदीताक पटल्यां. आपलेलागीं आसलेल्याचेर विसर घालून अस्वस्थ जावंचे बदलेक आपलेलागीं आसा ताचेरूच सूख मानपाचें आसता म्हूण ताका जाणीव जाली.

आमींय बी तशेंच करूया...

63.

## खुशालकाय खंय मेळटली?

रचणारान मनशाक सदांच खुशाल जियेवंक रचला. आपणें दिल्ल्या देण्यांचो भरपूर फायदो घेवन सदांच मनीस सुखेस्त आनी खुशाल आसचो हीच आमच्या रचणाऱ्याची अपेक्षा आसली. पूण मनीस उरफाटें वागूंक लागलो. दुखाशिवाय ताचेलागीं चिंतपाखातीर, भोगपाखातीर दुसरें कांयच नाशें दिसूंक लागलें ताका. दुखाशिवाय आपल्यां वांट्याक रचणाऱ्यान आनीक कांयच दिवंक ना म्हूण स्वताची खात्री करून घेवन आपल्याक दुख्खी केला म्हण रचणाराचेरूच शीण करीत रावलो. रचणाराकूच आपले परिस्थितीचो जबाबदार थारायलो. आपणेंच स्वताचेर अशेपरीं दुख्ख ओडून घेवप्याक रचणार तरी कशी मदत करतलो? मनशाचे हे असले वागणुकेक लागून एक दीस ब्रह्मदेवान आपल्या वांगड्यांची सभा आपयली आनी आपली येवजण तांकां सांगली. ब्रह्मान म्हळें,

"हांव मनशाची खुशालकाय लिपोवंक सोदतां. अशा पयस जाग्यार, मनशाक ती सांपडूंकच फावना."

हें आयकून पयलो वांगडी ब्रह्माक म्हणूंक लागलो,

"आमी मनशाची खुशालकाय खोल जमनींत गाडून दवरूया. म्हणजे मनशाक ती कशीच मेळपाची ना."

पूण देवाक ताचें म्हणणें बिलकूल मानवलें ना.

"मनीस जमीन खणून खुशालकाय सोदून काडटलोच." पंचमुखी

ब्रह्मान तांकां समजायत सांगलें.

"तशें जाल्यार आमी मनशाची खुशालकाय समुद्राच्या खोरीक बुडोवंया." दुसऱ्या वांगड्यान आपली युक्ती मांडली.

पूण ब्रह्मदेवाक हिवूय सुचोवणी पसंत पडली ना. "मनीस एक दीस समुद्राच्या तळाक लेगीत वचून खुशालकाय सोदून काडटलोच." ब्रह्मान तांकां पटोवन दिलें.

वांगडी चिंतूंक पडले. म्हणूंक लागले, "तशें जाल्यार मनशापासून खुशालकाय लिपोवन दवरूंक एकूय जागो आसूंक शकना जंय मनीस पावपाची शक्यताय ना."

"आसा", ब्रह्मदेवान म्हळें. "आसा एक जागो जंय मनशाची खुशालकाय लिपोवंक जाता. असलो जागो, त्या जाग्यार खुशालकाय सोदपाक मनीस आपलें लक्ष लेगीत घालचो ना. ते सुवातेर खुशालकाय मेळत म्हूण विचार लेगीत करचो ना मनीस. आनी ही सुवात, हो जागो म्हळयार स्वता मनशाभितरूच, मनशाच्याच मनांत, मनशाच्याच काळजांत."

आनी तेन्नापासून अशें म्हणटात, मनीस खुशालकाय सोदूंक खूब धडपडटा. खुशालकाय मेळोवन घेवपाक खूब धांपेता. खर्शेता. खुशालकाय सोदपाखातीर गोल - गोल भोंवाडे मारता. स्वताभोंवतींच. पूण स्वता आपलेच भितर खुशालकाय पेणें करून आसा म्हूण मात ताच्या लक्षांत येना. खुशालकाय आपल्याच मनांत, आपल्याच काळजांत रीगून आसा म्हूण पत्तोच आसना ताका.

जी वस्त आपलेलागीं आसा ते वस्तुच्या सोदांत आपलें आख्खें जिवीत निर्फळ प्रयत्नांनी वगडावंक कोणें सांगलां?

64.

# म्हजो हिशोब ना?

"ह्या इतल्या व्हड संवसारांत म्हजो खंय हिशोब आसा? हावें कितेंय काम करूंक चिंतलें म्हण तें कोणाचे नदरेक पडूंक आयलां? करूनय कसलो फायदो?"

हे असले प्रश्न जायते खेपे आमचें मन निराशी करून सोडटात. अशें दिसता, व्हड व्हड मनीस कितें करूंक जाय तें करतलेच. हावें आनीक गरजे विरयत कित्याक उठाबश्यो काडच्यो? तशें पळोवंक गेल्यार म्हजो कोणाचेर प्रभाव पडपाचो आसा? हेंय खरेंशें दिसता. पूण तें खऱ्यांनीच तें खरें जालेलें जाल्यार?

एक नांवलौकीक म्युझिक डायरेक्टर ऑर्केस्ट्राची तालीम घेतालो. वाजोवप्यांक आपआपलीं कामां ताणें वांटून दिल्लीं. ड्रम वाजोवप्याक ताचें काम समजावन सांगलें. 'बास गिटार', 'लीड गीटार' आनी 'रीदम गिटार' वाजोवप्यांक तांच्या कामाविशीं समजावणी दिली. व्हायोलीन वाजोवप्याकूय तच्या कामाची जाणीव करून दिली. ऑर्केस्ट्रा चालू जालो. व्हायोलीन वाजोवप्यान चिंतलें,

"ह्या इतल्या व्हड आवाजान म्हज्या व्हायोलीनाचे सूर आयकूंक येयना जाल्यार कोणांक चुकलेंशें दिसचें ना." आनी तो व्हायोलीन वाजयनासताना रावलो. तें गीत सोंपलें आनी शेवटाक येवंक जाय आसलो तो व्हायोलीनाचो नाजूक सूर आयलोच ना. संगीत दिग्दर्शक रागान आड्डलो : "व्हायोलीन खंय आसा?"

देवान आमकां एक एकल्याक वेगवेगळीं देणीं दिल्यांत. हेखातीर पयलीं आमी देवाक आर्गां दिवंक जाय. आमच्या देण्यांक हलकीं समजप म्हळ्यार देवाचो अपमान करप. आमच्या जिवितांत आमीच एक पोकळसाण निर्माण करची न्हय. विधायक काम करून आमी आमकां आनी समाजाक खुशालकाय दिवंची. आमच्यांत जी जी कला आसा ते ते कलेचो आमी भरपूर फायदो काडचो. मागीर ती कला कितलीय कनिश्ट आसूं वा ती किरकोळ म्हण आमची समजूत आसूं. ते ल्हान दिसपी कलेंतल्यान मेळयलेलें सूख, तें सूख भोगपीच समजूंक शकतलो.

करून पळोवंक कसली हरकत?

## 65.

# तीच वाट चलपाची

एक दीस एक कुड्डो मनीस आपले धवे-तांबडे बडयेन सांसपीत सांसपीत रस्त्याचे कडेन चलत आसलो. अकस्मात खंयच्यान तरी, आपल्याच नादांत चलपी एक तरनाटो ताचे सामकायल्यान आयलो आनी ताका आदळ्ळो. दोगूय एकामेकाक आदळून जमनीर पडले.

तरनाटो रागान भरलो. त्या कुड्ड्या मनशाक म्हणूंक लागलो,

“तूं खंय वता तो पळयना कित्याक?”

त्या कुड्ड्या मनशान ताका जबाब दीत म्हळें,

“तूं जंय पळयता थंय वचना कित्याक?”

हय. आमीय बी खूब वेळा दोळे आसून लेगीत कुड्ड्यांपरी वागतात.

संवसारी वस्तूंक लब्दून आमी आमच्या मुखार कांयच पळोवंक शकनात संसारी वस्तूंक लब्दल्लो मनीस त्या तरनाट्यापरी - आपूण खंय वत ताचें ताका भान उरना. तो चलत आसता - ताचे पांय ताका व्हरतात थंयसर. आपल्या स्वताच्या पांयांक मात आपल्याक जाय थंयसर व्हरपाक तांच्यांत गिन्यान आसना. आपल्याक खंय पावपाचें आसा ताचें ताक पडून वचना. आपल्या जिवितांत खंयच्यातरी ठिकाणार पावपाचो हेतू आसलो जाल्यार तो नक्कीच आपूण खंय वता तें पळोवनूच आपली वाट तांकतलो आसलो - आपल्या ठिकाणार पावपाची वाट. ही वाट तो आपले डोळे उगडूनच चलपाचो. कोणाक आदळनासताना.

ज्या जाग्यार आमचें ठिकाण आसा, थंयच पावपाची आमकां उमळशीक जावंदी. आमी जंय पळेतात थंयच वचपाची वाट आमी चलपाची. दोळे उगडून.

## 66.

## आमकां जाय तेन्नाच.

शेजारच्या जाण्टेल्या रॉकी तिवान एक खेप टॉनीक विचारलें, "बाबा टॉनी, तूं सद्दां रतचो न्हिदताना देवाक मागणें करता मुरे?" टॉनीन जबाब दीत म्हळें,

"हय रॉकी तिवा, हांव रातचो न्हिदूंक वतां तेन्ना मागणें करूंक केन्नाच विसरना. खूब झेम येता आसत जाल्यार लेगीत मागणें म्हटल्या बगर केन्नाच न्हिदना."

टॉनीचो देवाचेर आसलेलो मोग-भरवंसो पळोवन रॉकी तिव खोशी जालो. म्हणूंक लागलो,

“शाबास बाबा, तशेंच करूंक जाय. सकाळचो उठटा आसताना मागणें करता मुरे तूं?”

टॉनी खिणभर ताका पळयत रावलो आनी विचारूंक लागलो,

“सकाळीं उठटाना मागणें? कित्याक? म्हाका दिसाची कोणाचीच भिरांत दिसना.”

दुयेंत जातकूच दोतोराचो उगडास येवंचो तसो आमी देवाचो उगडास करतात. फक्त आमचेर अडचणी येतात तेन्ना. आमचेर अद्रृष्ट येता तेन्ना. वा देवाकडल्यान कसलोय उपकार मेळोवन घेवपाचो आसता तेन्ना. आमकां गरज पडटा तेन्ना. आमकां जाय तेन्नाच. आमच्या हुस्क्या - खंतींनी, आमच्या आकांताच्या वेळार. हरशीं आमकां देवाची गरजूच आसना.हरशीं आमकां कोणाचीच भिरांत दिसना.

## 67.

# तांकां कशे सुदरावपाचे?

आपलो गांव सुरक्षित दवरपाखातीर त्या गांवच्या राजान आपल्या गांवां भोंवतणी एक उंच वणत उबारली. ही वणत इतली उंच आनी मजबूत आसली, दुस्मानाक त्या गांवांत भितर सरूंक कसलीच तजवीज नासली. दुस्मान कसोच त्या गांवांत भितर येवंक शकनासलो. भायर भितर येवंक फक्त एक दरवंटो दवरलेलो आनी ह्या दरवंट्याशीं पहारो करूंक मजबूत आंगाचे खडेगांठ राखणदार आसले. गांवचो लोक दुस्मानाची भिरांत नासताना हुस्क्यामेकळो जियेतालो. चोर डाकूंची भिरांत नासताना

सुखी आसलो.

तरूय लेगीत एक दीस गांवच्या लोकांचेर आकांत आयलोच. चोरांनी त्या गांवाचेर घुरी घालून तांचेलागीं आसलें - नासलें तितलेंय लुटून व्हेलें. विरोध करतल्यांक जिवेशीं मारून वडयले. कोणूच कांयच करूंक शकलोना. चोर डाकू तांच्या गावांत भितर सरले पूण राखण करपी वणत मात तशीच आसली. चोरांनी ती वणत मोडूंक नासली. तशें करूंक तांकां शक्य नासलेंय बी. दरवंटो लेगीत तोडूंक नासलो. ताणीं केलें तें इतलेंच : दरवंटो राखपी राखणदारांक दुडवांची रूच दाखोवन तांकां आपले गुलाम करून घेतलेले. इतलेंच. फुडलें काम तांकां आपोआप सोपें जालें. कांय देशघातकी राखणदारांक लागून आख्ख्या गांवचें लुकसान जालेलें.

आसल्या देशघातकी मनशांक कोणें आनी कशे नीट मार्गार हाडचेले? तांच्या गिन्यानार कसो उजवाड घालपाचो? दुडवांचे आशेक लागून समाजाची वाट लावपी अक्कल नासलेल्यांक कोणें अक्कल दिवपाची? तांकां कशे सुदरावपाचे?

## 68.

## सर्गार पावतच

एका नांवलौकीक संगीतकाराक एकदां एका पत्रकारान विचारलें,

“तूं संगीताच्या मळार इतलो येशस्वी आनी नांवलौकीक जावपाफाटलें कारण कितें?”

पत्रकाराक जबाब दीत त्या संगीतकारान सांगलें,

"हांव येशस्वी संगीतकार जावपाक म्हज्यान तुका एकूच कारण सांगूंयेत. आनी तें म्हळ्यार ...देव."

संगीतकाराच्या जबाबान पत्रकाराचें समादान जालें ना. परत विचारीत म्हणूंक लागलो,

"पूण ह्या कामाखातीर तुका कित्याक वेंचून काडलो?"

"सर्गार पावतकूच होच प्रश्न हांव देवाक करपाचों आसा." संगीतकारान सांगून सोडलें.

देवान आमकां वेंचून काडपाफाटलें कारण कितेंय आसूं. पूण देवान आमकां निर्मिलेलें काम आमी मनापासून करपांतूच आमचें कर्तव्य आसा.

## 69.

## हें सदांकाळ आसचें ना

राजान आपल्या मंत्र्याक आदेश दिलो,

"म्हाका एक नवी मुदी करून घेवंक जाय. ते मुदयेर आशें बरप आसूंक जाय, तें वाचल्या उपरांत हांव दुःखी आसताना म्हाका तें बरप खुशाल करूंक शकतलें. आनी हांव खूब खोशी आसताना म्हजे खुशालकायेची मर्यादा राखतलें."

मंत्र्याक प्रश्न पडलो. मुदी तयार करून घेवपाक व्हडलें काम नासलें. ते ती मुदी सोपेपणी करून घेवंक शकताले. ते तितले सोपेपणी करून घेवंक शकनासले ती गजाल म्हळ्यार ते मुदयेर आसूंक जाय तसलें बरप. राजाच्या आदेशानुसार हें असलें बरप करून दिवपी मनशाची

तांकां सक्त गरज आसली. आनी अखेरेक तांकां हो असलो मनीस सांपडलो. ह्या मनशान राजाचो प्रश्न सुटावो केलो. ताणें मंत्र्याक राजाचे मुदयेर अशें बरोवंक सांगलें,

"हें सदांकाळ आसचें ना."

ह्या बरोवपा फाटलो हेतू ताणें मंत्र्याक अदीक विस्कटावन सांगलो. म्हणूक लागलो,

....जेन्ना राजा दुखेस्त आसतलो, तेन्ना ह्या बरपाचेर नदर मारतकूच आपल्याचेर आयलेलें दुःख सदांकाळ आसचें ना म्हण जाणा जावन ताचें दुःख उणें जातलें. ताचें मन खुशालकायेचे वाटेन ओडटलें. आनी जेन्ना राजा खुशाल आसतलो, तेन्ना ती खुशालकाय तात्पुरती, ती सदांकाळ उरची ना म्हण जाणा·जातकूच राजा आपले खुशालकायेचेर नियंत्रण दवरूंक शकतलो.

आमींय बी आमच्या दुःखांत आनी खुशालकायेंत हीच जाणवाय वापरपाची.

## 70.

## भंगू बाबड्याचें

दोंगराफाटल्यान एक दादलो आपल्या गाढवार बसून आनी ताचे कुशीक चलत आसलेले ताचे बायलेक एका भोंवडेकारान पळयलीं.

"तुजी बायल गाढवार बसून कित्याक वचना?" भोंवडेकारान त्या दादल्याक विचारलें.

"कारण तिचेकडेन गाढव ना देखून" त्या दादल्यान तुरंत जाप दीत सांगलें.

घडये त्या दादल्याक आपले बायलेचे चुरचुरे लेगीत दिसलेले जायत. घडये तो आपलेच भितर चिंततलो लेगीत जायत - भंगू बाबडेचें. तिका इतली वाट चलची पडटा. तिचेलागीं एक गाढव आसलेलें जाल्यार ...

आमीय बी खूब वेळा हेंच करतात आसूंक जाय. कोणूय एखाद्रो गरीब मनीस दिसलो जाल्यार आमी तत्काल ताच्या दुर्देवाक शिणटात. कोणाचेरूय अनीत जालेली पळेली जाल्यार अनीत करतल्याचेर मनांतल्या मनांत राग काडून सोडटात. कोणूय सोरो पियेवन जुगार खेळून घरांत धांदळ करताना पळेलो जाल्यार आमी हळूच ताका आयकूंक येता तेपरीं दोनचार गाळी दितात.

सगळें मनांतल्या मनांतूच. करण्यांनी तर न्हयच न्हय. आमचेलागीं तांकां मदत करूंक घडटा आसताना लेगीत आमी गपचूप हात कवळून सगळें नाटक पळयत बसतात. आमकां कांयच पडून वचूंक नासलेलेपरी "भंगू बाबड्याचें" म्हणीत.

देव निर्मूनाका पूण आमचेरय केन्ना अशेच दीस येवन आमकांय कोणें "भंगू बाबड्याचें" म्हणीत वगीच फुडें गेल्यार आमचें समादान जातलें काय कितें?

ओंठ ल्हेंवून तान भागना. मनशाक फक्त उतरांचीच न्हय, पूण करण्यांची चड गरज. करण्यांनीच आमी मनशाची तान भागोवपाची संवंय लावन घेवंक फाव.

# 71.

# टी पार्टी

झरीनाचे शेजारनीन आपली फुलांची बाग, रंगीन फुगे, बोंदेरां लावन नटयलेली. कांय फुलांचे वाझ लिखलिखीत रंगीन दिव्यांनी शृंगारलेली.

हेरांक चायेक आपोवन आपले शेजारनीन आपल्याक आपोवंक ना म्हण तिका झरीनाचो भरपूर राग आयलेलो. आपल्याक तिणें टी पार्टीक आमंत्रण कित्याकूच दिवंक ना हेंच सगळो वेळ चिंतीत रावली ती. हेरांक आपयलीं आनी आपल्याकूच कित्याखातीर आपोवंक ना तोच विचार करीत रावली ती सगळो वेळ.

आनी तितल्यान तिची शेजान्न तांगेर पावन सरली. झरीनाचें काळें तोंड पळोवन ती जें कितें समजुपाचें तें समजली. ल्हानविकायेन तिणें तिका टी पार्टीक आमंत्रण दिलें. आपल्या कामाच्या बोवाळांत आपूण तिका आपोवंक विसरली म्हण सांगलें. तरूय लेगीत झरीनाचो राग निवळ्ळो ना. रागानूच तें तिका म्हणूंक लागलें,

"सांजे टी पार्टी आसा आनी तूं म्हाका आतां सांगूंक आयल्या? आतां कसलो फायदो? आतां चड उशीर जालो. सांजे बरोच पावस घालूंक हावें देवालागीं मागलांय बी."

आमीय बी तशेंच करीनात मू? आनी तशें करीत आसत जाल्यार?

# 72.

## कोण वाटावंक शतकलो?

बस चलोवपाचे नोकरेखातीर तीन अर्ज आयलेले. बस मार्ग दोंगराळ वाठारांतल्यान आसलेल्यान मुलाकतीवेळार तिनूय अर्जदारांक बसमालकान हो प्रश्न केलो,

"दोंगरांतल्यान वाट काडटाना तूं तुजी बस, देगेन चलयतासताना कितली सुरक्षीत चलोवंक शकतलो? तेंवूय बी रस्त्याच्या खाला फोंड आसा ताची जाणीव आसताना?"

पयल्या अर्जदारान जाप दिली,

"हांव म्हजी बस रस्त्याच्या एक फूट अंतराचे देगेन चलोवंक शकतां हाची हांव पुरायेन खात्री दिवंक शकतां."

दुसऱ्यान जबाब दीत म्हळें,

"हांव ताचेकूय बरी चलोवंक शकतां. बसिचीं अर्दी चाकां अर्द्या रस्त्याभायर लेगीत दवरून हांव बसिचो तोल केद्याय वेळा सांबाळूंक शकतां."

तिसऱ्यान आपलो जबाब दीत सांगलें,

"हांव रस्त्याचे कितले देगेन लेगीत चलोवंक शकतां तें नकळो. पूण रस्त्याचे देगेपासून जाता तितले पयस हांव रावतलों."

ह्या तिसऱ्या अर्जदाराकूच नोकरी मेळ्ळी.

व्हड कामां करपाचीं आसल्यार मनशान काळजीदार जावपाचो.

पूण काळजीदार जावपांतलो आनी जिवाक धोको आसलेलीं कामां चिंतिनासताना करपांतलो फरक कळूंक जाय. शाण्या मनशापरीं चत्रायेन आनी सांबाळून कामां करपाचीं. मूर्ख मनशापरीं पळयनासताना खंयसरूय उडी मारपाची तयारी आसल्यार फोंडांत पडपांतलो कोण वाटावंक शकतलो?

## 73.

# निड्डूकायेक दोन दुख्खां

घरां बांदपाच्या कामांत तो गवंडो बरोच हुशार आसलो. आपलें काम तो बरेच फिकीरीन करतालो. खणिंतलो फातर एकसारको तासून, फाव तितलेंच शिमीट वापरून घरांच्यो वणटी हिकमतीन उबारतालो. घर बांदतल्या घराचो धनी ताका वाखाणटालोय बी.

एक दीस उलयतां उलयतां, त्या गंवड्याचो भाव एक रॅबेकिस्त म्हूण त्या धनयाक गमलें. तो ताका म्हणूंक लागलो,

“तुजो भाव खूब नशिबवंत. रॅबेक वाजोवपाची इतली नाजूक कला ताच्या बोटांनी आसपाक नशिबूच म्हणपाचें. आनी फुडें म्हणूंक लागलो, इतलो हुशार भाव तुका आसपाक तुकाय बी एक भाग्यूच.”

पूण आपल्या ह्या उलोवपांतल्यान त्या गंवड्याचो अपमान जायत म्हूण समजून तो फुडें म्हणूंक लागलो,

“पूण, गूण हे सगळ्यांक एकसारके वांटपांत येनात. एकाच घराब्यांतल्या वांगड्यांक लेगीत.”

त्या गंवड्यान हीच संद घेतली आनी म्हळें,

"सायब, तूं जें कितें म्हणटा तें सारकें आसा. एकाच घराब्यांत वेगवेगळे गूण आसलेलीं भावंडां आसात. एकलो भाव दोतोर आसलो जाल्यार दुसरो भाव कारकून आसता. आतां म्हज्याच भावाची गत पळय. तो एक व्हड रॅबेकिस्त. पूण घरां बांदपाच्या कामाची श्री, ग, णे, शा ताका खबर ना. देवाचे उपकार इतलेच, आपल्याक रावपाखातीर घर बांदून घेवंक गंवड्यांक दिवपाक ताचेलागीं भरपूर पैसो आसा. नाजाल्यार ..."

आपल्या आंगांत आसलेले गूण वळखून घेवन ते गूण वाडोवपाचो प्रयत्न तरी करपाचोच. तातूंतच समादान आसता. आपल्या गुणांचेर विसर घालून दुसऱ्यांच्या गुणांची नसाय करपांत अर्थ नासता. म्हणटात, निड्डूकायेक दोन दुख्खां - दुसऱ्याक आसा तें, आनी आपल्याक ना तें. हरशींच संवसारांतल्या मनशांक दुख्खाची उणीव खंय आसा? म्हणटकूच आनीकूय दूख्ख जमोवपाक कोणें सांगलां?

## 74.

## बुद्ध आसा ताका भांडवल आसा

**त्या** हॉटेलमालकाचें हॉटेल नुकसानांत चलतालें. आपलो दीसपट्टो सुटपाचें सोड्डूच, पूण दिसानदीस रीणांचे दोंगर वाडतूच आसले. परिस्थिती सुदरावपाक ताणें खूब यत्न केले. पूण सगळे ताचे कश्ट उमथ्या कळशार

उदक जावन वताले. निराशी जाल्लो तो. कांयच सुचनाशें जालेलें. तरूय लेगीत एक शेवटचो उपाय म्हूण ताणें आपले गांवचे एके म्हातारे पूण गिन्यानी अस्तुरेची बुद्ध घेवंक थारायलें आनी तिचेसरीं गेलो.

ताची दुर्देवी कथा आयकून ती म्हातारी गिन्यानी अस्तुरी ताची मदत करपाक तयार जाली. आनी तिणें ताका एक मांडणी सांगली. म्हणूंक लागली,

“पयले सुवातेर तुवें तुज्या हॉटेलाच्या नांवाची बदली करूंक जाय.”

हॉटेलमालकाक तिची ही सुचना मानवली ना. म्हणूंक लागलो,

“म्हज्या बाबायच्याय न्हय तर आज्याच्या काळार थावन ह्या हॉटेलाचें नांव ‘भांगारी शींव’ आसा. तें आतां हांव कशें बदलूं?”

“तुका तुजें हॉटेल फायद्यान चलोवपाचें आसल्यार तुवें तशें करचेंच पडटलें. आदलें नांव बदलून आतां ‘सात घांटी’ म्हण नवें नांव दी. पूण उगडास दवर, घांटी होमकळायताना मात सवूच घांटी होमकळाय.” गिन्यानी म्हातारेन आपली बुद्ध दीत सांगलें.

“तशें कित्याक?” ताणें आपलो दुबाव उक्तायलो.

“हांव सांगतां तशेंच कर. आनी मागीर तूं पळय कसो दुडूच दुडू करीत रावतलो तें.” गिन्यानी अस्तरेन सांगलें.

हॉटेलवाल्याचें समादान जालें ना. तरूय लेगीत ते म्हातारे अस्तुरेची बुद्ध वेवहारांत घालूंक कसलीच हरकत ना म्हूण चिंतून ताणें तशेंच केलें.

कांय दिसांनी नवल घडलें. वाटेवेल्यान येतलो वेतलो प्रत्येक वाटसूर, हॉटेलाचें नांव ‘सात घांटी’ आसताना सवूच घांटी होमकळटल्यो पळोवन त्या हॉटेलासामकार थांबूंक लागलो.

घांटी होमकळायताना हॉटेलमालकान घडये चूक केल्या जायत अशें समजून आनी ही चूक सोदून काडपी आपूणच पयलो वाटसूर आसतलों म्हण चिंतून व्हडा खोशेन हॉटेलमालकाक ताची चूक दाखोवन

दिवपाक हॉटेलांत भितर सरल्या उपरांत थंय नाश्तो करून थंड सरबत बी पियेवनूच भायर सरूक लागलो. हॉटेलवाल्याचो धंदो वाडलो. दिसान दीस चडतूच रावलो. हॉटेलवालो, ते म्हातारे गिन्यानी बायलेन सांगलेलेपरी दुडूच दुडू कमावपाक लागलो.

ही कथा हावें तेन्ना तिसरी यत्तेच्या वर्गांत शिकपी आनिशाक सांगली. आनिशाक काणयों आयकुपाची भलतीच उमेद. चड करून रातिचें न्हिदूंक वताना. ही काणी सोंपतां सोंपतां 'आतां दुसरी सांग' हें आनिशाचें सदचेंच पालूपत. पूण ही काणी सोंपतांच आनिशा खिणभर थांबलें. म्हणूंक लागलें,

"पूण फिलू आंटी, ते म्हातारेन हॉटेलवाल्याक आयडीया दिली. हय मुगे?"

हावें हय म्हणटकूच तें फुडें म्हणूंक लागलें,

"मागीर ताणें ते म्हातारेक अर्दे पयशे दिवंक नाका आसले?"

आनिशाक हावें कितें सांगचें आसलें? ताणें तिका अर्दे पयशे दिले आसतले म्हूण पटोवन दिवन आनिशाक न्हिदूंक सांगलें. आनिशा न्हिदलें. पूण जागें उरलें तें हांव ... आनिशाच्या उतरांचेर नियाळ करीत ...

जायते खेप आमचेर बरे दीस आयल्या उपरांत आमच्या आकान्ताक पावतल्या मनशांक आमी विसरतात. साप्प विसरतात. तशें जावंक फावना.

आमचेर उपकार करपी मनशाचे आमी उपकार आठोवंक फाव. ताचेर विसर घातल्यार आमी पडमूर थरचेनात? 'काम जालें, वैज मेलो' अशें जावचें न्हय म्हूण काळजी घेवंची.

# 75.

## होच एक उपाय

एका प्रसिद्ध कलाकारान आपले कचेरींत वेगवेगळीं चित्रां फ्रेम करून वंटीर हुमकळायलेलीं. तांचेमदीं फ्रान्साक आसलेल्या 'लीनींग टावर ऑफ पीसो' ह्या हुमकळपी गोपूराच्या चित्राचीय बी फ्रेम आसली. ही फ्रेम, ऑफिसांत तो चित्रकार बसतालो ताचे सामकारूच आसली. आपले कचेरींत येवन कदेलीर बसलो काय ताची नदर सरळ ते फ्रेमीर पडटाली. आनी अजाप म्हळ्यार ही फ्रेम सदांच ताका वांकडी हुमकळायलेली मेळटाली. तेंवूय जाल्यार प्रत्येक खेप सकाळीं तो ही फ्रेम नीट करता आसताना आपणें स्वतः ही फ्रेम सारकी उभी हुमकळायता आसताना ती वांकडी कोण सरकायता तें जाणां जावपाची ताची उत्सुकताय वाडली आनी एक दीस ताणें कचेरी साफ करप्यालागीं हें विचारलेंच.

हय सायब, हांवूच तें तशें सद्दां करतां. ह्या चित्रांत दिसपी गोपूर वांकडो आसा. तो नीट दिसपाखातीर हांव ही फ्रेम वांकडी हुमकळायतां. कचेरी साफ करप्यान जाप दिली. आनी चित्रकाराचें कुवाडें सोडयलें.

हेचपरी कांय मनशांक अशी संवंय आसा. आपलें वाकडें जिवीत नीट दिसपाखातीर देवाचें उतर आपल्याक फायद्याक पडपी दिशेन खेंचतात, ओडटात. देवाच्या उतराचो खरो अर्थ, असले मनीस स्वताक जाय तसो बदलून, उरफाटो करून देवाफुडें मांडटात. लोकांक दिशाभूल करतात. चुकिच्या मार्गान ओडटात.

आमच्या पावलांक नीट दिशा मेळची म्हूण देवान आमकां आपलें 'पवित्र उतर' दिवन दवरलां. बायबलांतलो 'नवो करार' फक्त आपापल्या घरांत दवरपाखातीरूच न्हय तर वाचूंक आनी आमची तजवीज जावंक गरज आसा. आनी दर एका दिसा आमी देवाचें उतर वाचीत जाल्यार आमच्या प्रश्नांचेर जैत व्हरपाक आमकां नवी स्फूर्त, नवें बळ मेळ्ळ्या शिवाय रावचें ना. आमची दिशाभूल जावंची ना. होच एक उपाय आमी चुकिचे वाटेन वचना जावंक, होच एक उपाय आमी चुकिचो मार्ग दाखोवप्यांक पैस दवरपाक.

## 76.

## मनीस जाग्यार आसल्यार

**पां**च वर्सांच्या रिवोचो बापूय सांजेचो कामाक सावन घरा आयलो. खूब थकलेलो तो. विसव घेवपाशिवाय ताका त्या वेळार आनीक कांयच सुचनासलें. आनी तेन्नाच रिवो ताचेलागीं खेळपाक सोदूंक लागलो. आपल्याक मामान दिलेलें नवें विमान घेवन ताकाय बी आपलेब्रोबर सपनांतल्या संवसारांत उडोन व्हरूंक सोदूंक लागलो. पूण रिवोच्या बापायक जाय आसलें तें सुशेगाद बसून वर्तमानपत्र वाचपाक. देखूनच ताणें रिवोक थोड्या वेळापुरतोच पयसावपाखातीर एक मांडणी काडली. लागींच आसलेलें एक कागद घेतलें जाचेर फुडले बाजून संवसाराचो नकाशो आसलो आनी फाटले बाजून मनशाचें चित्र. हें चित्र पिंजून ताचे कांय कुडके करून रिवोक दित ताणें म्हळें,

"हें पळय रिवो, हावें हें चित्र पिंजलां. तुवें हे सगळे पिंजलेले कुडके एकठांय करून त्या जाग्यार आसलेलो संवसाराचो नकाशो आदीं आसलो तसोच करूंक जाय. चल, पळोवया तूं कितलो हुशार आसा तो."

रिवो त्या कागदाच्या कुडक्यांक पळयत उरलो. आखेरेक ते कुडके ताणें उखलले आनी एका कोनशाक बसून चिंतीत रावलो. आनी धा मिनटांभितर परतून आयलो. संवसाराचो नकाशो आसलो तसोच करून. संवसाराचो एक एक भाग सारकोच जाग्यार बसयलेलो ताणें.

ताचो बापूय तो नकाशो पळोवन सामकोच अजापभरीत जालो. पांच वर्सांचो रिवो, संवसार आनी भुगोल हातूंतलें अंतर नकळो आसताना लेगीत ताणें सगळे कुडके सारके कशे बसयले तेंच चिंतूंक पडलो. पिंजलेल्या नकाशाचे कुडके रिवोन बिनचूक कशे एकठायले तेंच ताका समजनाशें जालें. रिवोक विचारलेबगर हें हुमाणें सुटपाक शक्य नासलें. रिवोक विचारलेंच ताणें आनी रिवोची युक्ती आयकून सामकोच थटाकलो. रिवोन व्हडविकायेन जबाब दिलो. म्हणूंक लागलो,

"डॅडी, ह्या चित्राचे फाटले बाजून एका मनशाचो फोटू आसलो. हावें त्या फोटवाचे कुडके सारके मांडले आनी पयलीं मनशाक तयार केलो. मनशाक तयार केल्या उपरांत संवसाराचो नकाशो आपोआप जाग्यार बसलो. कळ्ळें?"

हय, पांच वर्सांचो रिवो आमकां खूब खूब शिकयता. संवसार जाग्यार उरतलो जाल्यार तो मनशाचेरूच अवलंबून आसा. मनीसूच संवसाराक जाग्यार दवरूंक शकता - सताच्या, नितीच्या आनी मोगाच्या जाग्यार. मनीस सताच्या मार्गान चलल्यार, नितिचो रस्तो आपणायल्यार आनी मोगाचो परमळ पसरायल्यार संवसार आपोआप जाग्यार येतलो. आमकां कळटां वा नकळटां.

77.

# तूं तर ...

**त्या** गावांत तो प्रवचनकार पयलेच खेप आयलेलो. गावांत पयलेच खेप आयिल्ल्या कारणान प्रवचन करपाच्या हॉलाची वाट नकळो आसलो. हॉलाची वाट सोदीत सोदीत चलत आसताना वाटेर गांवचे कांय ल्हान भुरगे खेळटा आसताना ताका दिसले. हेच भुरगे आपल्याक हॉलाची वाट दाखोवंक शकतले म्हूण ताका खात्री जाली. तांचेसरीं वचून ताणें तांकां विचारलें,

“म्हाका हॉलाकडेन वचपाची वाट सांगशात?”

भुरग्यांनी ताका हॉलाची वाट दाखयत म्हळें,

“तूं थंय वचून कितें करतलो?”

तांच्या प्रश्नांक जाप दीत ताणें म्हळें,

“हांव त्या हॉलांत आयज सांजे प्रवचन करपाचो आसा. सर्गार वचपाची वाट हांव म्हज्या प्रवचनांतल्यान सांगपाचो आसा. ही सर्गार वचपाची वाट तुमी जाणा जावन घेवपाखातीर तुमी सांजे प्रवचनाक येतलेत?”

हें आयकून त्या भुरग्यांमदलो एकलो म्हणूंक लागलो,

“तूं आमचीं फकाणां बी करीना मूं? तूं तर हॉलांत वचपाची वाट नकळो.”

आमच्या उतरां परस आमचे देखींचे वाटेंतल्यानूच भुरगीं चलतात.

तांकां धाकटीं म्हणून समजून तांचेर दुर्लक्ष करूंक जायना. ल्हान भुरग्यांकूय विचार करपाची तांक आसता. केन्नाय अनपेक्षीत वेळार तीं आमकां आमची मान खाला घालूंक लावचींनात तसलीच वाट आमी तांकां दाखोवपाची.

78.

# येदो व्हडलो पोयलो

भुरगोच तो. शिकयता तितलेंच शिकपी.

पूण ताका जें कितें शिकयलेलें तें मात हांसपासारखें. त्या भुरग्याक न्हय - शिकोवप्यांक. चुरचुरे करपासारखें आसलें. त्या भुरग्याचे न्हय. शिकोवप्यांचे. ताच्या शेमाय - शेपायचे. तांच्या अर्दकुट्या गिन्यानाखातीर.

तिनसांजचो वेळ आसलो. चावडेर बसून गजाली करतालीं आमी. आमच्योच. तीन वर्सांचो पीटर आमचेबरोबर आसलो. पीटराचो आवय-बापूय आखाती देशांत म्हळ्यार गल्फांत आसलेल्यान पीटर आपल्या शेमांय - शेपाय वांगडा जियेतालो. शेमांय - शेपायच ताका शिकयतालीं. ताची देखभाल करतालीं. तींच ताचो गुरू आसलीं. पीटर खूब उलोवपी. लत्तुबायेन. आनी ताच्या ह्या नेण्टया उलोवपाचो फायदो घेवनूच आमी मौज करीत आसलीं - ताका आनीकूय उलोवपाची उमेद दीत. कितेंय उलोवंक. मागणें लेगीत म्हणूंक लावन, आनी आमच्यांतल्या एकल्यान पीटराक रातचें मागणें म्हणपाक लायलेंच.

पीटरान शेमांय - शेपायन शिकयलेल्या मागण्याक सुरवात केवी.

जेजू म्हाका भलायकी दी
म्हजे मांयक भलायकी दी
म्हज्या पापाक भलायकी दी
आनी जेजू,
म्हजीं मामी - डॅडी दुबय आसात
म्हज्या मामी - पापाक 'येदो व्हडलो पोटलो' दी.

पीटरान आपल्या धाकटुल्याच हातांनी 'येदो व्हडलो पोटलो' दाखयलेलो पळोवन आमी हांसपाचीं थांबूंकच शकलीं नात. खूब वेळ. पूण आमी हांसपाचें कारण मात माणकुल्या पीटराच्या लक्षांत आयलेंच ना. बाबडो आमकां पळयत उरलो - आपल्या लिकलिकीत दोळ्यांनी प्रश्नचिन्ह घालून. ताच्याच शेमांय - शापायन निर्माण केलेलें प्रश्नचिन्ह.

देवालागीं मागपाक भुरग्यांक शिकोवपाचें आसल्यार 'येदो व्हडलो पोटलो' मागूंक शिकोवपाशिवाय तांकां देवालागीं मागूंक शिकोवपाक शकनात?

## 79.

# स्वीकार करपाचें तडजोड न्हय

आपल्या चाकराक आपलेबरोबर घेवन तो धंदेकार दुसऱ्या देशाचे भोंवडेर वचूंक आगबोटीन भायर सरलो. चाकरान केन्ना आगबोट पळोवंकूच नासली. दर्याच पळोवंक नासलो. भियेलो तो. तरूय लेगीत धीर धरून आगबोटीर चडलो. ताच्या दुर्दैवान म्हणलेले परीं मदेंच दर्याक वादळ

आयलें. मातशी हालूंक लागली आगबोट. आदींच भिरांतेन अस्वस्थ आसलेलो चाकर आनीकूय उचांबळ जालो. जिवाक भियेलो. बोबो - हुयेली मारूक लागलो. थांबनासताना. कोणूच ताका शांत करूक शकलो ना. ताच्या धनयाक तर केन्नाच ताचो बेजार आयलेलो. पूण चाकरा सामकार कांयच चललें ना ताचें.

शेवटाक आगबोटीर आसलेलो एक गिन्यानी मनीस फुडें सरलो. धनयाक म्हणूंक लागलो,

"म्हाका दिसता, हांव ह्या मनशाक शांत करूक शकतलों. पूण एक अट आसा : म्हाका जाय ते परीं हावें तुज्या चाकरा सवें वागपाक म्हाका तुजी परवानगी जाय."

"तुका जाय ते परीं तुज्यान वागूंक जाता. तुका म्हजी पुराय परवानगी आसा." धनयान सटासट सांगून सोडलें.

कांय मनशांक एकठांय करून त्या चाकराक दर्यांत उडोवपाचो त्या गिन्यानी मनशान आदेश दिलो आनी ताणीं तशें केलेंय बी. दर्यांत पडनाफुडें तो चाकर आकान्तलो. किळच्यो, बोबो - हुयेली मारूक लागलो. आपलो जीव वांटावपाखातीर आसली - नासली शक्त एकठांवन आपले हात -पांय हालोवंक लागलो. पूण कांय खिणांतूच ताणीं त्या चाकराक वयर उखल्लो. आपूण असल्या मॉडांतल्यान वांटावलेलो पळोवन ताच्या जिवांत जीव भरलो. भियेल्लोय आसलो तो. थकलेलोय बी. पूण ताचो आवाज मात साप्प बंद जाल्लो. जापूच नासली ताची. खिणांतूच ताचें अशेपरी परिवर्तन जाल्लें पळोवन धनी अजापभरीत जालो. त्या गिन्यानी मनशाक ताणें हेविशीं फोडणिशी करूक लायली. तेन्ना तो गिन्यानी मनीस म्हणूंक लागलो,

"मनीस स्वताक सदांच दुःखी समजता. मातशें लेगीत दुःख सोसूंक पडल्यार आख्खें मळब आपल्याचेर कोंसळून पडिल्लेवरी वागता. वाजेता.

निर्शेता. धीर सोडटा - जिविताचो निमाणो खीण जाल्लेपरी. पूण आसा ताचेपरस अदीक दुःख आयलें म्हणटकच मात ताका आपूण कायलेंतलो शेंवटून उज्यांत पडलेले परी जाता. तेन्ना ताका पयलींचें दुःख कांयच न्हय कशें दिसूंक लागता. आसलें तेंच बरें आसलें म्हण चिंतून स्वताशीं तडजोड करता तो. स्वताचें समादान करून घेता. तुज्या चाकराचेंय बी तशेंच जालें."

आमी, आमचेर आयलेलें दुःख कशेपरीं झेलतात? स्वीकार करून काय तडजोड करून?

## 80.

## आनीक खोशी जातेली आसलीं. पूण ...

**त्या** पाद्रीच्या प्रवचनाक खूब लोक आसलो. लोकाच्या काळजांत भरसारखें प्रवचन केलेलें ताणें. शेजार धर्माचें म्हत्व पटोवन दिवपाक खूब वावुरलो तो. दोन पावलांच्या अंतरार आसलेल्या आपल्या शेजाऱ्याचें दुर्लक्ष करीनाकात म्हणपाचें म्हणणें आसलें ताचें. शेजाऱ्यान आपल्या शेजाऱ्याच्यो खोडी काडून तांच्यो फटकिऱ्यो खोडी घडोवन वाऱ्यार घालून तांचें जिवीत कोडू करपांत कसलेंच शाणेपण ना म्हणपाचें सांगणें आसलें ताचें. हेंच लोकांच्या मनांत वसोवपाचो हेतू आसलो ताचो.

आनी ताच्या यत्नाक फळ मेळ्ळें म्हणून समजुपाचें. प्रवचन सोपोवन तो पाद्री इगर्जेच्या दारार आयलेलो तितलोच .... एक मदले पिरायेची

अस्तुरी ताचेसरीं येवन म्हणूंक लागली,

"फादर, काँग्रेच्युलेशन. तुजें प्रवचन इतलें बरें जालें, विचारूंच नाका."

कवतूक केलेल्या बद्दल पाद्रीन तिचे आभार मानले. ती बायल आनीकय फुडें उलयत रावली. म्हणूंक लागली,

"म्हाका जाल्यार तुजें प्रवचन खूब आवडलें फादर, हांव एकदम खुशी जालीं. आनीकूय खुशी जातेली आसलीं पूण ... फकत एकूच उणें आसलें आनी देखून म्हाका खूब दुःख जालें फादर."

कसली कमी आसली आनी कसलें दुःख जालें तें जाणां जावन घेवपाची त्या पाद्रीची उत्सुकताय वाडली. ताणें तिचेलागीं विचारलें. ते अस्तुरेन फाटी फुडें पळयनासताना ताबडतोब जाप दीत सांगलें,

"फादर, तुजें प्रवचन आयकुंपाक म्हजी शेजान्न लुईजा आसूंक जाय आसली. तुज्या प्रवचनातलें एक एक उतर लुईजाशिवाय आनीक कोणाकूच सर जावपाक ना. तिका चाडयो करपाची इतली संवंय आसा, तुवें प्रवचनांत म्हळां तितलेंय लुईजाक सारकें लागता. तुजें प्रवचन फक्त लुईजाखातीरूच आसलें म्हणपाचें. पूण ... हें प्रवचन आयकुपाक लुईजा नासलें देखून म्हाका खूब दुःख जालें."

तो पाद्री आनी फुडें उलयलोच ना. स्वताक भाग्यवंत समजुपी हे अस्तुरेन फुडें उलोवपाक त्या पाद्रीक कांयच दवरूं नासलें.

कारण नासताना आमी शेजाऱ्याच्या दीसपट्ट्या जिवितांत दखल दिवपाक धाकटुल्यांतलें धाकटें निमित्त सोदीत रावतात. पूण कारण नासताना लेगीत आमी आमच्या स्वताच्या दीसपट्ट्या जिविताक निटायेर हाडपाक कसलीच युक्ती सोदीत रावनात. कित्याक?

81.

# ऍपोयंटमेंट

मरण केन्ना कोणांक चुकपाचें आसा? आयज ना तर फाल्यां तें येतलेंच. मरणाक भियेवनूय फायदो ना कारण तें येतलेंच येतलें. मरणाक चुकोवपोचो कितलोय प्रयत्न केलो जाल्यार निर्फळूच. कित्याक, तें आमकां कशेंच चुकपाचें ना. मरणाइतली शंबर टक्के नक्की घडपासारकी दुसरी गजाल आमच्या जिवितांत ना.

अशी एक गजाल सांगतात :

मुंबय रावपी एका धनयान आपल्या चाकराक कांय वस्तू घेवपाखातीर बाजारांत धाडलो. कांय वेळान तो चाकर वस्तू घेनासताना भियेवन घामाघूम जावन थरथरून घरा परत आयलो आनी आपल्या धन्याक म्हणूंक लागलो,

"सायब, हांव बाजारांत वस्तू घेतना म्हाका फाटल्यान कोणें धक्को मारलो म्हूण हावें फाटल्यान वळून पळयत जाल्यार मरण म्हाका मोठ्ठे दोळो करून पळोवंक लागलें. म्हाका धमकी दिलेलेपरी म्हाका खूणा करूंक लागलें. म्हाका भिरांत दिसता सायब. हावें आतां कशेयपरी हांगासावन वचूंकच जाय. म्हाका तिकेटीक दुडू दी सायब. हांव गोयां वचून थंय लिपून रावतलों. म्हणजे मरण म्हाका थंय सोदून काडूंक शकचें ना. हांव मर्णाक चुकोवंक सोदतां."

धन्यान ताचे मागणेप्रमाण त्या चाकराक पैशे दिले. वेळ वगडायनासताना चाकरान गोंयची वाट धरली.

कांय वेळा उपरांत, आपल्याक जाय आसलेल्यो वस्तू खरेदी करपाखातीर धनी स्वता आपूणच बाजारांत गेलो. थंयसर लोकांचे गर्देत मरणूय आसलेलें पळोवन धन्यान मर्णाक विचारलें,

“तुवें हेपरी म्हज्या चाकराक भिरांत कित्याक दाखयली? तुवें ताका धमकी कित्याक दिली?”

“हावें ताका भिरांत दाखोवंक ना. हावें ताका धमकी दिवंक ना. ती, धमकी दिलेल्याची खूण नासलीच. हांव ताका हांगासर पळोवन अजापभरीत जालेल्याची निशाणी आसली ती. ताका मुंबय पळोवन हांव सारकें चकीत जालें. कित्याक, ताका फाल्यां गोयांत मेळपाचो ताचे लागीं म्हजो ऍपोयंटमेंट आसा.”

म्हणटकूच मरणाक भियेवन दीस धुकलचेपरस मरणाक फुडो करूंक शकतेलीं अशे तयारीन रावप बरें न्हय? जो कोण मरणाक तयार आसता, तो जियेवंकूय तयार आसता. आनी जियेवंक तयार आसलेलो मनीस खुशालकायेनच जियेवंक शकता. आनी खुशालकायेन जियेवंक केन्ना कोणाक नाका जालां?

## 82.

## तशें करूंक नासलें जाल्यार ...?

एक आर्किटेक्ट खूब तेपापासून ते कंपनींत नोकरी करतालो. हुशार आनी मन लावन वावुरपी आसलेल्यान तो कंपनीच्या वडिलांच्या मनांत आसलो. ते ताचेर खूश आसले. मन - आदरान ते ताका लेखताले.

एक दीस ताणीं ताका आपोवंक धाडलो आनी उंचेल्या पांवड्यावेले लोक रावपी त्या शाराच्या वाठारांत एक नवो बंगलो बांदपाचो प्लॅन ताच्या हातांत दिलो. कंपनीच्या वेवस्थापकान ताका हुकूम लेगीत दिलो, ह्या बंगल्याच्या बांदकामांत ताणें कसलीच पर्वा करची न्हय, सगळ्यांहून बरो म्हाल वापरूंक आनी बऱ्या कामदारांक वावराक घालूंक. लागता तितलो दुडू खर्चूंक ताका परवानगी दिली.

बंगलो बांदपाचें काम सुरू जालें. काम अर्दारूच आसलें, कितें म्हूण कोण जाणां, त्या आर्किटेक्टाच्या मनांत वेगळेच विचार घुंवपाक लागले.

- इतलो बरो आनी उंची म्हाल कित्याक वापरपाचो? हलको म्हाल वापरलो म्हूण कोणांक कळूंक आयलां? सिमेंट लेगीत कमी प्रमाणांत वापरलें म्हूण कोणांक समजुपाचें आसा? इतली सुबेज मजूरी फारीक करून हुशार आनी प्रशक्षीत कामदार कित्याक हाडपाचे? कमी पगाराचे कामदारूय उपलब्ध आसात. तशें केल्यार उरलेलो सगळो दुडू म्हज्यान म्हाकाच दवरूं येता. कंपनीच्या वडीलांक कशेंच कळपाचें ना.

आनी ताणें तशेंच केलें.

बंगलो बांदून तयार जालो. पळोवंक खूब सुंदर दिसूंक लागलो. नाजूक आनी सोबीत. कंपनीचे वडीलय बंगलो पळोवन दीपकावले. खोशी जाले. आनी हीच खोशी त्या आर्किटेक्टाच्याय वांट्याक हाडची म्हूण कंपनीच्या वेवस्थापकान त्या बंगल्याची उक्तावणी करूंक एक समारंभ आयोजीत केलो. त्या आर्किटेक्टाकूय आमंत्रण दिलें. समारंभांत त्या आर्किटेक्टाची खूब तुस्त जाली. आनी शेवटाक वेवस्थापकान त्या आर्किटेक्टाच्या हातांत त्या बंगल्याची चावी दिली आनी म्हळें,

"तुज्या इतल्या वर्सांच्या बऱ्या वावराखातीर हो बंगलो आमी तुका आमच्या मोगाची खूण म्हण भेट करतां."

ऊफ! आर्किटेक्टान जें काम केल्लें तें करूक नासलें जाल्यार ....?

83.

# अर्थ असोच तो

त्या चित्रकाराचें सोयरें तें. धाकटें आनिशा. आनिशाक ताच्या वाडदिसाची भेट म्हूण ताच्या सोयऱ्यान एक सोबीत सिल्काचो लेंस दिलो. तो रूमाल ताका इतलो आवडलो, परत परत तें त्या लेंसाची तोखणाय करीत रावलें.

त्या दिसा ताणें तो रूमाल मेजार दवरलेलो आसताना ताका नकळटांच मेजार आसलेल्या तिंतेराक ताचो हात आदळ्ळो आनी तो तिंतेर उमतलो आनी उमतलो तो सारकोच त्या सिल्काच्या लेंसार. पळोवन आनिशा दुखी जालें. ताच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं. कशेंच सांवरपाक शकलें ना तें स्वताक.

आनी तेन्नाच ताचो सोयरो तांगेर पावन सरलो. आनिशा अशेपरीं रडपाचें कारण कळटकच ताणें आनिशाक समजावपाचो यत्न केलो. शाळेंत चित्रकलेखातीर वापरपाचें रंगाचें बॉक्स हाडूंक लायलें, ब्रश घेतलो, रंगांत बुडयलो आनी तींत रकलेले सुवातेर त्या सोयऱ्यान एक सुंदर चित्र पितारलें. लेंसाचेर पडलेलें तिंताचें खत ताणें एका चित्रान भरून काडलें. तो लेंस आनीकूय सोबीत करून सोडलो ताणें.

शेवटाक जेन्ना ताणें तो रूमाल आनिशाक परतून दिलो तेन्ना आनिशाक दुबावूच लागलो त्या लेंसाचो. तो लेंस घेवंक तें कशेंच कबूल जायना जालें. म्हणूंक लागलें,

“हो लेंस म्हजो न्हय.”

सोयऱ्यान परत एकदां ताची समजूत घालीत म्हळें,

“आनिशा, हो तुजोच लेंस, हावें फक्त त्या लेंसाचेर पडिल्लें तिंताचें खत बदललां. त्या खताक एक सोबीत चित्राचें रूप दिलां.”

मनशाच्या नांवारूय खतां पडटात. कारण नासताना लेगीत. ताचो कसलोच गुन्यांव नासताना लेगीत. समाजान ताचेर थापलेलीं हीं खतां. ह्या खतांचें दुःख मनशान आपल्या मनाक लावन घेवंकूच जायना. ह्या बेबुन्यादी खतांक बळी पडून कसलोच अर्थ ना.

अर्थ आसचो तो असल्या सभाग्यांची पर्वा करीनासताना ताट मानेन आपलें जिवीत जगपांत. अर्थ आसचो तें आपलें जिवीत यशस्वी करून त्या सभाग्यांक ताणींच ताचेखातीर रचून हाडलेल्या इफेर्नांत तळमळूंक लावप्यांक. अर्थ आसचो तो आपणें आपल्या स्वताच्या जिविताक अर्थ दिवपांत.

## 84.

## आशेची दशा

**त्या** शिकाऱ्याक एक दीस शिकारेक गेलेलो आसताना एक बरो मोठो सोंसो मेळ्ळो. हो सोंसो व्हरून ताणें आपल्या गांवच्या राजाक भेट म्हूण दिलो. राजाक त्या शिकाऱ्याची अपुरबाय दिसली आनी त्या शिकाऱ्याकूय आपलेबराबर जेवणाच्या मेजार बसूंक आमंत्रीत केलो. राजान आपणाक दिलेले वागणुकेक लागून शिकारी खूब खोशी जालो आनी आपल्या शेजाऱ्यांकूय ताणें ही खोशयेची खबर सांगली.

आनीक कांय दिसांनी हो शिकारी राजाक मेळपाक परतून एकदां

राजम्हालांत गेलो. हेवूय खेप राजान ताका नमळायेन वागयलो. जेवणाकूय दवरलो. शिकाऱ्याक मेळलेले वागणुकेची खबर आख्या राजवाड्यार पसरली आनी एक दीस त्या राजवाड्यावेलीं कांय मनशां राजाक मेळपाखातीर राजवाड्यार गेलीं.

"तुमी कोण?" राजान विचारलें.

"तुका सोंसो दिलेल्या शिकाऱ्याचीं आमी सोयरीं." ताणीं सांगलें.

राजान तांचें स्वागत करीत तांकां जेवंक - खावंक आनी पियेवपाक दिलें. तीं खोशेन भरून आपआपल्या घरा परतलीं आनी आपल्या शेजाऱ्यांकूय ही खबर दिली.

उपरांत कांय दिसांनी आनीकूय कांय मनशां राजाची खबर घेवंक राजम्हालांत गेलीं.

"तुमी कोण?" राजान विचारलें.

"तुका सोंसो दिलेल्या शिकाऱ्याचीं आमी सोयरीं." शेजाऱ्यांनी सांगलें.

हें नाटक आतां इल्लें इल्लें करून वाडत वतालें. राजान तांकां सगळ्यांक बसूंक सांगलें आनी उदकान भरलेलो एक एक ग्लास जण एकल्याच्या फुड्यांत दवरलो. जेवण - खाण दिवपाचें सोडून आपआपल्या सामकार फक्त उदकाचो ग्लास दवरलेलो पळोवन तांकां राग आयलो आनी राजाक आयकूंक येवंचें न्हय अशा हळू आवाजांत एकामेकाक आपलें म्हणणें सांगून राजाचो तिरस्कार करपाक लागलीं. तीं हळू उलयतालीं पूण राजाच्या कानार तांचें उलोवप गेलेंच. राजा तांच्या फुड्यांत गेलो आनी म्हणूंक लागलो,

"हो सोप म्हळ्यार म्हाका दिलेल्या सोंश्याचो सोप."

हें आयकून तीं मनशां कितें समजुपाचें आसलें तें समजलीं.

आमीय बी?

85.

# अर्दें भरलेलें काय अर्दें रिकामी?

आपले रजेच्या दिसा, जॉनीचो मास्तर आपल्या घरा फाटल्यान आसलेले बागेंत झाडांक उदक शिंपतालो. बारा वर्सांचो जॉनी ते वाटेन चिंतेस्त आसलेलेपरी आपली मान खाला घालून चलताना ताका मास्तरान पळयलो. दारांतल्यान येतना वतना सदांच जाप दिवन फुडें वचपी हो जॉनी आयज ओगीच गेलेलो पळोवन मास्तराक कितेंशें दिसलें. ताणें जॉनीक आपोवन हाडलो आनी आपल्या कुजनांत बसोवन ताका थंड पियेवपाक दीत मास्तरान चवकशी केली. जॉनी कसलेतरी अडचणीक सांपडलेलो. मास्तराचे नदरेन जरूय ती अडचण, अडचण न्हय आसली तरूय लेगीत जॉनीक ती अडचण म्हळयार पर्वताचें ओजें जावन आसली. कितें करचें तेंच ताका समजनासलें. मास्तर आपल्याक अडचणींतल्यान सुटकेची वाट दाखयतलोच म्हण जॉनीक अपेक्षा आसली. आनी मास्तर कितेंतरी चिंतीत कडेक गेलेलो पळोवन ताची अपेक्षा अदीकूच वाडली. पूण मास्तर अर्दो ग्लास उदक घेवन येतना पळोवन जॉनीक कांयच समजलें ना. मास्तरान जॉनीक तो ग्लास दाखयत म्हळें,

"जॉनी, हो ग्लास अर्दो भरलेलो आसा काय अर्दो रिकामी?"

"दोनूय" जॉनीन जबाब दिलो.

मास्तरान जॉनीक खिणभर पळयलो आनी म्हळें,

"हय, दोनूय. कोणाचेंच जिवीत अर्दें भरलेलें ना. न्हय म्हूण अर्दें रिकामी. आमकां सगळ्यांक थोडी खुशालकाय आनी थोडें दुःख आसाच.

आमचें जिवीत सुखी आसा काय दुःखी आसा तें आमचे आमीच थारायतात. आमी आमच्या जिविताक भरलेले नदरेन पळयतात काय रिकामी ताचेवेल्यान. आमी आमच्या अडचणींविशीं इतलें उलयतात, इतलें उलयतात, कांय वेळा आमच्यो अडचणी उलोवपाइतलोच मोठो आकार घेतात आनी आखेरेक आमी आमच्या जिविताचो कोडू भागच पळोवंक उरतात. आमच्या जिविताक आनीक एक बाजू आसा म्हणपाचें आमी विसरतात. ही जिविताची दुसरी गोड बाजू आमी केन्ना भोगूंक पावूंकच नात. जॉनी, एके गजालीचो उगडास दवर. आमचें जिवीत अर्दें भरलेलें पळोवन अर्दें जिवीत पूर्ण करूंकच आमी जियेवंक जाय."

जॉनीक मास्तराचें सांगणें पटलें. ताच्या तोंडार अमुरकोच हांसो फुल्लो. होच अमुरको हांसो आपल्या तोंडार खेळयत ज़ॉनी आपल्या घरा परतलो - आपलें जिवीत पूर्ण करपाची आशा घेवन.

86.

# दिता त्या मापान घेवचें

**आ**पल्या इश्टां सांगातान भोंवडेकार भायर सरलो. नांवाजतो मनीस तो. गिरेस्तूय बी. गाडयेंत आपलें सामान मांडल्या उपरांत ते सगळे आपआपले बसकेर बसले - गाडी सुटपाची वाट पळेत. आनी शेवटीं गाडी सुटलीय बी. सगळे आपापल्या नादार आसले - खोशेच्या.

गाडी फुडल्या स्टेशनार थांबली. आनीकूय प्रवासी चडले गाडयेंत. गर्दी जली. ते गर्देंत एक जाणटी अस्तुरी आसली. आपलो तोल सांबाळीत

उबी आसली. बसूंक सुवात दिसनासली. हेवटेन - तेवटेन पळयत आसली ती - आपल्याक कोणूय बसूंक सुवात दीत कय म्हूण. आशेन. पूण ... ना. बसका मेळ्ळेले आपापले बसकेचेर बसून आसले. सुशेगाद. तिच्या जाण्टेपणाची पर्वा करीनासताना. शेवटीं ती म्हातारी, तो नावाजतो मनीस बसलेलो ताचेसरीं येवन उबी रावली. तो मनीस तुरंत उठलो आनी आपली बसका तिका दिली आनी ती आसली थंय स्वता आपूण उबो रावलो. तो उबो रावलेलो पळोवनूच ताचे एकान एक इश्ट आनी गाडयेंत आसलेले आनीकूय प्रवाशी आपापल्यो बसका सोडून ताचेसरीं आयलेच. आपले बसकेर बसूंक खूब आग्रो करूंक लागले. तुका उबो रावलेलो पळोवंक आमकां पुटवना म्हूण सांगून उलोवंक लागले ताका. पूण तसले भुलोवणेक बळी पडपासारको हो मनीस नासलोच. म्हणूंक लागलो,

"ना. म्हाका तुमची कोणाचीच बसका नाका. जेन्ना एके जाण्टे अस्तुरेक उबी रावलेली पळोवंक तुमकां पुटवता, तेन्ना म्हाका उबो रावलेलो पळोवंक तुमकां पुटवना जावपाक कसलीच हरकत आसूंक जायना."

आमीय बी जाण्टीं जातलीं म्हूण चिंतून जाण्टेल्यांचेंय चिंतल्यार कशें?

## 87.

## दिता त्या मापान घेवचें

**ते** सांजे तर घोव-बायल दोगांकूय अजापूच जालें. शारांत चलतल्या प्रसिद्ध चलचित्राच्यो तांकां टपालांतल्यान दोन तिकेटी आयलेल्यो. तेच रातीच्यो, णव ते बारा खेळाच्यो. काळ्या बाजारांत लेगीत मेळूंक कठीण

आसलेल्यो ह्यो तिकेटी तांच्या घरा लागीं आयलेल्यो. पूण धाडटल्याचें नांव मात नासलें कवरार. ह्यो तिकेटी धाडल्यो कोणें? एक कुवाडें कशें दिसलें तांकां. पूण हें कुवाडें सोडोवपाचो ताणीं बिलकूल प्रयत्न केलो ना. कोणेंय धाडूं! तिकेटी तर हातांत आसल्यो. रातच्या खेळाक गेलींच तीं.

चलचित्राची मजा घेवन मद्यानेर घरा पावलीं. पूण घरा पावतकूच एक वेगळेंच चित्र पळोवंक मेळ्ळें. सगळेंच सांसपिल्लेपरी दिसतालें. दिसतालेंच न्हय, खऱ्यांनीच सगळें सांसपिल्लें. भांगर चोरून व्हेल्लें. दुडूय नपयत जालेलो. विडीयो, टीवी लेगीत चोरून व्हेलेली.

कोणें?

हाचो जबाब उश्यार दवरिल्ल्या कागदा कुडक्यार बरयलेलो आसलो. ताचेर बरयलेलें आसलें,

तिकेटी कोणें धाडलेल्यो तें आतां तुमकां गमलें मूं?

असल्या नांव नासलेल्या चोराचो आमकां जायते खेप अणभव मेळटा. लोकांक जाय आसलेल्या संवसारी वस्तूंचें आकर्षण दाखोवपी हो चोर. लोकांच्या आत्मीक जिविताची दिशाभूल करपी हो चोर. तात्पुरत्या सुखाची आशा दिवन कायमचें दुःख फाटीं दवरून आनीकूय फुडें सरत रावपी हो चोर. आपणें सांगलेल्यो फटी लिपोवन सताचो दूत जालेलेपरी लोकांचो घात घेवपी हो चोर. आनी आपलो घात घेवपी ह्या चोराचें कर्तुप लोकांच्या लक्षांत येता म्हणसर सगळेंच जिवीत लुटलेलें आसता. ह्या कायमचेंच दिसपी सुखाखातीर कितली व्हड किंमत फारीक केलेली आसता लोकांनी! उपरांत खंयच दिशा दिसनाशी जाता. अशा वेळार एकूच दिशा - तिवूय बी खात्रीची दिशा. म्हळ्यार - जेझू.

जेझूवरवींच काळखांतल्यान नीट दिशा मेळोवन घेवन फटकिऱ्या सुखाक फाट करून खऱ्या सुखाचेर आमी जिवीत बांदपाचें.

88.

# एका प्रश्नाक तीन बाजू

दोन अनवळखी शिपाय एका हॉटेलांत एकामेकाक भेटले. दोगांयची वळख जावंक लागलेली तितलीच. तेन्नाच तांकां तांचे तकलेवयर मदेंच हुमकळायलेलो बोर्ड दिसलो. पयल्या शिपायान त्या बोर्डाक बोट दाखयत दुसऱ्या शिपायाक म्हळें,

"कितलो उच्च विचार हो. देवाचेर भावार्थ दवर."

दुसऱ्या शिपायान बोर्डाक पळयत पयल्या शिपायाक म्हळें,

"तुज्या हिसपान हो विचार उच्च आसत. पूण तें तशें बरयलेलें नाच. त्या बोर्डार बरयलेलें आसा, राजाक मान दी."

"म्हाका दिसता, तुका वाचूंक गमना म्हूण." पयल्या शिपायान ताका रागान म्हळें.

"तुका वाचूंक आयलेलें जाल्यार थंय कितें बरयलेलें आसा तें तूं वाचतलो आसलो." दुसऱ्या शिपायान ताचो अपमान करीत म्हळें.

पयलो शिपाय चाळवलो. म्हणूंक लागलो,

"हांव एक शिक्षीत शिपाय, शिक्षणाची गरज आसा ती तुका. थंय देवाचेर भावार्थ दवर अशेंच बरयलेलें आसा."

दुसरो शिपाय आनीकूय तापलो. म्हणूंक लागलो,

"आरे मूर्खा, हांव एक देशभक्त शिपाय. आनी राजाक मान दिवप हें म्हजें कर्तव्य. थंय राजाक मान दी अशेंच बरयलेलें आसा."

आनी ह्या वादावेल्यान दोगांय शिपायांमदीं हुज्जत चालू जाली. हळू-हळू ही उतरांची हुज्जत मारामारीचेर पावली. दोगांनीय आपापल्यो तरसादी काडल्यो. चलयल्योय बी. एकामेकाक तरसादी तोपून दोगांचींय मडीं जमनीर पडलीं. हेर मनीस जेन्ना थंय लागीं पावले, तेन्ना त्या दोनूय शिपायांचें म्हणणें सारकें आंसलें आनी तेचबराबर चुकिचेंय आसलें म्हूण तांकां गमलें. बोर्डार एके बाजून बरयलेलें आसलें, 'देवाचेर भावार्थ दवर' आनी दुसरे बाजून बरयलेलें आसलें, 'राजाक मान दी.'

केन्नाकेन्नाय आमी आपलेंच खरें करूक सोदतात तेन्ना एक गजाल लक्षांत दवरूक फाव, ती गजाल म्हळ्यार दर एका प्रश्नाक तीन बाजू आसतात आनी न्हय दोन. दोन बाजू, जाचेखातीर दोन मनीस एकामेकाआड झगडटात त्यो. आनी तिसरी बाजू जी सदांच सारकी आसता ती.

## 89.

## पगार वाडपाचो. पूण ...

**त्या** कंपनीच्या धनयान ऑफिसांतल्या स्टेनोग्राफराक पगार वाडोवपाचें थारायलें. हि खोशेची खबर तिका सांगचेखातीर एक दीस ऑफीस सुटच्या वेळार तो तिचेसरीं गेलो. त्याच खिणाक त्या स्टेनोग्राफरान आपले घडयाळीचेर नदर मारली. पांच वाजलेलीं. घरा वचपाचो वेळ जालो म्हूण सटासट आपलें काम बंद केलें आनी आपले घरचे वाटेक लागलेंच. धनयान टायप करूक दिलेलें काम ताणें अर्धार सोडलें -- पूर्ण करून वचपाची इत्सा लेगीत दाखयली ना.

धनी एक उतर लेगीत उलयलो ना. परत्या पांयांनी आपल्या कॅबिनांत गेलो. निरास जावन. पंदरा मिनटां अदीक ऑफिसांत रावून धनयान दिलेलें ताकतिकेचें काम करून वचपाची तिची तयारी नासली. आपले हे करणेक लागून आपलेंच कितलें लुकसाण जालां तें त्या स्टेनोग्राफराक त्या वेळार कळ्ळें ना. आनी कळपाची शक्यताय लेगीत ताणें दवरली ना.

आपलें काम थारायलेल्या वेळांतूच करपाचें. पूण केन्नाय मात्सो अदीक वेळ रावपाक पडल्यार आपली जबाबदारी पाळीनासताना रावूंक जायना. आनी तशें केल्यार लुकसाण करून घेवपाची शक्यताय कमी आसता. आपलें काम जबाबदारीनूच पूर्ण करपाचें.

## 90.

# आमकां हेंच जाय

एका जोडप्यागेर भरपूर दुडू आसलो. शेतां - भाटां आनी गिरेस्तकाय खूब. कसलीच कमतरता नासली. उणीव आसली ती एका भुरग्याची. आपल्याक एका भुरग्याचो मोग मेळपाक तीं खूब आशेतालीं. पूण दुर्देवान तांगेर भुरगें जल्मलें ना. शेवटीं ताणीं अनाथ आश्रमांतलीं दोन भुरग्यांक दत्तक घेवपाचें थारायलें.

आवय-बापूय नासलेल्या ह्या भुरग्यांक आपणांगेर हाडून आपणें तांकां नीज आवय - बापायचो मोग दिवपाचो निर्णय दोगांयनीय एकमतान घेवन तीं दोगांय एका अनाथ आश्रमांत गेलीं. अनाथ आश्रमांत फाव तो पत्रवेवहार सोंपयल्या उपरांत आश्रमाचे वडील ते बायलेक म्हणूंक लागले,

"आतां हांव तुमकां आश्रमांत आसलेल्या सगळ्यांहून सुंदर अशा दोन भुरग्यांक दाखयतां. जांकां पळोवन तुमी खोशी जातलीं."

ते बायलेन खिणभर आपल्या घोवोकडेन पळयलें आनी आंश्रमाचे वडील श्रेष्ठीनीक म्हणूंक लागली,

"ना. आमकां सगळ्यांहून बरीं दिसपी भुरगीं नाकात. आमकां तींच भुरगीं जाय, जांकां कोणूच आपल्यागेर व्हरूंक तयार नात. जांकां सगळ्यांनी आपलेपासून पैस दवरल्यांत. जीं भुरगीं कोणाकूच नाकात, तींच भुरगीं आमकां जाय."

आसलेल्यांक आपणावपांत कसलें पुण्य आसा? सांडलेल्यांक आपणावपांतूच शाणेपण आनी अर्थ आसा. आपल्या जिविताक अर्थ हाडपाचें शाणेपण आनी स्विकारलेल्यांच्या जिवितांत अर्थ हाडपाचें शाणेपण.

## 91.

# तूं सांगता तेंच करतलों

एक खेप एक आवय आपले शेजारनीक म्हणूंक लागली,

"देवा, तुजी खोशी जावं, म्हणपाक म्हाका खूब भिरांत दिसता. देवान म्हजें मागणें आयकून म्हज्या एकट्याच पुताक व्हेलो जाल्यार?"

हें आयकून तिचे शेजारनीन तिका म्हळें,

"समज, तुजो भुरगो एक दीस तुजेसरीं येवन तुका म्हणूंक लागलो, मांय, आयज हांव तूं सांगता तेंच करतलों, जाल्यार तूं अशें चिंततली, हीच बरी संद आसा. ताका आवडनासलेलीं सगळीं कामां हांव आयजूच ताचेकडल्यान करून घेतलीं. होच सुयोग घेवन हांव खेळूंक

धाडचीना. ताची आवडटी फुटबॉल मॅच आसा तिवूय पळोवंक धाडची ना. घरांतल्या कामांत मदत करूंक सांगतलीं. अशें करतली न्हय?"

"केन्नाच ना. मोगान म्हजी खोशी करूंक राजी जालेल्या म्हज्या पुताक हांव अशें करूंक शकतलीं? उलट त्या दिसा म्हज्यान ताका जितलें बरें करूंक जाता तितलेंय हांव करतलीं. इतलें बरें, त्या दिसाचो म्हज्या पुताक खूब काळ पासून उगडास उरता तितलें बरें करतलीं. हांव म्हज्या पुताचें वायट कशें चिंततलीं? हांव ताचो, म्हज्या जिवापरस चड मोग करतां."

"तर तुका दिसता, देव तुजेपरस उणो मोग करता म्हूण?"

शेजारनीच्या उतरांचो हेतू ते आवयक समजलो.

देवाचे खोशयेक राजी जावंक आमकां भिरांत दिसता. पूण देवाची खोशी आमी मानून घेवंक एकूच कायदो न्हय, तर आमकां बरेपण मेळोवन घेवपाखातीर एक बरी संदी आसा. देवाचेर पातयेवन आमी सारकें तेंच करूंक वावरूया. आमचे वाटेर अडचणी लेगीत आयल्यार देव आमची मदत करतलोच.

92.

## आतां हांव कितें करतां तर?

**त्या** दोंगरार एक ल्हानशेंच घर बांदून तो तरनाटो थंय एकटोच रावतालो. दिसाक एक वर रानांत वचून लाकडां कातरून हाडटालो. बाजारांत व्हरून विकतालो आनी मेळलेल्या पैशांचेर आपल्यो दीसपट्टयो

गरजो भागयतालो. हेंच ताचें सदांचें काम आसलें. दिसाक फक्त एक वर लाकडां कापप. बाकिचो वेळ तो सुशेग घेवंक सारतालो - कांयच करीनासताना.

ताचें हें वागप, त्या गावांत नवोच आयलेल्या एका धंदेकारान पळयलें. त्या तरनाट्याक बरो उपदेश दिवंचो म्हण तो धंदेकार तोचेसरीं गेलो आनी म्हणूंक लागलो,

"तूं हेपरीं दिसाक फक्त एक वर लाकडां कापून वगी कित्याक बसता? तूं आनीकूय लाकडां कित्याक कापिना?"

हें आयकून तो तरनाटो चिंतूंक पडलो,

"आनीकूय लाकडां कापून हांव कितें करतलों?"

"सुबेज लाकडां कातरल्याऱ तीं विकून तुका अदीक दुडू मेळटले."

"ताचे उपरांत हांव कितें करतलों?"

"तुवें एकठायलेल्या दुडवांनी तूं एक गाडो विकतो घेवंक शकतलो."

"आनी मागीर?"

"गाड्यार घालून मागीर एकेच खेपेन बाजारांत व्हरूंक तुका सोपें जातलें. चड लाकडां विकल्यार तुका अदीक दुडू मेळटले."

"ताचे उपरांत?"

"हे सगळो दुडू एकटावन तूं एक ट्रक घेवंक शकतलो. ट्रकांत तूं व्हडलीं लाकडां व्हरूंक शकतलो. लाकडांचो उणाव आसा त्या गावांत व्हरून विकतकूच तुका मागीर पैशांर पैसो."

"आनी ताचे उपरांत?"

"तितले म्हणसर तूं इतलो गिरेस्त जातलो, इतलो गिरेस्त जातलो, तूं तुजेखातीर एक सोबीत बंगलो बांदूंक शकतलो - सगल्यो आधुनीक सोयी आसलेलो बंगलो. तूं सगळीं कामां पळोवपाखातीर नोकर - चाकर दवरूंक शकतलो."

"आनी मागीर फुडें किते?"

तो धंदेकार आपले येवजणेंत इतलो गुंथून गेलेलो, ताका कसलेंच भान उरलें ना. व्हडे उमेदीन म्हणूंक लागलो,

"मागीर तुका वावर करचेली कसलीच गरज उरची ना. तूं सुशेगाद विश्रांती घेवंक शकतलो. कसलीच चिंता आसची ना तुका. कसलीच धास्ती आसची ना. सुशेगूच सुशेग - आख्खो दीस."

त्या तरनाट्यान ताचें सगळें आयकून घेतलें आनी म्हणूंक लागलो,

"आतां हांव सुशेग घेना जाल्यार आनीक कितें करतां तर? तूं म्हणटा तसलो बंगलो आजूनय म्हजेलागीं आसा. म्हाका जाय तें आजूनय म्हजेलागीं आसा. समाधान. समाधान हेंच खरें सूख. हें सूख भोगपाखातीर तूं जें म्हाका करूंक सांगता ताका कसलो अर्थूच ना. कारण हेंच सूख तर हांव आयजूय भोगतां. हाचेहून अदीक म्हाका आनीक कितें जाय?"

धंदेकार आपोआप भानार आयलो. वगीच रावलो. आनीक उलोवंक शकलोच ना तो. समाधानान जियेवपांतूच मनशाचें शाणेपण आसता. फक्त दुडवांचीच आशा करपांत न्हय.




93.

## आपलेंच चिंतपी

रेलगाडयेंत इतली गर्दी आसली, इतली गर्दी आसली, बसूंक जागो मेळपाची आशा सोडूच, नीट उभें रावंक मेळप म्हळ्यार भाग्यूच समजुपाचें. त्या दिसा तर म्हाका असलें भाग्य फाव जालेलें. हांव म्हजो

तोल सांबाळीत उबी आसलीं. थंयचेंच एक चेडूं स्टेशनार देंवपाक उबें रावलें. उठटाना आपली बसका म्हाका दिवनूच गेलें तें. ते गर्देंतल्यान आपली वाट काडून प्लॅटफॉर्मार पांय दिवंक शकलें जाल्यार म्हाका खबर ना. पूण हांव मात खोशयेचो उल्लास सोडीत ते बसकेर निश्चींत बसलीं.

पूण म्हजें हें निश्चींत बसप क़ांय खिणांपुरतेंच ठरलें. म्हजे कुशीक एक अस्तुरी बसलेली आसली - ब्रीफकेस आपले मांडयेर घेवन. अकस्मात तिच्या मनांत कसलीं चिंतनां आयलीं कोणांक खबर! आपली ब्रीफकेस उखल्ली आनी वयर सामान दवरपाक खण आसता थंय हात पावोवपाक लागली. बरीच जड दिसताली तिची ती ब्रीफकेस. तरूय तिणें ती ब्रीफकेस खणांत लोटलीच. लोटली ती खरी, पूण ती ब्रीफकेस अशी आसली, खंयच्याय खिणांक ती सकला पडपाची. आनी खाला पडपाची ती म्हजे तकलेर. ब्रीफकेसीक पळेल्यारूच भिरांत दिसपाक लागली. अस्वस्थ जाली हांव. बसूंक मेळिल्ल्याचो आनंद खिणांक नपयत जालो. ते ब्रीफकेसची काळजी दिसूंक लागली म्हाका. ब्रीफकेसची म्हणचेपरस म्हजे तकलेची म्हळयार जाता. हांव आनीक आनी रावलीना. ब्रीफकेसीक पळयत ते ब्रीफकेसवालीक म्हळें,

"तुका दिसता, तुजी ब्रीफकेस थंय सुरक्षीत आसा म्हूण?"

ते अस्तुरेन खोशेन म्हजेकडेन पळेलें. म्हणूंक लागली,

"नक्कीच. काळजी करपासारकें कांयच ना. भियेनाका तूं. हुस्को करीनाका. ती ब्रीफकेस थंय ठाम सुरक्षीत आसा. शंभर टक्के. हावें तिका चावी करून दवरल्या."

अशींय बी मनशां आसतात. आपसुवार्थी. आपलेंच चिंतपी.

94.

# केन्ना सुरू करपाचें?

एक खेप एक आवय गांवच्या एका गिन्यानी मनशासरीं गेली आनी विचारूंक लागली,

"हावें म्हज्या भुरग्यांचें शिक्षण केन्ना सुरू करपाचें?"

तिच्या भुरग्यांची वासपूस करीत त्या गिन्यानी मनशान विचारलें,

"तुजो भुरगो कितल्या वर्सांचो आसा?"

"पांच वर्सांचो." तिणें जबाब दीत सांगलें.

तिचो जबाब आयकून तो मनीस उतावळीन म्हणूंक लागलो,

"चल चल, ताबडतोब वच. पांच वर्सां तर तुवें वगडायलींच. आनी आतां इल्लोय वेळ वगडायनाका."

शिक्षण सुरू करपाक वेळाची आनी पिरायेची गरज आसना. अदीक करून एका भुरग्याच्या शिक्षणाक. भुरग्याचें शिक्षण ताचे आवय-बापायचे होंटयेंतूच सुरू जाता. म्हणटकूच आपल्या भुरग्याचो फुडार घडोवन हाडपाचें काम आवयचेंच आसता. आपल्या भुरग्याक शिक्षण दिवंचेखातीर तो व्हड जावपाची वाट पळयत रावल्यार हो वेळ केन्नाच येवपाचो ना. हय - ना म्हणटां म्हणसर हो ल्हान भुरगो केन्ना आनी कसो वाडलो तें कळपाचें लेगीत ना. आनी कळून येता म्हणसर चड उशीर जाल्लो आसल्यार?

भुरग्याक पुस्तकांतलें शिक्षण दिवन वाडोवंचेआदीं रिती - माणसुकेचे देखीन ताचे आजूबाजूचें वातावरण भरल्यार, चड शिक्षणीक जातलें. आवयनूच ह्या कामांत फुडाकार घेवपाचो. वेळ येवपाची वाट पळयत बसनासताना.

95.

# हांव राजा

आपल्या राज्यांत सूख समाधान आसा काय भ्रश्टाचार?

राजाक हाची खात्री करून घेवपाची आसली. आनी देखूनच तो एका साद्या मनशाचें न्हेसण न्हेसून भोंवडेक भायर सरलो. आपल्याच चिंतनांनी रेवडललो हो राजा चलतां चलतां अकस्मात मुखावयल्यान येवपी एका मनशाक आदळ्ळो. राग आयलो ताका. तापूनच त्या म्हाताऱ्याक ताणें विचारलें,

"तूं कोण?"

"हांव राजा." म्हाताऱ्यान जाप दिली.

"हं. तूं राजा! तर एक सांग, तूं खंयच्या राज्यार राज्य चलयता?" राजान फकाणां करीत विचारलें.

"हांव म्हजेरूच म्हजें राज्य चलयतां. हांव म्हजोच राजा. हांव म्हजोच कुकूम मानतां." म्हाताऱ्यान व्हडविकायेन एकाच दमांत सांगून सोडलें.

हय, आमच्यांनूय राजा जावं येता. त्या म्हाताऱ्यान सांगलेलेपरी. पूण आमी आमचेच राजा जावंचे बदलेक, बेशर्माय करून, वाजेवन, निरशेवन दुसऱ्यांक आमच्या जिवाचे राजा जावंक दितात. दुसऱ्यांक आमचेर शेक गाजोवंक संदी दितात. आनी मागीर तांचे गुलाम जावन बसतात. आपूण आपलो राजा जावंक शकता आसताना गुलाम कित्याक

जावपाचे? राजवट चलोवंक शकता आसताना लजेन कित्याक चलपाचें? गुलाम जावन बसप ही एक व्हडविकायेची गजाल न्हयच.

आपणांक बऱ्या मार्गापासून पैस व्हरपाच्या संवंयांचेर आमी ताबो दवरूंक शकल्यारूच आमी आमचे स्वतःचे राजा-महाराजा जावंक शकतले. आमी आपणाचेर ताबो दवरूंक शकल्यार आमकां आमच्या जिवितांत जैतिवंत जावपाक सोपें जातलें. आपणाचेर ताबो आसलेलो मनीस एकेपरी जिवितांत जैतिवंतूच - आपल्या जिवितांत आपलोच राजा.

त्या म्हाताऱ्यापरी.





फिलोमीना साँफ्राँसिस्को

बरोवपाची सुरवात
देवनागरी लिपींतल्यान जाली.
शाळेच्या चवथ्या वर्गांत शिकतना
पयलेच पावटीं देवनागरींतल्यान
ल्हान काणी बरयली. ती 'सत' पत्रार
परगट जाली. उपरांत बरोवप चालूच
दवरलें.
'दर म्हयन्याची रोटी', 'वावराड्यांचो इश्ट', 'नवें
गोंय', 'कोंकण मेल', 'गुलाब', 'द गोवन रिव्यू', हातूंत
बरपावळ उजवाडाक आयल्या.

'वावराड्यांचो इश्ट' हातूंत निबंदस्पर्धेंत प्रमाण पत्र (1992).
'नवें गोंय' पत्रान घडोवन हाडलेल्या निबंद स्पर्धेंत पुरस्कार
(1995).
'वावराड्यांचो इश्ट' हाचो वर्साचो कोंकणी बरोवपी हो सर्गेस्त
प्रि. लाक्तासियो आल्मेदा यादस्तिक पुरस्कार (1998).
'द गोवन रिव्यू' कथा/निबंद स्पर्धेंत इनामां - मोटवी कथा
(1998, 1999, 2001) निबंद (2001).
यंग ख्रिश्चन वर्कर्स मुवमेंट हाचें वांगडी.
तियात्रांनी गीतां गायल्यांत. तांकां इनामां फाव जाल्यांत.
साहित्य अकादेमी, गोवा कोंकणी अकादेमी, इंस्टिट्यूट
मिनेझिस ब्रागांझा तशेंच अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य
संमेलनांनी घडोवन हाडिल्ल्या कवी संमेलनांनी वांटो घेतला.
इगर्जेंत कोंकणींतल्यान धर्मीक आनी संस्कृतीक कार्यावळी
घडोवन हाडपाचें काम केलां.
इंगलीशींतल्यान कविता रचल्यात आनी इनामांय फाव
जाल्यांत.